# लिपि

## एक शास्त्रीय चिंतन

पी. जी. कामत

पी. जी. कामत फौंडेशन
एरणाकुळम
2015

Konkani

**LIPI - EK SHASTRIYA CHINTAN**

(Essays)

**P. G. Kamath**



First Edition : May 1986

Second & Revised Edition

August 2015

Published by

P.G. Kamath Foundation

'Puduma', Parinamam Road

Kaloor, Ernakulam - 682 017

Cell : 9447730866

e-mail: pgkamat.foundation@gmail.com

Printed at

VIBGYOR Imprints

Puthiyara

Kozhikode - 673 004

Copies 500

Price : ₹ 120

कोंकणी

**लिपि - एक शास्त्रीय चिंतन**

(निबन्ध)

**पी. जी. कामत**



पयली आवृत्ती : मे 1986

दूसरी आनी परिष्कृत आवृत्ती

ऑगस्ट 2015

प्रकाशक

पी. जी. कामत फौंडेशन

'पुदुमा', परिणामम रोड, कलूर

एरणाकुळम - 682 017

Tel : 0484 2530866

www.pgkamathfoundation.com

मुद्रण

विब्ज्योर इंप्रिन्ट्स्

पुतियरा

कोषिकोड - 673 004

प्रती 500

मोल : ₹ 120

# विनन्ति

लिपी विशीं करचे ह्या
शास्त्रीय चिंतनांतु खयींच
पक्षपात आयलो तरी तुमी
माका माफ करनाकात.

**- पी.जी. कामत**

नदर मेळय
नदरे माज्या नदर मेळय;
चान्नें फुलतलें
मनां चान्नें फुलतलें

**- पद्मश्री डॉ. र. वि. पंडित**

# पी. जी. कामत

जन्म : 1926 फरवरी 28

मरण : 2009 जून 05

पी.जी. कामत हे कोंकणी, पाली, प्राकृत, अपभ्रंश, संस्कृत, हिन्दी, इंग्लीश, अशा जायत्या भासांचे विद्वान आसले. अध्यापनाच्या मळार तांचो अणभव आनी योगदान भोव व्हड 1941-त बी.टी. परीक्षेंत इंगलीश शिक्षणच्या अध्यापनांत तांकां प्रतिश्ठेचें "नागोजीराव भांगरा पदक" फावो जालो. बनारस हिन्दु विद्यापीठांत तांणी एम.ए. केली. केरळ सरकाराचे सेवेंत 33 वर्सां वेगवेगळ्या पदांचेर शिकोवप करून 1981-त हिन्दी शिक्षण अधिकारी म्हूण ते निवृत्त जाले. रामावरमपुरम हिन्दी शिक्षक प्रशिक्षण संस्थेचे प्राचार्य आसतना तांणी केरळांत हिन्दी शिक्षणाच्या मळार भरीव कार्य केलां. 1982-त तांका. "अन्य भाषा शिक्षण" ह्या हिन्दी पुस्तका खातीर केंद्र सरकाराचो पुरस्कार फावो जालो.

वेगवेगळ्या भासांतले चौकेर वाचन आशिल्यान तांणी हेर भासांतले साहित्य अणकारीत केलां. तांतूत भुरग्यांच्या साहित्याचो आसपाव जला. कोंकणींतले साहित्य तांणी हिन्दी आनी मलयाळम भासांनी अणकरीत केलां.

1984 साकून 2000 मेरेन केरळ कोंकणी अकादेमीचे अध्यक्ष म्हूण केरळांतल्या कोंकणी भाशिकांक एकठांय हाडून प्रेरित करपाचो मोलाचो वावर तांणी केलां. अकादेमीचे 'दिवटी' हे नेमाळें तांणी संपादन केलां. केन्द्र साहित्य अकादेमीचे कोंकणी सल्लागार समितीचे वांगडी (1992-2002) म्हणून तांणी मोलाचे काम केलां. 16-च्या अखिल भारतीय कोंकणी साहित्य संमेळनाचे ते अध्यक्ष आसले. मगीर 'सुक्रिन्त्र ओरियन्टल रिसर्च इन्स्टिट्यूट' कोची हे संस्थेचे 'स्कूल ऑफ कोंकणी स्टडीस' हाच्या सल्लागार समितीचे ते सदस्य आसले.

# पी. जी. कामत हांचीं इतर पुस्तकां :

**कोंकणी :**

श्रद्धांजली (1983 - संपादित)
कोंकणी म्हण्यां सोरू (1985 - जोड संपादन)
लिपि - एक शास्त्रीय चिंतन (1986 - निबन्ध)
एक अवतारिका भगवद्गीतेक (1987 - अणकार)
श्रवोण (1996 - अभ्यास)
कोंकणी बरयतना (2001 - जोड लेखक)
पवळीं (2003 - कविता)
ओळख (2011 - कविता)

**मलयाळम :**

मैला आंचल (अणकार)
साहित्य मर्मम् (अणकार)
पंजियुम् नूलुम् (अणकार)
डिटेक्टीव ड्यूपिन (अणकार)
चंद्र कांती (अणकार)
मारुन्न समूहत्तिनावश्यमाया शाश्र्वतमूल्यंगळ (अणकार)
संध्यावंदनादी (1987)
कुलदेवता प्रणामम् (1994 - जोड लेखक)

# मांडावळ

अनुबन्ध

## THE KONKANI SCENE

*Lipi - Ek Shastriy Chintan* is a treatise on the problems, especially of Konkani, in the matter of the script in the wider context of the whole of India. The author, P.G.Kamath, of Kerala, comes to the conclusion that Devanagari is the most suitable script for Konkani.

*(From '**The Indian Literature**', Pg 104, Nov-Dec, 1987 Issue; See article 'Writing amidst Blood and Tears' - by Preof. Olivinho Gomes)*

## LIPI

Kerala Konkani Academy has brought out an excellent monogram on scripts. The book "Lipi" is written by P.G. Kamath, M.A. It is a scholarly work and I am delighted to see that the author could bring out extra ordinary features of scripts in a lucid manner in Konkani. It is a book worth reading.

*(From '**The Samyukta Saraswat**', Pg. 19, July, 1994 Issue; See article 'A book Bug's wanderings in the realm of Saraswati' - by Sri. J.D. Isloor)*

# प्रकाशकांलीं उतरां

दिवंगत पी.जी. कामत हांणी बरयिल्ले हे निबन्ध पयल्या पयलीं तांणीच संपादन केल्लेल्या 'दिवटी' म्हयनाळ्यांत उजवाडाक आयिल्ले. मागीर हीं लेखनां एकठांय करून 1986 वर्सा केरळ कोंकणी अकादमीन पुस्तकरूपान उजवाडाक हाडलीं. आतां तें पुस्ताक मेळूंक ना.

कोंकणी भाशेचे लिपिव्यवस्थे विशीं सरळ जावनु सांगचीं असलीं पुस्तकां आतां अवश्य आसात. कोंकणी भाशे विशीं लोकांत जागृताय आयल्या तरी वाचूची आनी बरोवंची संवय आनिकय जावंक आसा. हे दिशेन कोंकणी प्रेमींक आनी अभिमानींक सहायक आसात ह्या पुस्तकांतलीं लेखनां.

हांतूले अध्याय 1 ते 12 मेरेन पयली आवृत्ती जावन पुस्तकरूपान आयिल्ले आसात. मागीर 1992 अक्टोबर 15 आनी 16 तारीकेक एरणाकुळमांत चल्लेल्या एक परिचर्चेंत पी.जी. कामत हांणी प्रस्तुत केल्लोलो एक प्रबंध आमी हे दुसरे आवृत्तींत मेळयला. 'सुनापरांत' दैनिकांत तांणीबरयिल्ले कोंकणी विशींचें एक लेखनय आमकां मेळ्ळे आनी तें ह्या संग्रहांत मेळोवंक सुयोग्य म्हूण दिसलें. देखून तें लेखन हांगा सादर केलां.

साहित्य विद्यार्थ्यांक हें पुस्तक उपकारी आसतलें अशी आमकां दिसता, पयले आवृत्ती विशीं आयिल्ले दोन अभिप्रायय नवे वाचकां खातिर हांगा दितात.

कोंकणी वाचूंकय बरोवंचकय मात्र न्हय, हे भाशेची विशेषताय समजून घेवृंकय हें पुस्तक सहायक जातलें हो आमचो विश्वास.

येया, कोंकणीक आनीकय लागीच्यान वळखुयां.

**- पी.जी. कामत फौंडेशना तरपेन**
**आनंद जी. कामत**

# प्रस्तावना

## लिपि - एक शास्त्रीय चिंतन : लिपी-विचाराचो ज्ञानकोश

स. पी. जी. कामत (हावें मुखार पीजीबाब) हांच्या 1986 वर्सा उजवाडायिल्ल्या 'लिपि - एक शास्त्रीय चिंतन' ह्या पुस्तकाची ही दुसरी संपादीत, सुदारीत आनी विस्तारीत आवृत्ती. हातूंतलें संपादन आनी सुदारणां खासा पीजीबाबान हयात आसतना केल्लीं आसल्यार पुस्तकाचो विस्तार उजवाडावपी पी.जी. कामत फावंडेशनान (हावें मुखार फावंडेशन) केला. पीजीबाबान बरयिल्ल्या आतां मेरेन ज्ञात अशा भास आनी लिपी विशींच्या मराठी बरपावळींचो आसपाव हे दुसरे आवृत्तींत केला. ते खातीर फावंडेशनाची तुरत-वाखाणाय करप गरजेचें. आयज कोंकणी भाशेची सर्वांगीण उदरगत जाता आसतना, सामान्य वाचक धरून कोंकणी विद्यार्थी, अभ्यासक, संशोधक आनी अध्यापक - सगळ्यांकच ह्या पुस्तकाचो भोवच उपेग जातलो.

पीजीबाब कोंकणीचे जेश्ट अभ्यासक, संशोधक आशिल्ले. संस्कृत धरून साबार भारतीय भासांचेर तांचें प्रभुत्व आशिल्लें आनी लॅटीन धरून जायत्या आधुनीक पाश्चात्य भासांचे ते जाणकार आशिल्ले. भाश कडेन पळोवपाची तांची नदर भावनिकताये परस एखाद्या शास्त्रज्ञाची आशिल्ली. देखून 30 वर्सां आदीं बरयिल्लें तांचें हें पुस्तक आयज लेगीत संबद्ध, काळ-सुसंगत आनी अद्ययावत थारता.

आयजवेर कोंकणी साहित्य सरस्वतीची उपासना शेंकड्यांनी बरोवप्यांनी केल्या. पूण कोंकणी भाशेचे मर्म सांगून तिचें भाशीक विश्लेशण करपी जाणकार मात हाताच्या बोटार मेजूं येत इतलेच. पुर्तुगेज राजवटीच्या काळांत गोंयांत आयिल्ल्या परदेशी धर्मगुरूंनी किरिस्तांव धर्म पातळावपाचे आपले गरजे खातीर कोंकणी भाशेचीं व्याकरणां रचलीं आनी उतरावळी शब्दकोश घडयले. 1510-1684 ह्या काळांत कोंकणीचीं 19 व्याकरणां आनी 24 शब्दकोश निर्माण

जाल्ल्याची नोंद मेळटा. थॉमस स्टीफन्स, दियोगु रिबैर धरून इनासियो आर्कोमोनी मेरेनच्या साबार पाद्र्यांनी कोंकणीचो भाशीक वावर केला. गोंया भायर मंगळुरांत माफे सारक्या जाणकारांनी जाल्यार 20व्या शेंकड्यांत महाराष्ट्रांत चव्हाण, कुलकर्णी, हांणी सुरवेक आनी शणै गोंयबाब, डॉ. कत्रे, प्रियोळकार आदी जाणकारानी कोंकणी भास, तिचो उगम, विकास, व्याकरण, लिपी आनी तिचें भासशास्त्र हांचे विशीं दोळ्यांत भर सारको वावर केला. आधुनिक भासशास्त्राचे नदरेन डॉ. जुजे पेरैर आनी डॉ. माधवी सरदेसाय हांणी कोंकणी भाशेची विस्तृत चिकित्सा केल्या. गोंयचे सुरके उपरांत श्री सुरेश बोरकार हांनी व्याकरणाच्या जाल्यार श्री. प्रकाश यळी आनी श्री दामोदर घाणेकार हांणी कोश वाङ्मयाच्या मळार दोळे दिपकावची वावर केला.

हे फाटभुंयचेर 30 वर्सां आदीं उजवाडायिल्लें पीजीबाबाचें पुस्तक दोळ्यांत भरता. लिपयांचो उगम इतिहास, विकास आनी तांचें शास्त्रीय विश्लेशण करपी दुसरें पुस्तक आयजचे तारखेंत कोंकणींत ना.

ह्या पुस्ताकाची बुन्याद घटमूट करपाचें स्रय पिजीबाबाच्या संस्कृत भाशेच्या गडगंज अभ्यासाक वता. संस्कृत भाशेचे रचणुकेचो खरायेन आनी खोलायेन अभ्यास आशिल्ल्यान, भारतांतले हेर खंयचेय भाशेची रचणूक, तिचें साम्य आनी वेगळेपण तशेंच खाशेलपण हांचे सयत ते दाखोवन दिवंक शकतात. संस्कृत भास रचणुकेचे नेमावळीच्या आदारानच भारतीय भासो पोसतल्यो आनी बळिश्ट जातल्यो, हें सत्य पीजीबाबान ह्या पुस्तकांत अधोरेखीत केलां. इतलेंच न्हय तर संवसारांतले खंयचेय भाशेक काळ-सुसंगत, काळानुकूल जावन तिका चिरसासणाय लाबूंक जाय जाल्यार संस्कृत भाशेचे घडणावळीचो अभ्यास करप गरजेचें, हाचोय दिश्टावो हें पुस्तक वाचून जातलो.

ह्या पुस्ताकाची मांडावळ 12 अध्यायांनी केल्या. रोमन, ग्रीक, सिरिलिक, अरबी, हिब्रू आदी संवसारांतल्या मुखेल लिपयांची वळख सुरवेक घडयल्या. उपरांत संस्कृत भाशेच्या विकासाच्या आदारान देवनागरी लिपये कडेन केल्या. उपरांत लिपीची शास्त्रीय विस्कावणी केल्या. तातूंत वर्ण, लिपी, चिन्ह, अक्षर

हांचो मुखेलपणान आसपाव जाता. आयकुवपाच्या (श्राव्य) एककाक 'वर्ण' जाल्यार पळोवपाच्या (दृक्) एककाक लिपी म्हणटात, असो भेद केला.

खंयचेय भाशेंत सिमीत-मर्यादीत चिन्हां आसतात. पूण ह्या सिमीत चिन्हांच्या आदारान मनीस असिमीत-अमर्यादीत - अपरिमीत-अनंत उतरां-वाक्यां घडयता, जांकां अगणीत अर्थ आसतात. सिमितान असिमिताक मजपाचें भाशेचे शक्तीचें दर्शन पीजीबाब घडयतात. लिपी म्हणल्यार उलयल्ले-मौखीक भाशेक स्थिरताय फाव करून दिवपी घटक.

मानवी सम्यताय दिसानदीस जशी फुलूंक आनी फळूंक लागली, तशी तशी मौखीक वेव्हाराची मर्यादा नदरेक आयली. तातुतल्यान लिपयेचो उदय जालो, हें सांगतना पीजीबाबान आपल्या अणभवाच सगळे सवीन वापरल्या.

लिपयेक लागून फकत भास 'शब्दबद्ध' (ग्रथीत) जायना तर ताचेय फुडें वचून, लिपिबद्ध - लिखीत भाशेक लागून 'बोली' भाशेचीं रुपां लेगीत बदलतात, म्हणपाचें सत्य बरोवप्यान सांगला. उपरांत आंकडेगरो घडपाची रीत सांगून तातूंतले भेद आनी उणपणां तांणी दाखोवन दिल्यांत.

उपरांत देवनागरी लिपी कोंकणी भाशेक कशी फावता, तातूंतल्या खंयच्या चिन्हांची गरज कोंकणीक आसा वा ना, हाचे विशीं तांणी विस्कावणी केल्या. जे व्यक्तीक आपले भाशेविशीं, लिपये विशीं मोग आनी निश्टा आसा, तीच व्यक्ती तिचे भितरले दोश दाखोवंक शकता. पीजीबाबान हें काम भावच सहृदयतायेन केलां, तें वाचप्यांनी पाठ 10 च्या निश्कर्शांत मुजरत वाचचें. तेच फाटभुंयचेर भारतीय भासो आनी खासा करून कोंकणी भास बरोवपा खातीर रोमी लिपीची शक्यताताय आनी पर्याप्तताय तांणी तपासून पळयल्या. फकत 26 अक्षर-चिन्हां आशिल्ली ही लिपी भाशेंतल्या 50 परस चड वर्णांक कसो न्याय दिवपाक शकतली, असो मुलभूत प्रस्न तांणी उपस्थीत केला. देवनागरी आनी रोमी लिपयांचो तुळात्मक अभ्यास करून, रोमी लिपी कोंकणी खातीर फकत असमर्पकच न्हय तर घातक लेगीत आसा, ह्या निश्कर्शाचेर ते पावल्यात. हे

निश्कर्श तांणी फकत विज्ञानीक नदरेंतच्यान काडल्यात तातूंत वैयक्तीक वा भावनीक मताक इल्लो लेगीत थारो ना, हें महत्वाचें.

ह्या पुस्तकाचें परिशिश्ट (पुस्तकांत ताका 'अनुबन्ध' म्हणलां), मूळ पुस्तकापरस आकारान आनी आटापान व्हड आसा. पीजीबाबान भास, व्याकरण, लिपी आदी विशयांनी साबार नेमाळीं, आंक आनी हेर माध्यमांनी जायतें लिखाण केलें. तें सगळें ज्ञात लिखाण ह्या पुस्तकांत आसपावपाचो यत्न फावंडेशनान केला. ताका लागून इल्लें विशयांतर जालें तरी पीजीबाबाची ह्या विशया कडेन पळोवपाची एकंदरीत नदर आनी तांचो विचार वाचप्यांक एकठांय वाचूंक मेळटलो.

परिशिश्टांत व्याकरणाचें भारतीय आनी पाश्चात्य स्वरूप, कोंकणी भाशेचेर मळयाळम भाशेचो प्रभाव, कोंकणींतलो 'क' प्रत्यय आनी अनुस्वार हांचेविशीं फोडणीशी केल्या. ह्या प्रसंगीक लिखाणांतल्यान पीजीबाबाचें भासशास्त्र आनी व्याकरण मळावयलें योगदान दिश्टी पडटा.

'देवनागरी लिपी' हें संवसारांतलें एक म्हान आश्चर्य. पाणिनी धरून हे लिपयेचे रचनाकार भोवच कल्पक आनी सर्जनशीळ आशिल्ले. तांणी हे लिपयेच्या माध्यमांतल्यान पुराय तत्वगिन्यान मांडिल्लें. देखीक 'अ' वर्णाक ह्या भाशे-विद्वानांनी कसलेंच चिन्ह दिवंक ना. 'आ' खातीर 'ा' 'इ' खातीर 'ि' अशीं चिन्हां आसात, पूण 'अ' खातीर मात अक्षर-चिन्ह वा कुरू ना. हाचे फाटलें कारण दितना, पीजीबाबान खूब व्हड तर्कवाद वापरला. गीतेंतल्या 'अक्षराणां अकारोऽस्मि' ह्या वचनाचो अर्थच सगळ्या अक्षरां मदीं 'अ' कार आपसूंक, उपजत आसा, अशें भगवंत सांगता, ताचो आदार पीजीबाबान घेतला.

पुर्वजांनी भोवच कश्ट घेवन, चिंतून हे लिपयेची निर्मणी केल्ली आसली तरी आयजच्या संदर्भांत हे लिपयेंत कांय उणिवो, दोश, त्रुटी निर्माण जाल्यात, तांचो नियाळ पीजीबाबान घेतला. 'एका वर्णाक एकूच अक्षर' ही भाशीक परिशुद्धतायेचो निकश 'र' काराच्या, '~', '‸', '/', 'ʳ'. आनी 'र' अशा साबार रुपांक लागून म्होडटा.

'एक अक्षर एक उच्चार' हो निकश 'च' ह्या प्रकाच चिन्हाच्या तालव्य आनी दंत्यतालव्य उच्चारांक लागून म्होडटा. 'उलोवपांत ज्या क्रमान वर्ण येतात, त्याच क्रमान ते बरोवपांत येवपाक जाय - तशेच ते दिश्टी पडपाक जाय. पूण देवनागरी लिपयेंत ख्रासा करून 'र' आनी ह्रस्व 'इ' काराक लागून हो अक्षरक्रम म्होडटा.

भारो-जाणकारांनी भास सोपी, सुलभ, मितव्ययी जावची म्हूण चिन्हांची वा मात्रांची निर्मणी केली. पूण आयज मात्रांचे आधिक्य वा गर्दी हें देवनागरी लिपयेचें दुखणें जावन पडला. ह्या मात्रांक-चिन्हांक लागूनूच देवनागरी लिपी क्लिश्ट, दुर्बोध आनी नवशिक्यांक आव्हान दिवपी जावन पडल्या. देवनागरी लिपयेंतलो द्वित्वाक्षराचो (दोट्टीकरणाचो) नियम लगीत धुस्पागोंदळाचो आसा. कांय अक्षरांनी दोट्टीकरण मान्य केलां. दर्शीक 'क' चें 'क्क' मान्य आसा. पूण लांब अक्षरांनी तें मान्य केल्लें ना. दर्शीक 'ख' चें 'ख्ख' मान्य ना जाल्यार 'क्ख' हें रूप मान्य केलां.

देवनागरी लिपयेंचें सगळ्यांत व्हड आव्हान आनी आडखळ म्हणल्यार तिची त्रिस्तरीय रचणूक. रेल्वे गाडयेंत तिसऱ्या वर्गांत जशे प्रकार एक भितरून वट्ट तीन 'बर्थ' (सीट) आसतात, तेच तरेन देवनागरी लिपी 'थ्री-टियर' रचणुकेंतल्यान आकाराक येता. मूळ अक्षराच्या माथ्यार 'ं', 'ै', 'ॅ', 'ि', 'ी' मात्रा, रकार, इकार, अशीं जायतीं चिन्हां येतात, जाल्यार मूळ अक्षराच्या तळाकडेन 'ु', 'ू', '्', '्र', 'ृ' अशीं उकार, पोट फोडप, रकार, ऋकार अशीं चिन्हां येतात. ही त्रिस्तरीय रचणूक बरोवपाचे आनी संगणकी टंक-लेखनाचे - अशे दोनूय नदरेंतल्यान त्रासदायक.

देखून एक व्हड परंपरा लाबिल्ली देवनागरी लिपी आयज आव्हानांच्या दुंकऱ्यार उबी आसा. तिचे मुखार रोमी लिपीन आव्हान निर्माण केला. भरपूर आयुधां-शस्त्रां आशिल्लो सैनीक त्या आयुधांच्या भारानच सुस्तावता - जडावता आनी आपणाली गती शेणयता, तशीच अवस्था आयज देवनागरी लिपयेची जाल्ली आसा. देखून देवनागरी लिपयेच्या सुलभीकरणाची - सोंपीकरणाची

प्रक्रिया सुरू जावपाची गरज आसा. काकासायब कालेलकार, विनोबा भावे आनी हालीं तेंपार नागेश करमली हांणी हे नदरेन कांय ठोस विचार मांडल्यात. देवनागरी लिपयेंत क्रांतीकारी बदल घडोवन हाडपाचे नदरेन सुरवेक तिचो उद्‌गम, राबाव, तिचें संस्कृता कडलें नातें, तिचीं परिवर्तनक्षमताय आनी स्थिरताय हांची सविस्तर शास्त्रीय वळख वाचप्यांक जावप गरजेचें. पीजीबाबाच्या 'लिपि : एक शास्त्रीय चिंतन' ह्या पुस्तकांत देवनागरी लिपयेची पूर्वपिठिका मांडल्या. देवनागरी लिपयेची जातकुळी, स्वबावधर्म, वर्तन आनी विकास हांचे विशीं खोलायेन माहिती दिवन तिचीं खाशेलपणां आनी खेरीतपणां, तिचीं वैशिश्ट्य आनी विकृती हांचे विशीं अधिकार वाणीन दाखले दिवन पीजीबाबान आपलीं मतां मांडल्यांत. महत्वाचें म्हणल्यार हें धाडस तांणी तीस वर्सां पयलीं केलां. पीजीबाब आपणालीं मतां नमळायेन मांडटात पूण तेविशींची तांची निश्टा अढळ आनी ढाम आसा. तर्काचे साणीर घासून आनी विज्ञाननिश्टेन तांचीं मतां निर्माण जाल्लीं आशिल्ल्यान तांणी तीं आग्रहपूर्वक मांडल्यांत. देखून एके वटेन हें पुस्तक म्हणल्यार देवनागरी लिपी पुरस्काराचो उद्‌घोश जाल्यार दुसरे वटेन देवनागरीच्या पुनर्निर्माणाची, तिच्या आमुलाग्र बदलाची क्रांती. देवनागरीच्या पुनरुज्जीवनाच्या यत्नांत हें पुस्तक आपणालें महत्वपूर्ण योगदान दितलें हातूंत मातूय दुबाव ना.

गोंयांतल्या वाचप्यांचे नदरेन ह्या पुस्तकाचे भाशेचें आनी शैलीचें प्रमाणीकरण करून तें उजवाडायल्यार तातूंतलो विचार चड वाचप्यां मेरेन पावतलो. श्री. पी.जी. कामत हांणी कोंकणी सरस्पतीच्या गळ्यांत घातिल्ल्या देवनागरी लिपयेच्या अळंकाराच्या ह्या नव्या रूपाक येवकार.

**प्रा. भूषण भावे**
13-08-2015 bhushanbhavegoa@gmail.com

# दोन उतरां

कोंकणी भास उलोवपी लोक गोंयचे भायर भारतांत महाराष्ट्र, कर्नाटक आनी केरळ - ह्या प्रदेशांत पसारून आसात. ते लोक तांची आवय भास कोंकणी आजय विसरल्लेनात. परंतु एकसूत्रताय नाशिल्ल्यान कोंकणी भासेचें रूपांत फरक पडत गेलें. महाराष्ट्राचे कोंकणी समाजाचे भासेवर मराठीचो प्रभाव पळ्ळो आनी कर्नाटकाचे कोंकणी समाजाचे भासेवर कन्नडी भासेचो छाप बैसुंक लागलो. तशींच केरळचे कोंकणी भासेवर मलयाळी भासेचो भार पळ्ळो. गोंयचे कोंकणीचेर पोर्तुगीज भासेचें वजन पळ्ळें.

सतराव्या शतकांत भारतांत लिपी खातीर एकसूत्रताय नाशिल्ली. हातांनी बरयपी अक्षरांचें रूप जायतशें बदलतालें. देवनागरी, मोडी, उर्दू आदि लिपियो चलताल्यो. विदेशी लोकांक ह्यो लिपियो शिकपाक कष्ट पडताले. देकून कोंकणी उतरां आयकून तीं रोमीतल्यान बरयत क्रिस्तांव धर्मप्रचारकांनी कोंकणी शिकपाक प्रयत्न केलो आनी रोमी कोंकणीतल्यान धर्मप्रचार शुरू केलो. ताचो परिणाम अशी जालो की क्रिस्तांव समाजान एक दोन पिळगे भीतर कोंकणीची लिपि रोमी म्हणु मानूंक लागलो. कर्नाटक प्रदेशाचे कोंकणी लोकांनी कन्नडी लिपीन आनी केरळचे कोंकणी लोकांनी मलयाळी लिपींतूय कोंकणी भास बरवुंक शुरू केलें. परिणाम अशी जालो की आर्य भास कोंकणीचो प्रचार तिचे निजी लिपी देवनागरीन स्वयंच जालो ना. कालान-क्रमान लोक आवय भास कोंकणीची ठेट लिपि 'नागरी' म्हणु विसरलें.

1961 वर्सा गोंय स्वतंत्र जालें आनी तें गोंयकारां सयत भारतांत विलीन जालें. क्रमान गोंयची देशभास कोंकणीचें महत्व वाडलें. 1975 वर्सा केंद्र साहित्य अकादमीन कोंकणी एक स्वतंत्र भास म्हणु मान्यताय दिल्ली. ताका लागून कोंकणी भासेची लिपि 'नागरी'च म्हणु स्वीकार जाली. आज नागरी लिपि द्वारा कोंकणी भास आनी साहित्य - हांचो विकास जाता आसा.

श्री पी.जी. कामत हांणी भारतीय आर्य भास कोंकणीची लिपि देवनागरीच म्हणु सिद्ध करन त्या नागरी लिपीचो आविष्कार आनी विकास हांचे गंभीर रूपान अध्ययन करन 'लिपि' नावांचे पुस्तका वाटेन आमचे सम्मुख प्रत्यक्ष केलां.

पुस्तकाचे प्रारंभीं संसाराचे मुख्य भासांच्यो लिपियो हांचे पासून विशद विवरण दिल्या उपरांत भारतांतल्यो भासो आनी तांच्यो लिपियो हांची स्थिति पळेयतात. ते बरयतात :-

"भारतांत पांयशें भायर भासो आसात..... परंतु स्वतंत्र भारतांचें संविधान बरवंचे वेळार केवल चौदा भासांक संविधानाचें आठवें वळेरींत मेळयल्यात. ..... एदी वर्सां पिरथम डॉ. सुनीतिकुमार चाटर्जी केन्द्र साहित्य अकादमीचे अध्यक्ष आसताना आठवें वळेरींत नातिल्ले सात भासांक अंगीकार दिल्लो. त्यो भासो आसात - इंग्रेजी, राजस्थानी ..... आनी कोंकणी. इंग्रेजी लिपि रोमी मू. बाकी स भासांचो लिपि नागरीकच साहित्य अकादमीन स्वीकारल्या."

उपरांत श्री पी.जी. कामत हांणी भारताची प्राचीनतम लिपि ब्राह्मी आनी तावो शास्त्रीय विकास हांचेर चिंतन केलां आनी पुस्तकाचे उत्तर भागांत 'देवनागरी लिपिमाला' हाजे सविस्तार वर्णन केलां.

नागरी वर्णमाला हाजो विकास आनी शास्त्रीय रीतीन ही लिपी शिकपाक हें पुस्तक अत्यंत उपयोगी आसतलें - हांत कांय दुभाव ना. श्री कामत हांगेलो हो प्रयत्न सर्वप्रकारानीय संपन्न आनी सफल जाला. कोंकणी प्रेमी हांकां हें पुस्तक चढ उपयोगी जातलें आनी ते ताजी तोखणाय करतले अशी आशेतां.

**प्रो. आर. के. राव**
(Member, Sahitya Akademi
Advisory Board for Konkani,
New Delhi)

23-5-'86

अध्याय - 1

# लिपि ! लिपि ! लिपि !

कोंकणी भासे पासून तुमी कोणाचेय लागि उलैतात तरि तांणी सुर्वेकच नींवगूचो एक प्रश्न हो - कोंकणी म्हळ्यार कर्नाटक भास वे ? हांगा तुळु पोट्टी आसात मू, तांगेली भास वे? ह्या प्रश्नाक तुमी जाप दिवनु जातर मागीर आयकयेत - तुमगेले भासेक लिपि आसा वे? तुमी म्हणतले - हां, आसा. देवनागरी. तावळ तो - देवनागरी म्हळ्यार? तुमी ताका सांगतले - संस्कृत, हिन्दी, मराठी बरौंची लिपि आसा मू, तीच. तावळीच चट करनु तो म्हणतलो - तुमकां स्वंत लिपि ना? हें आयकले घडेर तुमकां स्वंत घर ना, दार ना, आवस-बापुस ना अशें म्हळ्या वरि दिसता कि ना?

मलयाळम, कन्नड, तमिळ, तेलुगु ह्या भासेंक स्वंत लिपि आसा म्हूण कळ्ळोलो खूपशी जाणविकाय आशिल्लो मनिस हो तुमकां प्रश्न करता. पुण जायतें शिकिल्ले-वाचिल्ले मनिसांकय असले विषयांत माहिती ना.

संसारांतु हजारांनि भासो आसात. जाल्यार हजारांनि लिपियो नात. सगट भासेंक तांगतांगेली स्वंत लिपि ना. हें स्वाभाविकच. हांतु कांय अजाप ना. देख्खिक : इंग्रेजी बरौंची लिपि आसा मू. ती ते भासेची स्वंत न्हय. पश्चिम युरोपांत उलौंच्या इंग्रेजी, फ्रेंच, स्पानिश, पोर्तगीज, जर्मन, डच, नार्वीजन असले सगट भासेंक मेळौन एकीच लिपि, रोमन अथवा रोमी म्हूण तिका नांव. ही निजच लैटिन भासे लिपि. आनी लैटिन ही रोमन लोकांली भास. क्रि.पू.दोन शताब्दी धरनु ही प्रचारार आयली. रोमन लिपीय प्रचार पावली. मागीर क्रि. पांचवी शतींतु रोमा साम्राज्य हूण आक्रमणकारांनी पायांन मुस्तून धूळि केलें. जाल्यारूय ती संस्कृति, भास आनी लिपि वांचली. रोमा चक्रवर्तीन क्रिस्त धर्म घेतल्ले उपरांते लैटिन भास कैथलिक धर्माची भास

जाली. तशी ते भासेचो प्रभाव युरोपांत जिवो रावलो. एदे शेंकडें उपरांतें जायते ऐतिहासिक कारणांक लागून युरोपांतल्यो आधुनिक भासो जल्मा आयल्यो. ते ते भासे लोकांनी तांगतांगेलें भासेंक वेगवेगळ्यो लिपियो सोदल्यो नात. मुकारीच उबी रावलेले रोमी लिपीक हात दीवनु ताणी लागि काळ्ळी. तशी आज पश्चिम युरोपाचे दजना भायर भासेंक सगट मेळनु एकीच रोमी लिपि आसा.

युरोपांतलीच आनी एक प्राचीन सांस्कृतिक भास आसा, ग्रीक. हे भासेंक वेगळीच लिपीय आसा. रोमी अनी ग्रीक लिपीक परस्पर संबन्धूय आसा. जाल्यारूय ग्रीक लिपीक रोमीचो तितलो प्रचार पुरातन कालाक मेळ्ळो ना. पंद्रावे शेंकडचांतसून सगळे युरोपांत फुलेल्या 'रेनासांस' नांवान प्रसिद्ध जालेल्या नवोत्थान कालाक युरोपांत रोमी संस्कृती वरीच ग्रीक संस्कृतीचोय प्रसार जालो. ताजान ग्रीक लिपीकय प्रचार मेळ्ळो. आज गणितांत विज्ञानांत प्रयोग करनु येवचीं आल्फा, बीटा, गामा, डेल्टा असलीं अक्षरां ग्रीक लिपीचीं.

पूर्वी युरोपांत रूस आनी शेजारचे 'स्लाव' जनांचे भासेंक 'सिरिलिक' म्हूण नांव आसची एक लिपि प्रयोगार आसा. ही ग्रीक लिपींतल्यान थोडे थोडे परिवर्तन करनु त्या देशाचे विद्वांसांनि त्या त्या भासेंक अनुरूप जावनु क्रि. णवावे शतींतु तयार केलेली. अशी संपूर्ण युरोपांत केवल तीनीच तीन लिपियो आसात. साहित्य-भासो दजना लेकानय आसात. भासेंक स्वंत लिपि जाय म्हळ्ळेलें कांय एक अनिवार्य सिद्धांत न्हय, हें हांतूल्यान स्पष्ट जाता मू.

पश्चिम एशिया आनी आफ्रिका देशांतुलीय स्थिति असलीच. क्रि. आटवे शतीं लागून इस्लामाचे प्रचारा पासून अरबी भासय लिपीय प्रचार पावली. जयिं जयिं खुरान पावलें थंय थंय अरबी भासय लिपीय पावलीं. आफ्रिकेसून इंडोनेशिया मेरेन हाजो प्रभाव देकयेत. हांगाचे जायते भासेंक

अरबी लिपि प्रयोगार आसा. पश्चिम एशियांतुलीच आनी एक प्रमुख लिपि हीब्रू. हीब्रू आनी अरबी लिपीचे मूळ एकच.

आनी चीन देशांतूली स्थिति पळेयात. थांगा भासो जायत्यो आसात, जाल्यार लिपि एकीच. मात्र न्हय एकच चीन लिपीन बरयलेलें भिन्न-भिन्न रूपान वाचतले; म्हूण अर्थ एकच आसतलो.

संपूर्ण उत्तर आनी दक्षिण अमेरिकेंतु आशिल्या समस्त भासेंक एकीच रोमन लिपि प्रयोगार आसा. ह्या सगट भासेंचेर यूरोपिय प्रभाव पातळेल्या फल हें. यूरोपियन जनांनि थांगा गेल्लेल्या कालाक रेड इंडियन, मया, इंका, अजटेक ह्यो प्रशस्त विकसित संस्कृतीयो थांगा आशिल्यो. तांकां विकसित भासोय लिपियोय आशिल्यो आसूका.

जाल्यार नृशंस यूरोपियन लोकांचे पांयांमूळांत ह्यो संस्कृतियो चकनाचूर जाल्यो. आतां त्यो जीवित नात. आनी ही संस्कृति, भास, लिपि मिगेली म्हणूक एक मनिस-पुतूय आज ना. देखून संपूर्ण अमेरिकेंतु एक रोमी लिपीच आज जीवंत आसा अशी लेकयेत.

भासेंचो लिपींचो हो प्रपंच मनां दवरनु भारतांतुले स्थिती पासून मुकारि विचार करयां.

## अध्याय - 2

# लिपि भारतांत

आमी गेल्ले निबन्धांत देखलें कि सगळे पश्चिम युरोप आनी अमेरिकेंत रोमी लिपि चलता. पूर्वयुरोपाचे 'स्लाव' भासेंक 'सिरिलिक' लिपि प्रचारांत आसा. रोमी लिपि प्रचार आशिल्ले कडे रोमन-क्रिस्त संस्कृतीकय सिरिलिक प्रचार आशिल्ले कडे ग्रीक-क्रिस्त संस्कृतीकय प्रामुख्य आसा. ह्या तिर्नीय उदाहरणां लागून संस्कृती आनी लिपीचे मद्दें अभिन्न संबन्ध आसा अशी अनुमान करयेत सू.

आतां भारतांत आशिल्या लिपिंपासून विचार करयां. आमगेल्ले देशांत पांयशें भायर भासो आसात म्हण सांगतात. ह्या वैविध्यां पासून भाषा-शास्त्रीनी सांगचे आयकल्यार कोणाकय आखांत येतलो. जाल्यार ह्या वैविध्या भितर एकवटाची एक सुवर्णरेखा आसा. ती पळेतल्याक दिकू येना.

गीतेंतु भगवंतान म्हळ्यावरि-

अविभक्तं विभक्तेषु
तज्ज्ञानं विद्धि सात्विकं.

ह्या वैविध्याचे वेगळेपणां भितरच्यान जो एकत्व दिकता तोच सत्यदर्शी. वैविध्य दिकून आखांतांत पडचो आनी झगडीं घालचो-घालोंवचो अखंड सत्य दिकना. तो खंड सत्यांत पडून गोंदळता, घुस्पता, दुसऱ्यांक घुस्पायता आनी घुस्मुटायता. आसो.

स्वतंत्र भारताचें संविधान बरौंच्या वेळार केवल चौदा भासेंक संविधानाचे आटवे वळेरींत स्थान मेळ्ळेलें. ह्यो भासो खूबसो साहित्यिक विकास पावलेल्यो. हांतु बारा भासो एकेक प्रदेशाच्यो. संस्कृत आमगेले संस्कृतीची स्रोत भास. बाकी उर्दू उत्तर भारतांत शिंवडल्ली इस्लामी संस्कृतीची भास. तिका आतां पकिस्तानाची राष्ट्रभास जावनु अंगीकार मेळ्ळा.

आटवे वळेरींत आयलेले चौदा भासेंचीय बरपां भारताचे रूपये नोटांचेर पळवयेत. नोटाचे एक तांतु ताजें मोल इंग्रेजीनय हिन्दीनय बरयलां. उपराटे तांतु हिन्दी सोडून बाकी तेरा भासेनी बरयलां. त्यो भासो क्रमान ह्यो - असमीया, बंगाली, गुजराती, कन्नड, कश्मीरी, मलयाळम, मराठी, ओडिया, पंजाबी, संस्कृत, तमिळ, तेलुगु आनी उर्दू.

नोटावयलीं बरपां तारतम्य करनु पळेल्यार संस्कृत, हिन्दी आनी मराठीची लिपि एकीच देवनागरी म्हूण कळता. गुजराती नागरी वरीच. उंचार शिरोरेखा ना म्हूण मात्र. आनी अक्षरांचे सुरुवेक आखेरेक स्वल्प अलंकार आसा; तितलेंच. काश्मीरी आनी उर्दू लिपियो सारक्यो आसात; कारण त्यो अरबीं सून जालेल्यो. असमीया आनी बंगाली प्रायशः समान आसात. बाकी लिपींचो परस्पर संबन्ध स्पष्ट दिकूं पडना.

भारताचें संविधान लागू जावनु एदे वर्सानि पार्लमेंटान सिन्धीक अंगीकार दिलो आनी आटवे वळेरींत तिजो प्रवेश करयलो. ही भास अरबीनय नागरीनय बरयतात म्हूण आयकलां.

उपंरांते, एदीं वर्सा पिरथम डॉ. सुनीतिकुमार चाटर्जी केन्द्र साहित्य अकादमीचे अध्यक्ष आसताना आटवे वळेरींत नातिल्या सात भासेंक साहित्य अकादमीन प्रोत्साहना खातिर अंगीकार दिलो. त्यो भासो आसात - इंग्रेजी, राजस्थानी, डोगरी, नेपाळी, मैथिली, मणिपुरी आनी कोंकणी. इंग्रेजीची लिपि रोमी मूं. बाकी स भासेंचे खातिर नागरी लिपीच साहित्य अकादमीन स्वीकारल्या. अशी पळेल्यार भारतांतुली मुख्य लिपि देवनागरी आसा. वेगळ्योय जायत्यो लिपियो आसात ज्यांचो प्रयोग त्या त्या भासेचे कोटानकोटि लोक करतात. भारतांतुल्या ह्या विविध लिपींचे परस्पर संबन्ध समजूक जाय तरि इतिहासा जनेलांतुल्यान पळेल्यार पुरो.

आमगेले देशाची प्राचीनतम लिपि सिंधुनदीतट संस्कृतीची. पांच हजार वर्सा पिरथम आशिल्या ते संस्कृतीक स्वंत भास आनी लिपि आशिल्ली. ते

लिपीच्चीं अक्षरां मोहंजोदारो आनी हरप्पा ह्या जाग्यांत पुरातत्व वैज्ञानिकांनि केलेल्या उत्खननापासून मेळ्यांत. थांगा एदयो मुद्रा मेळ्ळेल्यो आसात. त्या मुद्रेंचेर जानवरांच्चीं रूपां लागी अक्षरां दिसच्चीं थोडीं रूपांय आसात. त्या अक्षरांचे अध्ययन करूंक जायते वैज्ञानिकांनि प्रयत्न केला. जाल्यार तांकां आज मेरेन साफल्य मेळ्ळें ना. ताका एक कारण हें कि तें संस्कृतीचें भासे पासून कोणाक कांय कळना.

मोहंजोदारो - हरप्पा संस्कृति ऋग्वेदापाशि पुरातन, अशी इतिहासकारांले मत. वेदकालाची लिपि खंची, कसली? - त्या विषयांतूय आज जाणविकाय ना. वेदां फुडली लिपि आसा; भास कळना. वेदाची भास कळना; लिपि कळना. कसलो खेळ हो, पळेयात.

मागीर अनेक शताब्दी उपरांतें क्रि.पू. तिसरे शेंकड्यांत अशोक सम्राटाली धर्मलिपि आमचे मुकार येता. अशोकान बौद्ध धर्माची दीक्षा घेतल्ने नंतर भगवंतालो उपदेश जनांक शिकौंचे खातिर एकेक कडे पाषाणा दोंगरांचेर आनी स्तंभांचेर ते उपदेश कोराल्तयले. त्या बौद्ध सूक्तांची भास 'पाली'. तांचे लिपीक ब्राह्मी म्हणतात. ते लिपीची पुरी जाणविकाय इतिहासकारांक मेळ्या. हे लिपीक मोहंजोदारो - हरप्पा लिपीकडे कांय संबन्ध आसा की ना, खंडित सांगूक जायना.

अशोकाले धर्मलिपीचें नांव ब्राह्मी म्हूण सांगलें मूं. त्या कालानन्तर भारतांत जालेल्यो सगट लिपियो तांतुसून विकास घेतल्यो; हें आज स्पष्ट जालेलें आसा. दिल्ली, हैदराबाद, मद्रास, तिरुवनंतपुरम असल्या शारांत आशिल्या पुरातत्व म्यूजियमांत ह्या लिपीं विकास स्पष्ट करचीं चार्टां दवरल्यांत. तीं पळेल्यार भारतांतुल्या वेगवेगळ्यो दिसच्या समस्त लिपींचो परस्पर संबन्ध समजूयेत.

आज जे लिपीक आमी देवनागरी अथवा नागरी म्हणतात ती क्रिस्त आटवे शतमानांतसून दिश्टी पडता. नागरीक विशेष आशिल्लेंय अन्य लिपींक नातिल्लेंय एक लक्षण आसा मू - शिरोरेखा. हो माथ्या वरो ब्राह्मीक ना

आशिल्लो. क्रि. पांचवें शेंकड्यांत शिरोरेखा आशिल्ली दिश्टी पडता. देवनागरी आटवे शतमाना धरनु उत्तर भारतांतु प्रचार पावली. त्या कालाक तिजेंच आनी एक रूप दक्षिण-भारतांत आशिल्लें. हो रूपभेद कशी आयलो? हाका एकीच जाप. अक्षरां बरौंचे शैलींत वेगवेगळे प्रदेशांचे लोकांनि तांगतांगेले रुचिक लागून ही अनेकता आयली. एकच मूळ अक्षर वेगवेगळे रीतीन बरयल्ले पासून संत संत ताजो आकारूच विंगड जावन गेल्लो. करेन्सी नोटारीच क, र, य असलीं अक्षर पळेयात, स्पष्ट कळतलें. उत्तर नागरींसून आयची बंगाली, असमीया, ओडिया, पंजाबी असल्यो जायत्यो लिपियो देशकालानुसार उत्पन्न जाल्यो. तशीच दक्षिणी नागरींतुल्यान तेलुगु, कन्नड, तमिळ, मलयाळम असल्यो लिपियोय जाल्यो.

ब्राह्मी-नागरीचो ह्रो विकास मात भारतांतु सीमित आशिल्लो म्हूण लेखशात. लंका, बर्मा, सयाम ह्रांगाच्या लिपींकय नागरी लागि संबंध आसा. जंय जंय भारताची संस्कृती पातळेली, थंय थंय संस्कृत, पाली ह्यो भासो आनी ब्राह्मी, नागरी लिपियो गेल्लेल्यो. लिपीलागी संस्कृतीचो संबन्ध जो रोमी, सिरिलिक, अरबी ह्या लिपीं विशीं आमी देखलो तसलोच ह्रांगाय देखयेत.

भारताचे पश्चिमोत्तर कुशीक आशिल्ले प्रदेशांत अशोकालीं धर्म लिखितां एक विंगड लिपीन देखू येतात. ते लिपीक 'खरोष्ठी' म्हूण नांव. तिचीं अक्षरां खर वा गाडवाचे ओंठा मणकी आशिल्लीं देखून हें नाव पडलें अशी इतिहासकार म्हणतात. खरोष्ठी लिपि अरबी उर्दु लिपींवरि उजव्यासून दाव्यान बरयताले. ह्रांतुल्यान भारतांत आज प्रचार आसची एकीय लिपि उत्पन्न जाली ना.

भारतांत जायत्यो लिपियो पळोवनु आमी आखांतांत पडचें नाका. एकच कुळांत भावां-भावांलीं भुरगीं जावनु, मागीर तांचेरीय भुरगीं जावनु, कुळाराचो प्रसार जाल्यावरीच ह्या लिपींचीय स्थिती.

अध्याय - 3

# देवनागरी

आमी देवनागरी विशीं ह्यांगा सांगलें. हे लिपीक तें नांव कशी पळ्ळें? त्या नांवाचो अर्थ कसलो? - ह्या विषयांतु जायते मतभेद आसात. कोण एक म्हण्टा, जशी संस्कृत भासेक आमगेले पूर्विकांनि तिजे दिव्यत्वाचे सूचने खातिर 'देवभास' नांव दिलें, तशीच ते भासेचे लिपी लागि 'देव' हें नाव जोडलें. तांतु दिव्यत्वाची सूचना आसा. सगटांक तांगतांगेली भास आनी लिपि अशीच देवान दिलेली आसतली. भासेचें लिपीचें विशेष गुणगणां पासून चिंतन केल्लेले ऋषि-मुनि आश्चर्यचकित जाताले. अशी अनुभव जाल्लेल्यान तांणी भासेक आनी लिपीक दिव्य म्हळ्ळ्यां जावयेत.

हे लिपीचो प्रचार नागर ब्राह्मणांनि केल्लो. त्या कारणान हें नांव पळ्ळें अशीय मत आसा. आनी कोण एक सांगता कि हीं लिपि-चिह्नां तांत्रिक क्रियेंतुल्या 'नागरा' वरि आसात; त्या पासून हें नांव पळ्ळें.

ही लिपि आटवे शताब्दींसून प्रचार पावली म्हूण सांगलें मू. त्या कालाक रायाक 'देव' म्हण्टाले. हर्षाक हर्षदेव म्हण्टाले. तशीच विक्रमादित्य रायाक विक्रमदेव म्हण्टाले. संस्कृत नाटकांतु रायाक 'देव' म्हणुय राणीयेक 'देवी' म्हणुय संबोधन आसा. 'देव' राय जाल्यार 'देवनगर' ह्या शब्दाक राजधानी म्हूण अर्थ जाता मूं. तावेळ राजकार्याक राजधानींतु प्रचार आसची लिपि म्हूण देवनागरीचो शब्दार्थ जालो कि ना? अशी पळयल्यार, आटवे शताब्दींतु अथवा ताजे लागसार भारतांतु राजकार्या खातिर संस्कृतिसंपन्न, विद्यावंत मनिसांनि प्रयोग करनु येवची लिपि 'देवनागरी' अशी अनुमान करयेत.

देवनागरी लिपींतु परिष्कार हाड्डून ती सरळ करचे खातिर जायतो प्रयत्न जालोलो आसा. तांतु स्व. काका साहब कालेलकरांलो प्रयत्न भो

प्रशस्त. तांणी दिल्लेले आदेशाक लागून इ, ई, उ, ऊ, ऋ, ए, ऐ ह्या अक्षरां बदलाक अि, अी, अु, अू, अृ, अे, अै हीं अक्षरां आयलीं. ही सुधारण वर्धा हिन्दुस्तानी प्रचार सभा, सर्वसेवासंघ, नवजीवन प्रकाशन असले संस्थेचे कृपेन प्रचार पावली. गोंयांतु बोरकार, रवीन्द्र केळेकार असले देशप्रेमियांले प्रयत्नान हे सुधारणेक आदार मेळ्ळा. गोंया थाकून प्रकाशन करच्या पुस्तकांतु हीं अक्षरां पळोवयेत. जाल्यार भारत सरकारान हो परिष्कार स्वीकार केलो ना.

देवनागरी लिपि भारतांतुल्या सगट भासेंक लायक करचे खातिरीय थोडो-भो प्रयत्न जाला. देखीक : मलयाळम भासेंतुल्या ൭ (ह्रस्व ए), ൭ (ह्रस्व ओ), ൦, ൯, ൨ हीं अक्षरांय बरौंचे प्रकारि देवनागरींतु परिष्कार हाडून 'परिवर्धित देवनागरी' म्हूण नांव दिल्या. केन्द्रीय हिन्दी निर्देशालयान हे लिपीचें स्वरूप स्पष्ट करचीं चार्टां उजवाडायलेलीं आसात. भारतांतुल्या सगट भासें खातिर एक अतिरिक्त लिपीरूपान हे परिवर्धित नागरीचो प्रचार आज सुरू जाला. एदीं वर्सां फुडे धरनु 'नागरी लिपि परिषद' ह्या नांवान एक संस्था कार्य करता. नागरी लिपिचो प्रचार करप ते संस्थेचो मुख्य उद्देश्य.

अध्याय - 4

# शास्त्रीय विचार

आमी लिपि विशीं शार्स्त्रीय चिंतन करतात. हांतु 'शार्स्त्रीय' म्हळ्यार कितें? शास्त्र म्हळ्यार? पंडितांनि भट्टांनि आमकां बरें-वायट सांगचें आसा मू तें न्हय शास्त्र? श्रुतींत-स्मृतींत, पुराणांत आशिल्लें म्हूण न्हय हाजो अर्थ? न्हय कदापि न्हय. शास्त्र म्हळ्यार वस्तुस्थितीक आधार करनु आशीलें आधुनिक 'सायन्स'. सायन्स, सायन्टिफिक – ह्या अर्थान शास्त्र, शार्स्त्रीय ह्या शब्दांचो प्रयोग आमी करतात. सायन्स अथवा शास्त्राचो एक मुख्य गुण हो कि ताजो आधार यथार्थ वस्तु. जें फक्त काल्पनिक ऊहापोहाचेर आधार करता ताका शास्त्र म्हणनात.

एक दुसरो गुण शास्त्राचो हो कि तांतु करचें निगमन एक व्यक्तीक मात्र आशिल्लें न्हय. तें कोणाकय अनुभव करयेत जाल्लें - सार्वजनिक. देखूनच शास्त्राचे निगमन व्यक्तिनिष्ठ न्हय, वस्तुनिष्ठ. यथार्थ वस्तूंक आधार करनु, कोणाकय अनुभव करूंक साध्य आशिल्लें चिंतनाक 'शार्स्त्रीय चिंतन' म्हण्टात. शार्स्त्रीय चिंतनांत पक्षपात ना. मेगेलें तुगेलें ना. हें माका मात्र अनुभव करूंक आशिल्लें रहस्य, तूं तें जाण जावचाक लायक न्हय - असल्ली चिंता सायन्सांत ना. लिपी विशीं तशी आमचें शार्स्त्रीय चिंतन आमकां जाय. केवल ही लिपि मेगेली, ती सर्वांग सुन्दर आसा, देखून तिकाच समस्त लोकान माथ्यार दवरनु नांचका अशी सांगप शार्स्त्रीय न्हय.

लिपी विशीं शार्स्त्रीय चिंतन करूंक एदे पारिभाषिक शब्द (Technical Terms) कळचे आसात. तांतु वर्ण, लिपि, लिपिचिह्न, अक्षर - हे मुख्य, ह्या शब्दांक भाषाशास्त्रांत दिंवचो सूक्ष्म अर्थ कळ्यारीच आमकां शार्स्त्रीय चिंतन करूंक जातलें.

•

भास म्हळ्ळेलें विचार-विनिमयाचें एक माध्यम अथवा साधन म्हूण आमी जाण मू. माजे मनांत जो विचार येता तो प्रकट करूक हांव उलयतां. जें आमी उलयतात ताकाच भास म्हण्टात. एक बायल घरकडे बेसल्या. सांजे स वरां जालीं. घोव आतां वरे आयलोना. कित्या? बायले मनांत हो विचार येता. ती फोण करता अशी – 'हलो! तुमी व्हय? वरां स जालीं मू? कितें आयले ना? पांच वरारींच पांवका म्हूण हांव सांगलेलें विसरनु गेले किं..?' हांतु शब्दांचो एक प्रवाह आसा. बायलेचे मनांतुल्या विचाराचे विकाराचे प्रवाहाक अनुसरून शब्दांचो प्रवाह येता आनी तो प्रवाह घोवाचे कानार पळ्ळे घडेर ताजे मनांत बायलेले मनांतुले विचार-विकार पांवतात.

शब्दांचो हो प्रवाह शास्त्रीय रीतीन विश्लेषण केल्यार आमकां शब्दांचे सान-सान कुटके मेळतले. फुलाचे भीतर कसकसले अंश कशी कशी आसात म्हूण कळचे खातिर आमी फुलाचे डिसेक्षन करतात मूं, तशीच हें. उंचार बायलेन उल्लयलेलें अशीच विश्लेषण केल्यार हलो, तुमी, व्हय.. असले कुटके मेळतले. त्या कुटक्यांक मागीरीय कातऱ्यां. त्या शब्दां पशि सान सान कुटके मेळतले. 'तुमी' हे शब्दांसून त्, उ, म्, ई अशी कुटके मेळतले. 'हलो' हांतु ह्, अ, ल्, ओ हे कुटके मेळतले. अशी मेळ्ळेले कुटक्यांक मागीरीय कातऱ्यात व्हय? ना. तावेळ ऊंच मेळ्ळेले त्, उ, म्, ई, ह्, अ, ल्, ओ - हे सगट सानांत सान कुटके. शब्दांचे सानांत सान अथवा न्यूनतम (minimal) कुटक्यांक वर्ण म्हण्टात. त्, उ, म् इत्यादि भासेचे 'वर्ण'. उलौंचे भासेंतु वर्णाचो एक प्रवाह आसा अशी सांगयेत. भासेचे प्रवाहाचे न्यूनतम अंशाक 'वर्ण' म्हण्टात. आमी वर्ण स्वीकार करचें इंद्रिय कान.

उंचार, बायलेन जें उलयलें, तें बरौन धाडयेत मू. ती कागतार पेनान वा पेनसिलान अशी-तशी नीट-ओरे उंचार-खालाक सान-व्होड रेखो बिन्दु घालनु तें कागत धाडलें आनी घोवान तें पळयलें म्हूण आसो. तो तें वाचता. तावेळ जो वर्णप्रवाह तिणे उलयले घडेर कानां पडून ताजे मनां पावता, तोच

हे वरप दोळ्यांनी पळयले घडेर ताका मेळता आनी संदेश मनां पांवता. त्या कागतार ज्यो रेखो, बिन्दु इत्यादि घालता ताका 'लिपि' म्हण्टात. वर्ण आमचे कानार पडतात. लिपि आमी दोळ्यांनी पळयतात.

लिपि म्हळ्ळेली रस्त्यार आशीले ट्रॅफिक साइनां वरीच. एक साइन देकल्यार आमकां कळता, कि हांगा उजव्यान घुंवका. दुसऱ्यान कळता कि हांगा हंप आसा, देखून जाग्रता आसो. एक तिसरें कळयता कि हांगा दाव्यान स्कूल आसा; भुरगीं खर्यीय धांवनु येतीत. अशीच आशिल्लीं चिह्नां लिपींतुय आसात. तीं देखले घडेर आमचे मनांत एकेकाक अनुसरून विचार येतात.

जाल्यार रोड साइन आनी लिपिचिह्नां मदें एक व्होड फरक आसा. रोडचिह्नांतु थांगा परिस्थितींचें चित्रण आसा मृ. उजव्यान घुंवप, दाव्यान घुंवप, लेवल क्रास, हंप, स्कूलात धांवन वचो भुरगो - असले ट्रॅफिक चिह्नांत परिस्थितींचीं चित्रां आसात. तरि लिपिचिह्नांत तशी ना. क, च, ट् असले देवनागरी लिपि चिह्नांत अथवा A, B, C, असले रोमीचे लिपीचिह्नांत कसले परिस्थितीचें चित्र आसा? कांय ना. उलौचें भागेक आनी लिपींतुले हे चिह्नांचो संबन्ध रोडसाइनांतुल्यावरि चित्रात्मक आनी नैसर्गिक न्हय; ताचे रूपाक आनी अर्थाक कार्यी संबन्ध ना. देखून तो कल्पित आनी यादृच्छिक म्हणयेत.

बसाचेर आसल्या 'फस्ट एयड' बॉक्सारि अथवा अस्पतालां मुकार धवे वृत्तां भितर तांबडे क्रासाचें चित्र आमी देखलें आसा मृं. तें कसल्या चिह्न? तें ट्रॅफिक साइना वरीचे न्हय. सर्वे चित्रांचेर आसचें क्रास इसर्जीचें चिह्न जायत. जाल्यार फस्ट एयड आनी तांबडो क्रास हांचो कसलो संबन्धु? हें चिह्न रेडक्रॉस सोसाइटीन चिकित्सा सेवेचें सूचक जावनु निश्चय केल्लें. हें रोड साइनांवरीचें परिस्थिती चित्र न्हय. हांतु एक विशिष्ट अर्थाचो आरोप केला. तें जे जाण, तेच जाण. असले चिह्नांक 'सिंबल' अथवा प्रतीक म्हण्टात. भारतीय तत्वशास्त्रांतु 'ॐ' हें परमात्माचें प्रतीक. हांतु परिस्थितीचें चित्रण ना. जे आसगेले धर्मात

तत्वशास्त्रान परिचित आसात, तांकांच ॐकाराचो अर्थ कळता. असले आरोपित अर्थाचे सूचकाक 'प्रतीक' म्हण्टात. लिपींतुलीं चिह्नां प्रतीकात्मक; तीं परिस्थितीचीं चित्रां न्हय.

लिपीचिह्नांक अक्षर म्हणप आमगेली पुरातन रीति. एक भासेंतुल्या वर्णाचे संपूर्ण वळेरीक वर्णमाला म्हण्टात. तशीच एक भासेंतुल्या लिपिचिह्नांचे संपूर्ण वळेरीक लिपिमाला अथवा अक्षरमाला म्हण्टात.

वर्ण आमी आयकतात. अक्षर चोयतात. वर्णाचें इन्द्रिय कान. अक्षराचें इंद्रिय दोळे. वर्ण आनी अक्षराचो संबन्ध तरि यादृच्छिक प्रतीकात्मक. हो विचार मनांत दवरनु मुकार लिपिमाले पासून विचार करयां.

अध्याय - 5

# भासेचे दोन प्रकार

उलोंवप आनी बरोवप - हे दोन प्रकार भासेन विचार विनिमय करपाचे. आमी उलोंवचें आयकतात आनी बरयलेलें पळेतात. हे दोनीय प्रकार आमी स्वीकार करचीं इन्द्रियां वेगवेगळीं. उलयलेलें आयकूक कान आनी बरेयलेलें वाचूक दोळे. आनी हे दोनीय प्रकार उत्पन्न करची अवयवांय वेगवेगळींच. आमी उलैतात तोंडान; बरैतात हातान. उलोंचें भासेचे न्यूनतम अंश वर्ण; ताचे प्रतीक लिपि वा अक्षर.

भासेचे हे दोनीय प्रकार मनीसाले इतिहासांत केदाणा आयले, कशी आयले आनी तांचें महत्व कितें – ह्या विषयार आतां चिंतन करूंया.

मनिश आनी जानवर हांचो फरक कसलो? मनिश उलैता; जानवर उलैना – हो एक मुख्य भेद. Man is a talking animal - मनिश हो उलोंचें जानवर अशी वैज्ञानिकांनि म्हळ्यां. कोणय निसर्गीत – मनिशान उलैल्या वरीच सूणें भोंकता; माजर म्याऊं म्याऊं करता; गाय हांबेता; बकडी में में करता - हें सगट उलोंचे वरीच मू; मागीर कसलें हें फरक? आसा, व्हड फरक आसा. जानवरय मनश्या वरीच शब्द करता; पुण शब्दांचे प्रकारांनूय अर्थसूचनेंतूय खूब अंतर आसा. जानवराचे शब्द भौ परिमित; मनश्याले अपरिमित. आनी त्या शब्दांनी मनिशान प्रकट करचे विचार विकार कितले विविध आनी विचित्र! जानवराचे शब्दांत मनश्यांले शब्दांचें वैविध्य ना, वैचित्र्य ना, अर्थव्याप्ती ना. वेगवेगळे सन्दर्भारि गायचें हांबेवप वेगवेगळे तराचें जाल्यारीय हांबेवच्याचे अर्थ कितले परिमित आसात! आनी मनिसाले शब्दांनी प्रकट जांवचे अर्थ, भाव, विकार हांची सीमा खंयि? मनश्याले मनुष्यत्वाचो आरंभूय ह्या उलोंचे शक्तिचे विकासाक आधार करनु आसा म्हणु परिणामवादी वैज्ञानिक सांगतात.

परिणाम सिद्धांताचे प्रमाणे जानवर जेन्ना मागशीचे दोन पांयार रावलें तेन्नाच मनिसपणाचो विकास सुरु जालो. दोन पांयार उबें राबलें

तावेळ ताचे श्वासकोशांत चड प्रणवायु चडलो; ताज्यान ताची शक्ति चडली. मुकावेले पाय स्वतंत्र जाले मू. ते ही शक्ति प्रकट करूंक लागलेले हात जाले. ताज्यान ताका चड चड अनुभव मेळूक लागले, तशी तागेले मस्तिष्काक विकास जालो. ही विकासाची एक वाट. उबो राबून श्वासकोशांत चड प्राणवायु मेळेल्यान आनी एक उपयोग जालो. तागेले वाग्यंत्रान उत्पन्न करचे शब्दांत वैविध्य आयलें. आनी मनांत येंवचे विचारांचे वैविध्याक अनुसरून साद घालची रीतीय ताका स्वाधीन जाली. ही विकासाची दूसरी वाट.

तशी चार पायांचें मृग दोन पायांचो मनिस जालेल्यान तागेले जीणांत कसकसलो फरक जालो, पळेयात. एक तांतुल्यान कर्म-विकास जालो, तरि दूसरे तांतुल्यान अभिव्यक्ति-विकास जालो. ह्या दोनीय तराचे अभिवृद्धीनच संस्कृतीचो जन्म आनी विकास जालो. हातान करचें कर्म आनी तोंडान करची अभिव्यक्ति - ह्या दोनीय विकासापासून मस्तिष्क विकास घेता; आनी त्या विकासा पासून कर्मविकासूय अभिव्यक्ति विकासूय जाता. अशी हात, वाग्यंत्र आनी मस्तिष्क ह्यांचो परस्पर गहन संबन्धु आसा. जयिं हातान कर्म ना थयिं मस्तिष्काक विकास ना आनी थयिं भासेचोय विकास ना. भासेचो विकास म्हळोलो एकांतिक निरपेक्ष न्हय. समाजांत कर्मविकास जाय; ताजानच मनोविकास जातलो. ह्या दोनींय विकासांचेर आधारार भासे विकास जातलो. हात, वाग्यंत्र आनी मस्तिष्क हीं तीन वस्तू मनश्याले सांस्कृतिक विकासाचे शारीरिक आधार आसात.

उलौंची आनी आयकून आशय समजूची असली शक्ति आमकां ना जाली तरि आमगेली गति कसली? कल्पना करनु पळैयात. ती स्थिती कितली भयंकर आसतली? आमगेलें मनिसपणच आमकां नष्ट जातलें.

शब्द घालपाचे शक्तीचो विकास मनश्याले विकासाचो एक प्रधान पावडो. हे शक्तीचे फरकान मनिस मृगां थाकून वेगळो जालोलो, आमकां अनंत विचार, अनंत विकार आनी मनोभाव प्रकट करची शक्ति उलौपांतुल्यान मेळ्या. ही शक्ति अनंत. देखून आमी उलौंचे शब्द, वाक्य आनी प्रकार अपरिमित आसात. जाल्यार, ह्या अपरिमित वाक्यांचो आधार अपरिमित व्हय? न्हय, भौ सीमित.

आमी फुडेंचे निबंधांत देखलें कि वाक्य विश्लेषण केल्यार ताजे कुटके शब्द मेळतात. आनी ते शब्द विश्लेषण केल्यार क, च, ट असले वर्ण मेळनात. एक भासेंत कितले वर्ण आसात? संसारांत हजारांनि भासो आसात. एकेक भासे समाजांतुल्या एकेक मनिशान उलौंचीं लक्षान लक्ष वाक्यां आनी शब्द आसात. एक भासेचे विश्लेषण केल्यार कितले वर्ण मेळतले? वैज्ञानिकांनी देखलां कि एक भासेंतु ऊण्यान ऊणें तीस आनी चडान चड पंचावन वर्ण आसतले. अशी तीस-चाळीस-पंचावन वर्णांनि संसारांत आशिल्ले सर्व मनिश उलौनु विचार विनिमय करतात. हांतूसून स्पष्ट जाता कि उलौंचे भासेंचे अपरिमित शक्तीचो आधार भौ परिमित वर्ण आसात.

हें एक आश्चर्य कि न्हय? असीमाक ससीमान मेजची ही शक्ति पळोन आमगेले पूर्विक विस्मय पांवताले. देखूनूच तांणी भास एक दिव्य दान म्हूण सांगलें. हे दिव्य भासेचे पासून मौलिक चिंतन केलेल्या पूर्विकांक तांणी मुनिची पदवी दिली. देवभास संस्कृताचें व्याकरण केल्लोलो पाणिनी हो मुनी; आनी ताजेर महाभाष्य बरैलोलो पतंजलि हांवय मुनी. मात्र न्हय, भासेंचे आधार जालेल्या उतरांची देवी सरस्वतीक कलादेवी म्हूण कल्पना करनु आमी नमन करतात.

अ, इ, उ, क, च, ट इत्यादी ज्या वर्णांनि भास निर्माण जाल्या, त्या वर्णांचो एक खाशेलो गुण आसा. तो समजूक आनी उडगास दवरूक जाय. वर्णांतु कांय अर्थ ना; वर्ण निरर्थक. जाल्यार वर्ण एक विशिष्ट क्रमान आयल्ले घडेर शब्द वा वाक्य जाता. शब्द आनी वाक्य सार्थक. द + ए + व ह्या वर्णक्रमान 'देव' हो शब्द जाल्लो. तो सार्थक आसा. ह्याच वर्णांचो क्रम व + ए + द जाल्यार अर्थ बदल्लो; 'वेद' जाल्लो. अशीच इंगलीशांतुलें उदाहरण काडात – ड + ओ + ग = डोग (Dog); ग + ओ + ड = गोड (God) हांतु थाकून व्यक्त जाता कि वर्णांतु अर्थ ना; विशिष्ट वर्णक्रमान सार्थक शब्द जाता. गणितांत 1, 2, 3, 4, 5, 6, 7, 8, 9, 0 ह्या धा संख्येंनि अनंत संख्यो बरौंचे वरीच भासेचे ह्या परिमित वर्णांनि अनंत शब्द आनी अनंत वाक्यां आमी उलैतात.

## अध्याय - 6

# लिपीचो आविष्कार

उलवपाचो आविष्कार मनिशाले विकासाचो एक मुख्य पावडो म्हूण ह्यांगा सांगलें. तशीच एक दुसरो पावडो लिपीच्या आविष्काराचो. लिपि जांवचे फुडे मनिशु उलोवनूच आशय विनिमय करतालो. एकल्यान उलौंचें आशय समजतालें तेन्ना थांगा हाजर आशिल्यांक मात्र. टेलिफोनाचो आनी रेडियोचो आविष्कार जाल्लेले परान्ते उलौंचें कितले की दूरा आयकयेत जालें. आनी टेपरिकार्डराचे सहायान उलवप मागीर खंचेय समयार आनी खंचेय स्थानार आयकयेत जालें. हीं यन्त्रां आविष्कार जांवचे फुडे मनिशाले शब्दाची सामाजिक व्याप्ति भौ सीमित आशिल्ली. एक मनिश उलयतालो आनी थांगा त्या वेळार आशिल्ले एदे मनिश आयकताले. मागीर कोणे तें आयकलें तांणी सांगून चड जन आयकताले.

अशी तोंडा उतरान सांगून आयकून आयकून सन्देश कळप म्हळेलें भौ परिमित मूं आसतलें. जाल्यार लिपीचे आविष्कारान हे स्थितींत व्हड परिवर्तन आयलें. एक मनिशान आपण्यालो संदेश, बरौन दवरलो तरि थांगा तावेळ ना आशिल्ले जायते जनांक मागीर तें वाचून समजूक जाल्लें. ताजान मनिशाले संदेशाची स्थल-काल परिमिति ना जाली. मनिशाले संदेशाक स्थलाचे आनी कालाचे परिमितींत सून सुंटूक आशिल्ली शक्ति लिपींतुल्यान मेळ्ळी.

देखिक : सोक्रटीस विष पिवनु मरचे वेळार आत्माचे अमरात्वा विषयांतु मित्रां लागी उलयलोलो. तागेले एक शिष्यान तीं उतरां बरौन दवरलीं देखून आजीय आमी सोक्रटीसालो अमर संदेश वाचून खोस भोगतात; मरणान आमगेले आत्माक नाश जायना म्हळोलो विश्वास मनांतु घट्टि दवरनु जियेतात; आनी मृत्यूक तण म्हूण लेकून कसलेय धीर साहसांत उड्डी घेतात.

बरौन दवरलेल्या पासूनूच हें साध्य जालें. आमगेले वेद तोंडाचे अभ्यासान जायते पिळगेंतल्यान नाश पावनातलें राबले खैं. लिपीचे आविष्कारा उपरान्ते

त्या ज्ञानाचो शाखोपशाखांनि विकास जावनु भारताचें अमर पुरातन ज्ञान आज आमचे मुकार पावल्यां.

लिपीचें एक महत्व हें कि ताज्यान मनिशांले संदेशाची स्थल-काल-परिमिति ना जाली. मात्र न्हय लिखित संदेश दर पिळगेंतल्यान चड चड जावनु पुंजीभूत जालो. अशी ज्ञानाची अभिवृद्धि जाता गेली. आज लिखित भासेन मनुष्यवर्गाले संपूर्ण अनुभव संचय आमकां मेळ्ळा. अशी पळयल्यार लिपि मनिशाले सामूहिक संस्कृतीचें एक मुख्य उपकरण म्हळेलें व्यक्त जाता. लिपि ना आशिल्ली तरी ही आमगेली संस्कृतीच वाड्डनात्तिल्लें मुरडेवनु रावतली आशिल्ली.

लिपीचो आविष्कार केदाणा जालो? ह्या प्रश्नाक सीदा उत्तर दिवप सरळ न्हय. इतिहासकारांनि सांगचे प्रमाणे लिपि आविष्कार जावनु धा हजार वर्सां पूर्ण जालेलीं आसूका. पांच हजार वर्सां फुडे भारतांतु मोहंजोदरो संस्कृतीक लिपि आशिल्ली. ताजे सुमार एक दोन हजार वर्सां पिरथम सुमेरियन असीरियन संस्कृतीनुय लिपि आशिल्ली खें. एक सांगूक जायत : समाजांतुलें उत्पादन, वितरण आनी देणे-घेणे एक खास पांवड्यारी पावलेले तेन्नाच लिपि जालेली. उलौनु हीं कार्यां करूक जायना म्हळेली परिस्थिति जालेली. कृषि, व्यारु, उद्योग-दंदां हें सगट सफल रीतीन चलौंचाक उलौंची भास नपुरो. विचार विनिमयाक एक व्यापक आनी स्थिर रीति आवश्य जाली. तावेळीच एक प्रकाराचे लिपीचो प्रयोग सुरू जालोलो आसूका.

लिपि जाले उपरांते विचार विनिमय चड विस्तृत आनी व्यापक जालें मात्र न्हय; उत्पादन, वितरण, व्यापार, उद्योग, आदान-प्रदान ह्यांतु सगट व्हड विकासूय परिवर्तनय जालें. बरपावळीक ह्याजान चड महत्व मेळ्ळें. उलौंच्या पशी बरौंचाक चड स्थिरता आयली. खंचीय भास लिपिबद्ध जाली तेन्ना भासेचें स्वरूप स्थिर जाता. उलौंच्या भासेंतु जाल्या वरीचें परिवर्तन बरवपांत येना. बरौनु दवरचे शब्दाचो अर्थ आनी रूप स्थिर रावता आनी ताका व्यापकताय मेळता. कोंकणीचेंच उदाहरण पळेयात. आज देवनागरी लिपीन कोंकणी बरौंचाक सुरू केलेल्यान बरेलेली कोंकणी चड प्रदेशाक पसरता.

बरौंच्याचो अर्थ आनी स्वरूप स्थिर राबता. उलौंचे भासेचें स्वरूप गांवा कणकणे, व्यक्ती कणकणे भिन्न आसता. केवल उलौनूच आसचे भासेंतु तें देखून परिवर्तन वेगीं वेगीं जाता. जाल्यार बरौंची भास चड स्थिर, व्यवस्थित, व्यापक आसता.

लिखित भासेंतु साहित्याचो विकास जांवचाकय हेंच कारण. सुंदर म्हणियो, वाक्प्रकार, अलंकार इत्यादि उलौंचे भासेंतूय आसात. जाल्यार त्या म्हण्यांक, प्रयोगांक, वाक्प्रकारांक स्थिरता आनी व्यापकता मेळूक लिखित साहित्य जाय.

लिपिबद्ध साहित्याक महत्व आसा; म्हूण उलौंचे भासेचे महत्व ऊणे जायना. भासेचें स्थूलरूप उलौंचेंच. लिखित भासेचो आधार उलोवपच म्हूण आमी ऊंच देखलें मू. उलौंचीं उतरां सन्दर्भान व्यवस्थित आसात. देखूनूच जायते काळ गेल्ले घडेर लिखित रूप उलौंचे रूपांत थाकून भौ विंगड जावयेत. तावेळ कितें जातलें? उलौंचे भासेक अनुसरून लिखित रूपाचें नवनिर्माण जातलें. भारतीय भासेंच्या विकासा विशीं विचार केल्यार हें स्पष्ट जातलें.

संस्कृत भासेचे लिखित व्याकरणबद्ध रूपाचो आधार उलौंची भासच आशिल्ली. जाल्यार एद्यो शताब्दी उपरांते उलौंची भास स्वाभाविक परिवर्तना लागून हे लिखित भासें थाकून वेगळी जाली. तावेळ लोकभास लिपिबद्ध जाली. हे भासेक प्राकृत म्हूण नांव. बुद्धा कालाक जनभास लिखित संस्कृतां सून भिन्न आशिल्ली. भगवंतान जनांक तांगेले भासेनच उपदेश दिल्ले. ते उपदेश लिपिबद्ध जाल्ले तेन्ना वेगळेंच एक साहित्य उत्पन्न जालें. मागीर असलेंच परिवर्तनान अपभ्रंश भासोय उपरांते आधुनिक भासोय जाल्यो. भासेंत असलें परिवर्तन सदांच जाता आसा; जाल्यारीय ह्या परिवर्तनांत बुडून राबल्या निमित्तान आमकां तें कळना. शताब्दी उपरांतेच हें परिवर्तन अनुभूत जातलें आनी लिखित भासेंतु परिवर्तन हाडूक प्रेरणा दितलें. तावेळ एक नवी भास आनी साहित्य जन्मलें अशी आमकां दिसतलें. संवसारांतुले एकेक भासेंक असलो विकास जाला.

अध्याय - 7

# लिपींचे प्रकार भेद

उलौंची भास पिरथम जाल्लेली कि बरोंची ? हांतु संदेहाक कारणच ना म्हूण कोण एक सांगतलो. पिरथम उलौंची भास आयली, उपरान्ते बरोंची भास. पुण हांतु मतभेद आसा. जायते वैज्ञानिकांनि दाखयल्यां कि मनिशाली उलोवपाची शक्ति विकास पांवचे पिरथम तो चित्र रचून आपण्यालो विचार विकार प्रकट करतालो; आनी ह्या चित्रांसूनच आतांच्यो लिपियो उत्पन्न जाल्यात. ही कल्पना खरी जावयेत; पुण आज देखूं येवचे लिपींचो आधार चित्रां न्हय. खंचेंकी पुरातनकालाक हांकां चित्रां लागी संबन्ध आशिल्लो जावयेत.

आयचे लिपिमालेंतुलीं अक्षरां सगट यादृच्छिक प्रतीकात्मक म्हूण आमी फूडेंचे निबन्धांत पळयलें मू. एक चित्र आनी तांतु प्रकट जावचे आशयां पासून मद्दें आसच्यो नैसर्गिक संबन्ध लिपि आनी आशयाचे मद्दें ना. देखून आतांची लिपियो चित्रां थाकून जाल्लेल्यों म्हणचें खरें न्हय.

आज संसारांत आशिल्या लिपींचे अध्ययन केल्यार लिपीक उलौंचे भासेचे लागी कसलो संबन्ध आसा म्हूण स्पष्ट जाता. भासेचे मुख्य घटकांक आधार करनु चिंतन केल्लेले भाषाशास्त्रियांनी लिपींचे थोडे प्रकार दाकयल्यात. भासेचे मुख्य चार घटक आसात - वाक्य, शब्द, सिल्लबल (Syllable) आनी वर्ण. एक पूर्ण वाक्याचे वा आशयाचे बदलाक एक लिपि चिह्न आसो; ते लिपीक आशयलिपि (Ideographic Script) म्हूण नांव. चीनी लिपि असली खें. लिपीक आशयच आधार. उच्चारण कितेंय जावो, अर्थ एकूच आसतलो. चीनांत उलौंची भासो जायत्यो आसात; बरेंलेलें वाचची रीति वेगवेगळी आसा; पुण लिपीन एकूच अर्थ स्पष्ट जातलो म्हणटात. ही एक विशेष गजालि.

दूसरे प्रकाराची लिपि शब्दलिपि (Logographic Script). हांतु एक शब्दा बदलाक एक लिपिचिह्न आसतलें. +, −, ×, ÷, = हीं गणीत चिह्नां

असल्या लिपीचीं उदाहरणां. हांतुय चिह्न आनी अर्थ हांचे मद्दें उच्चारणाचो कांयच संबन्ध ना.

तीसरे प्रकाराचे लिपीक सिलबिक लिपि (Syllabic Script) म्हण्टात. सिलबल म्हळ्यार उच्चारणाचे एक स्वतंत्र यूनिट. देखीक : ब्यूटिफुल (Beautiful) ह्या इंग्लीश शब्दांत ब्यू + टि + फुल अशी तीन सिलबल आसात. Pen हांतु एकच सिलबल आसा. आनी Pencil हांतु पेन + सिल अशी दोन सिलबल. अशी उच्चारणाक आधार करनु एक सिलबला बदलाक एक लिपिचिह्न आशिल्ले लिपीक सिलबिक लिपि म्हूण नांव. जापानी भासेची लिपि असली खैं. रोमींतुलें '&' आनी नागरींतुलें 'ॐ' असले लिपीचीं उदाहरणां.

आज संसारांतल्यो चडय लिपियो वर्णात्मक (alphabetic) आसात. हांतु उलौंचे भासेंतुले एकेक वर्णा बदलाक एक लिपिचिह्न आसतलें. उदा : इंग्लीशांत Tin. ट् + इ + न् अशी तीन वर्ण आसात आनी एकेक वर्णा बदल t + i + n अशी तीन अक्षरांय आसात. Pencil हांतु स वर्ण आनी स अक्षरां - प् + ए + न् + स् + इ + ल् = P + e + n + c + i + l आसात.

अशी उंचार सांगिल्ले लेखान लिपीचे चार प्रकार आसात.

1. वाक्याक आधार करनु आशय लिपि.

2. शब्दाक आधार करनु शब्द लिपि.

3. सिलबलाक आधार करनु सिलबिक लिपि.

4. वर्णाक आधार करनु वर्ण लिपी.

अशी आयचे लिपीं पासून चिंतन केल्ले घडेर आमकां कळता कि चडय लिपींचो आधार उलौंचे भासेचे शब्द, सिलबल वा वर्ण आसात. देखून हो लिपीयो उलौंचे भासेक आधार करनु मागीर आविष्कार केलेल्यो म्हळेल्यांत कांयच दुबाव ना.

अध्याय - 8

# अक्षरां कितलीं जाय?

फुडेचे निबंधांत आमी देकलें कि लिपीचे चार प्रकार आसात. (1) एक आशयाक एक अक्षर (2) एक शब्दाक एक अक्षर (3) एक मिलबळाक एक अक्षर (4) एक वर्णाक एक अक्षर. संसारांतल्यो चडिय लिपियो चौथे तराच्यो. तांतु उलोवपांतल्या एकेक वर्णाचे बदल एकेक चिह्न आसतलें. असले लिपीक वर्णलिपि म्हूण नांव.

एक आदर्श वर्णलिपि आमी उद्भावन करतात म्हूण आसो. ते लिपीक कसकसले गुण जाय? वर्णलिपींतु एक वर्णाक एकच अक्षर जाय. एक वर्णा बदलाक दोन वा चड अक्षरां येतात तरि ती लिपिव्यवस्था आदर्श म्हूण सांगूक जांवची ना. उदा : इंग्लीश भासेचे रोमन लिपि व्यवस्थेंतु "क्" ह्या वर्णा बदल कसकसलीं अक्षरां आसात? King हांतु K, Cat हांतु C, Choir हांतु Ch, Quiet हांतु Q अशी 'क्' बदलाक K, C, Ch, Q हीं चार अक्षरां आसात. ही व्यवस्था आदर्श लिपीक सर जालेली न्हय.

आनी एक उदाहरण : ष् ह्या वर्णा बदलाक कसकसलीं अक्षरां आसात? Petition, Decision, Fashion, Permission, Suspicion ह्या शब्दांतु क्रमान t, s, sh, ss, c हीं अक्षरां 'ष्' ह्या एकच वर्णा बदल येतात. देखून इंग्लीशाची ही लेखन-व्यवस्था खरी न्हय. आनी बरोंचे एकच अक्षराक उच्चारण एकच वे? न्हय. देखीक : arm, as, call, woman, mountain, at ह्या शब्दांत 'a' चें उच्चारण कितलें भिन्न भिन्न आसा! एक आदर्श लिपींतु एक वर्णाक एकच अक्षर जाय. आनी एक अक्षराक एकूच उच्चार जाय. हाका गणिता भासेन one - to - one correspondence म्हणतात. जे लिपींतु ही व्यवस्था आसा ती आदर्श आसतली. जाल्यार संसारांतु आज चलची एकीय लिपि हे दृष्टीन आदर्श म्हूण सांगचाक जायना

एक आदर्श लिपीक जाय जालोलो आनी एक गुण हो कि ज्या क्रमान उलौवपांतु वर्ण येतात, त्याच क्रमान बरौपान्तु अक्षरां येवूंक जाय. उदा : self ह्या शब्दाचे उच्चारणांतु ज्या क्रमान s + e + l + f (स् + ए + ल् + फ्) हे वर्ण येतात त्याच क्रमान बरौंचीं अक्षरां आयल्यांत. Pin, he, send, superintendent, top असले शब्दांत वर्णक्रमाक अनुसरून अक्षरक्रम आसा.

भारतीय भासेंचे नागरी लिपि व्यवस्थेंतु "कर्म" हो शब्द पळेयात. हांतु उलौंचो वर्णक्रम क, र, म; जाल्यार बरौंचो क्रम क, म, र अशी. देखूनच असले शब्द बरौंचे कठिन आनी बरौच्यांत जायते फंतां चुकीय येवयेत. आतां परयान सांगल्यांतुल्यान आदर्श लिपीचे तीन गुण व्यक्त जातात -

(1) एक वर्णा बदल एकच अक्षर.
(2) एक अक्षराक एकूच उच्चार.
(3) वर्णक्रमाक अनुसरूनूच अक्षरक्रम.

ह्या विचारांक आधार करतु चिंतन केल्यार एक गजाल स्पष्ट जातली. एक भासेंतु जितले वर्ण आसात तितलींच अक्षरां लिपींत जाय. एक भासेंतु चाळीस वर्ण आसात तरी ते भासेचे लिपींतु चाळीस अक्षरां आसूक जाय. तावेळ प्रश्नु हो उदेता कि भासेंतु वर्ण कितले आनी ते कसकसले म्हूण कशी कळतलें? चोवयां.

वर्णांक ओळखूची एक शास्त्रीय पद्धति आसा. देखीक : कान, गान - हे शब्द पळेयात. पयले शब्दांत क् + आ + न् अशी तीन वर्ण; आनी दुसरे शब्दांत ग् + आ + न् अशी तीन वर्ण. पयले शब्दांत 'क्' ज्या क्रमान ज्या स्थानार आयल्यां, त्याच स्थानार दुसरे शब्दांत 'ग्' आयलां. आनी केवल तो फरकूच शब्दभेदाक कारण. क्, आ, न, ग् हे वर्ण निरर्थक. हे वर्ण विशेष क्रमान आयले तेन्ना त्या वर्णक्रमांत अर्थ आसा आनी 'क्' चे स्थानार 'ग्' आयलें, तरि अर्थभेद जालो. देखून क्, ग् हे वर्ण स्वयं सार्थक न्हय जाल्यारीय तांच्यान अर्थभेद प्रकट जाता म्हळेलें स्पष्ट जाता मू. अशीच कालु-गालु, काळी-गाळी हे सार्थक शब्द-जोडे विश्लेषण केल्यारीय क्-ग् ह्या वर्णा पासून जांवचो

अर्थभेद स्पष्ट जातलो. भास आशयविनिमयाचें साधन. ऊंच सांगिल्ले शब्दांतु क्-ग् ह्या वर्णभेदान मात्र आशयभेद जाता देखून क्-ग् अर्थभेदाक कारण म्हण सांगयेत. ऊंच आमी देखलेले शब्द-जोडे कोंकणी भासेचे. देखून कोंकणींतु क्-ग् हो वर्णभेद आशयांचे विनिमयाक हेतु जाता.

आनी एक उदा : सात-हात, साडि-हाडि, सून-हून - ह्या अर्थभेदक शब्द-जोड्यांतु स-ह हे वर्ण अर्थभेदाक कारण जातात. लान-रान, लाक-राक, लास-रास ह्या अर्थभेदक शब्द-जोड्यांतुल्यान ल-र हे वर्ण अर्थभेदक म्हण समजयेत.

ताळ दाळ, तान दान, ताट दाट, तार दार - हांतुल्यान त-द वर्ण स्पष्ट जातात.

पापाय, फापाय - हांतुल्यान प, फ
फळ, बळ - हांतुल्यान फ, ब
फार, भार - हांतुल्यान फ, भ
भास, मास - हांतुल्यान भ, म स्पष्ट जातात मूं.

असले शब्द जोड्यांक न्यूनतम जोडे म्हणतात. हे रीतीन एक भासेंतुले अर्थपूर्ण शब्द जोडे विश्लेषण करनु ते भासेंतुल्या आशयविनिमयाक हेतुभूत आसचे वर्णांक ओळखयेत.

न्यूनतम शब्द-जोड्यांतु वर्णभेदान जांवची अर्थभेदाची व्यवस्था सगट भासेंतु एकच तराची न्हय. देखीक : संस्कृतांतु ल-ळ ह्या वर्णां निमित्ति अर्थ भेद जायना. कालिदास काळिदास जावयेत. ललित लळित जावयेत. ल-ळ वेगवेगळे अर्थभेदक वर्ण न्हय. कोंकणींतु तरि हांचान अर्थभेद जाता. मेल्लो-मेळ्ळो, पोवलीं-पोवळीं, गाल-गाळ, देवली-देवळी, पावली-पावळी ह्या न्यूनतम जोड्यांतुल्यान कोंकणींतु ल-ळ ह्या वर्णानि अर्थभेद जाता म्हळ्ळेलें स्पष्ट दिसता.

आनी एक उदाहरण : मलयाळम भासेंतु ര, റ हे वर्ण वेगवेगळे आसात. हाजान अर्थभेद जाता. കര-കറ, പരക്കുക-പറക്കുക, വര-വറ,

തുരക്കുക-തുറക്കുക. ह्या शब्द-जोड्यां पासून ര-റ हांचान जांवचो अर्थभेद कळता. असलो भेद कोंकणी, हिन्दी, मराठी इत्यादि आधुनिक भारतीय आर्यभासेंतु ना. 'र' वर्णाचे उच्चार जायते तरा आसात; म्हूण तांचान अर्थभेद जायना.

कोंकणींतु म-म्ह हे व्यत्यस्त वर्ण आसात. माव-म्हाव, मेळ-म्हेळ ह्या शब्द जोड्यांतु म-म्ह चो भेद आसा, जाल्यारीय जायते जोड्यांतु असलो भेद देखूं ना. मांतारो-म्हांतारो, मांत-म्हांत, माका-म्हाका असले जोड्यांतु अर्थभेद जायना. मलयाळमांतु उ-ओ हे भिन्न भिन्न वर्ण. जाल्यारीय जायते शब्दांतु 'उ' चे बदल 'ओ' येवयेत.

ഉല-ഒല, ഉലയ്ക്ക-ഒലയ്ക്ക, മുറം-മൊറം, കുളം-കൊളം, പുര -പൊര - हांतु 'उ' आनी 'ओ' विंगड जायनात. पुण കുല - കൊല, ഉപ്പ് -ഒപ്പ് हांतु उ- ओ अर्थभेदक जातात. अशीच कोंकणींतु सामान्य पळेल्यार न-ल हे अर्थभेदक वर्ण. उदा : तन-तल, मन-मल, सान-साल, थन-थल. जाल्यार निंबू-लिंबू, नोणचें-लोणचें हांतु न-ल भेदा निमित्तीं अर्थभेद जायना. तावेळ अर्थभेदाक आधार करनु वर्णभेद देखप स्वल्प कठिन कार्य म्हूण समजूंक जाय. भासेचे आधारभूत विशाल शब्दावलीचे विस्तृत विश्लेषणानच वर्णाची ओळख सिद्ध जांवचीं. अशी अर्थभेदक वर्णां पासून शास्त्रीय चिंतन करनु संस्कृत-भासेची वर्णमाला अडेच हजार वर्सां पूर्वीं आमगेले पूर्विकांनि निर्णय केल्लेली. पाणिनीले अभिमता प्रमाणे संस्कृताची वर्णमाला सकल पळेयात :-

स्वर : अ इ उ
आ ई ऊ
ऋ ॠ लृ
ए ओ
ऐ औ (13)

व्यंजन : क ख ग घ ङ
च छ ज झ ञ

ट ठ ड ढ ण
त थ द ध न
प फ ब भ म
य र ल व
श ष स ह (33)

अशी संस्कृतांतु 46 वर्ण आसात ह्या 46 वर्णां खातिर 46 अक्षरां लिपिमालेंतु जाय. संस्कृताचे लिपिमालेंतु अं, अः, क्ष, त्र, ज्ञ हीं पांच अक्षरांय मेळोंनु 51 अक्षरां आसात म्हूण जायते शताब्दां फुडें धरनु प्रख्यात जालेलें आसा. आनी 'ळ' वेगळेंच आसा.

संस्कृताची ही मूल वर्ण-लिपि व्यवस्था आधुनिक भारतीय भासेंकय चलून येता. म्हूण ह्या सर्वय भासेंक संस्कृताचीच वर्ण व्यवस्था आर्जीय आसा अशी लेकचें खरें न्हय. एकेक भासेंक वर्णोच्चाराचे व्यवस्थेंतु थोडे भौ भेद आयल्यात. उदा : खडी बोली हिंदीन्तु 'ळ' काराक प्रामुख्य ना. जाल्यार राजस्थानींतु 'ळ' कार जायते शब्दांत येता. कोंकणीतु मराठींतु 'ज' काराचें उच्चारण इंग्लीशांतुल्या 'Z' चे वरी जाल्यां. आधुनिक आर्य भासेंतु 'ऋ' काराचो उच्चार खयिंच ना. खयिं ताजो उच्चार 'रि' जाला; आनी खयिं 'रु' जाला. ऋषि ह्या शब्दाचो उच्चार रिषि, रुषि अशी जाता. आनी 'ष' काराचोंच उच्चार 'श' कारा समान जाला.

देखीक : पुरुष पुरुश जाता; भाषा भाशा जाता; परिषद परिशद जाता. एकेक भासेचें पूर्ण चैतन्य समजूचें खातिर ते ते भासेंतुल्या वर्णोच्चारा विषयांतु विस्तृत अध्ययन करका जाता.

ऊंच संस्कृतांतली जीं वर्णतत्वां निर्धारण केल्यांत तांतु प्रति वर्ण शेष सगट वर्णां थाकून विंगड आसा. देखीक : 'क' हो वर्ण इतर सगट वर्णांसून विंगड. जाल्यार सगट वर्णांक भासेचे शब्दांतु आसचें महत्व आनी भार सामान्य न्हय. देखीक : 'क' शब्दाचे आदि-मध्य- अंत्य खंचेय स्थानार येवयेत. कमल, काल, कुल, कूल हांतु 'क' आदि स्थानार आसा. अकाल, आकार,

प्रकार, विकास ह्या शब्दांत मध्य स्थानार आसा. भिषक्, वणिक, सम्यक् ह्या शब्दांत अंत्य स्थानार आसा. जाल्यार सगट वर्ण अशी शब्दाचे आदि-मध्य-अंत्य स्थानार येनात. 'ङ' कार शब्दांचे आदि स्थानार ना, अंत्य स्थानारीय ना. अंक, अंग, शंका, शंख, संग, संघ - असले शब्दांत क, ख, ग, घ ह्या वर्णाचे पूर्वस्थानारीच 'ङ' काराचो उच्चार येता. इतर खंचेय स्थानार ना. अशीच 'ञ' चो उच्चार आदि आनी अंत्य स्थानार ना. मध्य स्थानार च, छ, ज, झ ह्या वर्णांचे पूर्वस्थानार मात्र 'ञ' कार येता. उदा : संचय, पिंछ, संजय, झंझा, पंजर.

हे चर्चेंतुल्यान खाल सांगचीं आशयां स्पष्ट दिसतात :-

(1) वर्णलिपींतु अर्थभेदक वर्णांक आधार करनु अक्षरां आसतात.

(2) भासेंतु वर्णांचे वितरण भिन्न भिन्न आसता देखून लिपिमालेंतु एकेक अक्षरांचे महत्व चड-ऊणे जाता.

(3) अर्थभेद नातिलेंच वर्णभेद आनी अक्षरभेद आसचीं उदाहरणां भासेंतु आसूयेत.

मुकारि ह्या आशयांचे आनी आदर्श लिपीचे गुणांचे आधारार देवनागरी लिपि व्यवस्थेचें विस्तृत अध्ययन करयां.

अध्याय - 9

# देवनागरी लिपिमाला

अडेच हजार वर्सा पिरथम भारतांतुल्या व्याकरणचिंतकांनि संस्कृत भासेचें पूर्ण विश्लेषण करनु तांतुले वर्ण देखून धरलेले. आनी त्या वर्णांचें शास्त्रीय विवरण, वर्गीकरण आनी क्रमीकरण तैयार केल्लेलें. ह्या कार्यांतु जायते चिंतकांनि भागु घेतल्लो जाल्यारीय पाणिनी मुनीचें नांवच खूब प्रशस्त जालेलें. असलें शास्त्रीय चिंतन इंग्लीश भासेक विसावे शेंकड्यांत मेळ्यां. हाजे फुडे संसारांतु केवल संस्कृताकच हें भाग्य मेळ्ळेलें. भासे पासून अशी एक शास्त्रीय चिंतन जाय म्हूण सरि लैटिन, ग्रीक चिंतकांक दिसलें ना आशिल्लें. संस्कृत भासेचें व्याकरण शिकिल्ले Bloomfield वरीचे आधुनिक पाश्चात्य भाषाशास्त्री सगट हें देखून आश्चर्यचकित जाल्यात.

आमगेले पुरातन भाषाचिंतकांनि संस्कृतांतुले वर्ण ओळखून घेतले. एकेक वर्ण उच्चार करतना श्वासगति कशी उरता; ओंठ, जीब, तालु इत्यादि मुखावयवांची स्थिति कशी रावता; वर्ण चड उणे मुखर जाता कशी; वर्णोच्चारांत नांकाचो धर्म कसलो - असले विषयांतु अगाध मनन आनी परिक्षण करनु वर्णांचें विवरण तैयार केल्नें. त्या विवरणांक आधार करनु स्वर, व्यंजन, अल्पप्राण, महाप्राण, अनुनासिक, निरनुनासिक, स्पर्श, अंतस्थ, ऊष्म, इत्यादि वर्गांतु तांकां एक विशेष क्रमान दवरनु वर्णमाला तैयार केल्ली. हे वर्णमालेचे आधारार देवनागरीची लिपिमाला जाल्या. संस्कृताचे वर्णमालेंतु एकावन अक्षरां आसात म्हूण फुडेचे निबंधांतु सांगलेलें. ती लिपिमाला एक फंतां आनीकय पळेयात. ताजे पासून विस्तृत चिंतन करूंक आसा.

## देवनागरी लिपिमाला

स्वर :- अ आ इ ई उ ऊ ऋ ॠ लृ
ए ऐ ओ औ अं अः (15)

व्यंजन : कवर्ग - क ख ग घ ङ
चवर्ग - च छ ज झ ञ
टवर्ग - ट ठ ड ढ ण
तवर्ग - त थ द ध न
पवर्ग - प फ ब भ म
अंतस्थ - य र ल व
ऊष्म - श ष स ह (33)
विशेष संयुक्ताक्षरां - क्ष त्र ज्ञ (3)
51

हीं अक्षरां उच्चार केल्यार संस्कृतांतुले वर्ण आयकयेत. संस्कृतांतु ल - ळ अर्थभेदक न्हय देखून 'ळ' हांतु मेळ्ळें ना. 'ळ' कार 'ल' काराचोच रूपभेद म्हूण लेकतात. भारतांत आज प्रचारार आसच्यो उर्दु लिपि सोडून बाकी समस्त लिपियो हे देवनागरीचेच आधारार आसात. तमिळ लिपिय तशीच. एकेक भासेचे विशिष्ट स्वभावाक लागून अक्षरां चड ऊणें आसयेत. देखीक : मलयाळमांत ह्रस्व ए (എ), ओ (ഒ), ഠ, ഴ, ള, ഉ हीं अक्षरां विशेष आसात. जाल्यारीय अक्षरांचें स्वरूप, क्रम आनी बरौंची रीति नागरीक अनसरूनूच आसा.

नागरी लिपिमालेचें सौन्दर्य आस्वादन करूंक ती उच्चार करनु आयकल्यार पूरो. आनी ताजे लागी एक क्रमूय नातिल्ले नारला कूडांत नारलु भरनु घाल्यावरि आशिल्ली रोमी लिपिमाला उच्चार करनु आयकात. रोमींतु स्वर आनी व्यंजनां वेगवेगळीं केलीं नात. वर्णां गुणांचे आधारार कसलेंय क्रमीकरण ना. आनी लिपीचे उच्चाराक वर्ण-संबंदूय ना. आसो. रोमी पासून चिंतन करचे वेळार तें काडूं. अरबी-उर्दू लिपिमालेचीय गति हीच.

शब्द बरौंचे वेळार व्यंजना उपरांते स्वर लागवपाची एक विशिष्ट पद्धति नागरींत आसा. उदाहरण : 'द' लागी 'ए' बरौंच्याक 'दए' अशी

वरयनात. 'ए' चे बदल 'ॅ' 'द' चे उंचार येता. अशी व्यंजनांक लांवचे स्वरचिह्नांक 'मात्रा' म्हूण नांव. स्वरावळी आनी स्वरांच्यो मात्रो खाल पळेयात:-

| स्वर : | अ | आ | इ | ई | उ | ऊ | ऋ | ॠ | ए | ऐ | ओ | औ | अं | अः |
|---|---|---|---|---|---|---|---|---|---|---|---|---|---|---|
| मात्रा: | | ा | ि | ी | ु | ू | ृ | ॄ | े | ै | ो | ौ | ं | ः |

ह्यो मात्रो व्यंजनांलागी मेळोंची रीति पळेयात :-

ि क ा ी ो ौ :

आ, ई, ओ, औ, अः हांच्यो मात्रो व्यंजनाचे उजे तांतु; 'इ' ची मात्रा मात्रशीं; उ, ऊ, ऋ, ॠ च्यो मात्रो खालाक; ए, ऐ, अं हांच्यो मात्रो उंचार - अशी वरयतात. देखीक : क, का, कि, की, कु, कू, कृ, कॄ, के, कै, को, कौ, कं, कः 'र' कारालागी उ ऊ मात्रा मद्दें जोडतात. अशी रु, रू साधारण रीतीनय वरोयेत.

अशी व्यंजनांलागी स्वर पूर्णरूपान वरोनातिल्लें ताजी मात्रा वरवप म्हळेलें एक किरकिर म्हूण लेकशात. ही आमगेले पूर्विकांनि देखलेली एक मितव्ययाची पद्धति.

'अ' काराक मात्रा ना म्हळेलें ह्या मितव्ययाचें पारम्य. सगट स्वरांक मात्रा आसा; फकत अकाराक ना. व्यंजनां भितर अकार आसा म्हूण लेकचें. अकार सगट व्यंजनांत अंतर्भूत आसा ही एक आमगेले पूर्विकांली क्रोड युक्ति. ही हनुमन्ताली युक्ति. हनुमंतु लंकेरि गेलो सीतामाईक सोदून. सगट घरांतु चोयलो. सर्वकडे बायलांलागी घोंव आसा; आनी तीं सगट भांगर-जायें घालनु चांग कापड-चोळी न्हेसून आसात. फकत एकली बेसल्या अशोका मुळांत. तिका कांय अलंकार ना. तावळीच ताका कळ्ळें ज्या माईक सोदून आपण भोंवता ती हीच. हिका घोंव ना? कित्या ना? तो तिजे हरद्यांत

अंतर्यामी जावनु सदा सर्वदा विराजमान आसा. अशीच ज्या व्यंजनांलागी मात्रेचो अलंकार एकूय ना, त्या व्यंजनांत अकार अंतर्भूत रावला अशी लेकात. ही एक महायुक्ति कि न्हय?

आनी ही युक्ति आयची-कालची बी न्हय; भौ पूर्विल्ली. भगवद्गीतेंतु भगवन्तु अर्जुनाक सांगता :-

'अक्षराणां अकारोऽस्मि' (10-33)
अक्षरां मद्दें अकार हांव.

अक्षरमालेंतु अकार आदींच कशी आयला कि तशी समस्त विश्वाचे आदींतु मूलकारण जावनु हांव आशिलो, आसा आनी आसतलो अशी ताजो अर्थ करतात. आनी एक अर्थूय आसा : जशें सर्व अक्षरांतु भितर अकार आसा, तशीच समस्त प्रपंचांत हांव अंतर्यामी जावनु आसा. आमगेले अक्षरमालेची ही एक मुख्य व्यवस्था उडगास दवरनूच भगवन्तान अशी म्हळेलें आसूका.

व्यंजनांलागी स्वर मेळौंची ही पद्धति पळैल्या तेन्ना एक संशय दिसता. एक आदर्श लिपींतु एक वर्णाक एकच अक्षर जाय म्हळोलो नियम नागरी अनुसरण करता व्हय? करता मू. हांगा एक स्वर वर्णाक दोन अक्षरां नात. एकच अक्षर. तें पूर्ण बरैनातिल्लें ताजो एक अंश व्यंजनालागी जोडप. इ, ई, ए हांकां मात्र अशी दिसना. जाल्यार काका साहेब कालेलकरांले पद्धतींतु हीं अक्षरां अि, अी, अे, अशी बरयतात देखून व्यंजनार जोडौंचीं चिह्नां स्वराक्षराचेच अंश म्हळेलें स्पष्ट जाता कि ना?

पुण स्वराचीं चिह्नां व्यंजनाचे मुकार-माक्शीं खाल-ऊंच जोडपान एक दोष आयला. अक्षरां बरौनु मुकार मुकार वचाक जायना, खाल-ऊंच-माक्शीं वचूका जाता. हें स्वल्प कठिनच. 'इ' कराची मात्रा माक्शीं आयलेल्या निमित्तान वर्णक्रमाक अनुसरून अक्षरक्रम म्हळोलो आदर्श लिपीचो गुण हांगा ना जाला.

देखीक : 'कवि' हें उदाहरण पळेयात. हांतु वर्णक्रम क + व + इ पुण अक्षरक्रम क + इ + व जाला. देखून इकार-मात्रा व्यंजना माक्शीं मेळवप

अशास्त्रीय म्हूण सांगका जाता. पूज्य विनोबाजींन हाका परिहार सांगलो. तांगेले अभिप्रायाक अनुसृत इकार-मात्राय व्यंजनाचे उपरांत येतली. ते आपण्यालें नांव अशी बरेताले - वीनोबा. इकारूय व्यंजनाचे उपरांत बरोंचे. ही युक्ति आतां मेरेन कोणे स्वीकारली ना. बुद्धवन्तांनी सांगचें आमी आयकतले क्षय?

ऊंच 'लृ' कारा विशीं कांय चर्चा केली ना. मागीर सांगूं.

व्यंजनालागि स्वरमात्रा जोडोंवचे पासून ज्या मितव्ययाची गजाल आमी देखली, तसलो मितव्यय व्यंजनाक व्यंजन लावचांतूय आसा. फुडे एक व्यंजना सकल दुसरें व्यजन बरोंची रीति आशिल्ली. आतां ती ना. आतां प्रचलित पद्धति कसली म्हूण कळूक व्यंजनाक्षरांची एक विशेषता पळोंक जाय. चडय व्यंजनाचे आखेरीक एक उर्बी रेखा आसा मूं. असली अक्षरां खंच खंचीं पळेयात :-

ख ग घ च ज झ ञ ण त थ ध न

प ब भ म य ल व श ष स

हीं अक्षरां दुसरे एक व्यंजनाक जोडताना प्रथमाक्षराची उर्बी रेखा सोडची.

उदा : ख्य ग्य घ्य च्य ज्य झ्य ञ्च त्य थ्य ध्य न्य

प्य भ्य ब्य ल्य व्य श्य ष्य स्य

क, फ ह्या दोन अक्षरांतु उर्बी रेखा मद्दें आसा देखून ती सोडूंक जायना. ह्या अक्षरांक दुसऱ्यां लागी जोडोंवचाक उर्बी रेखेचे उजे तांतु मेरेन येवनु दुसरें अक्षर जोडयतात.

उदा : क्त, क्य, फ्त.

'क' चे लागी 'लृ' स्वर अशीच जोडतात - क + लृ = क्लृ

छ, ट, ठ, ड, ढ, द, ह - ह्या अक्षरांक व्यंजन जोडोंवचाक हांचे लागी खाल उजे तांतु '्' अशी एक रेखा बरयतात. हे रेखेक हल चिह्न म्हूण नांव.

उदा : छ्व, ट्ट, ट्ठ, ड्य, ढ्य, द्य, ह्व

जाल्यार द् + द = द्द; द् + य = द्य; द् + व = द्व; द् + ध = द्ध अशी

बरयतात. बुद्द, उद्यम, द्वार, उद्धार ह्या शब्दांत हीं अक्षरां पळेयात. हांगा मितव्ययाचें सिद्धांत लागना म्हळेलें स्पष्ट. आनी एक अक्षर बाकी आसा - र. हें अन्य अक्षरां लागी जोडवप कशी? चोवया.

ज्या अक्षराक उबी रेखा आसा ताजे उपरांते 'र' आयल्यार 'र' चे बदलाक '/' अशी एक रेखा उबी रेखेचे माक्शीं जोडतात.

उदा : क् + र = क्र, ग + र = ग्र, घ + र = घ्र

उबी रेखा नातिल्ले अक्षरां लागी 'र' जोडोवचांक '‸' तांचे खाल बरयतात.

उदा : छ + र = छ्र, ट + र = ट्र, ड + र = ड्र

एक व्यंजना पिरथम 'र' कार जोडवप हाजाकय कठिन.

उदा : र + क = र्क (अर्क), र + ग = र्ग (मार्ग), र + जा = र्जा (ऊर्जा)

हांगा 'र' कारांचें चिह्न 'ʿ' शिरोरेखेचे उंचार व्यंजनाक्षरा उपरान्ते बरयतात. वर्णक्रमाक अनुसरून अक्षरक्रम म्हळोलो आदर्श लिपीचो गुण हांगा पूर्णतः मोडून वता.

उदा : धर्म - वर्णक्रम ध + र + म; लिपिक्रम ध + म् + र
ऊर्जा - वर्णक्रम ऊ + र + ज् + आ ; लिपिक्रम ऊ + ज् + आ + र

'र' एक अक्षराक र, /, ‸, ʿ अशी चार चिह्नां आशिल्ल्यान एक वर्णा बदल एक अक्षर म्हळोलो नियमूय मोडता. नागरी लेखनाचो भौ कठिन भाग हो, हाका सरळ करूंक काकासाहिबान निर्देश दिल्यात. तांकां अनुसरून - क् + र = क्र (उदा : क्रम), ध् + र + ध्र (उदा : आध्रा), म् + र + म्र (उदा : आम्र)

'ʿ' ह्या चिह्ना बदलाक 'र' कारूच अथवा ताजो एक कुट्टुको बरोवप.

उदा : कर्म = करम वा कर्‍म, धर्म = धरम वा धर्‍म

काकासाहिबाली ही रीति भारत सरकारान अंगीकारली ना.

नागरींतु द्विताक्षरां पासून एक विशेष नेम आसा. क च ट त प, ग ज ड द ब, ण न म य ल व, श स - ह्या अक्षरांक द्वित्व येवयेत. देखीक : क्क, च्च, ट्ट, त्त, इत्यादि. जाल्यार ख छ ठ थ फ, घ झ ढ ध भ ह्या अक्षरांक द्वित्वाचे बदलाक क्रमान क्ख, च्छ, ट्ठ, त्थ, प्फ, ग्घ, ज्झ, ड्ढ, द्ध, ब्भ येतलीं. ङ, ञ, र, ष, ह हांकां द्वित्व ना.

इकाराची मात्रा व्यंजना मार्कशीं येवप, र कारा मात्रेचें स्पवैचित्र्य आनी बरैंची रीति, द्वित्वाक्षरांची ऊंच सांगलेली व्यवस्था - ह्या तीनीय कारणांनि नागरी शिकप आनी बरोवप कठिन दिसता.

नागरी लिपिमालेंतु वर्णमालेंतु नातिल्लीं पांच अक्षरां आसात म्हूण फुडेचे निबंधांत सांगलें आसा. तीं अक्षरां हीं पांच - अं, अः, क्ष, त्र, ज्ञ. हांचे विशीं स्वल्प चिंतन करयां.

अं - हें स्वरावळींतु 'औ' चे उपरांते येता. हाका अनुस्वार म्हूण नांव. हाजें चिह्न ' ' हेंच. हें अनुनासिक उच्चारणाचें सूचक. हें बरोचे विशीं लागीचे निबंधांतु चर्चा करूं.

अः - हें विसर्गाचें सूचक. केवल संस्कृत तत्सम शब्दांत येता.

नागरी लिपिव्यवस्थेंतु व्यंजनां लागीं स्वरय व्यंजनय जोडोंवची ही पद्धति देखून कोण एक भाषाशास्त्रज्ञ नागरीक सिलबिक लिपि म्हणता. जाल्यार ती दृष्टी खरी न्हय. नागरी वर्ण-लिपीच. किल्या म्हळ्यार हांतु प्रती वर्णाक बरोंचांतु प्रातिनिध्य मेळता. कांय वर्ण सोडून वचना आनी कांय अक्षरांश अनावश्य ना. बरोंचांतु उलौंचे सगट वर्ण येतात. कांय सोडूक ना. आनी आवश्य नातिल्लें अक्षरां बरोवनु तांकां Silent करची पद्धतीय ना. नागरी लिपि शास्त्र-सम्मत जावपाक हेंच मुख्य कारण. ही पद्धति भारतांतु आशिल्ले सगट लिपींत आसा.

अध्याय - 10

# कोंकणी खातिर देवनागरी

आमी देवनागरी लिपि बरौंची पद्धति देखली. आतां ती कोंकणीक प्रयोग करचे पासून चिंतन करूयां. देवनागरीचे स्वरावळींतु तेरा चिह्नां आसात. आधुनिक भाषाशास्त्राचे दृष्टीन पळेल्यार अ आ इ ई उ ऊ ए ऐ ओ औ - हे धा स्वर कोंकणींत देखयेत. अर्थपूर्ण न्यूनतम शब्दजोडे विश्लेपण केल्यार ह्या वर्णांचें अर्थभेदकत्व देखू येतलें. उदा : तन-तान, तण-ताण, तळी-ताळी हांतुल्यान अ आ चो फरक दिसता. तशीच आट-ईट, तान-तीन, ताक-तीक हांतुल्यान आ - ई चो फरक दिसता. इतर थोडे फरक पळेयात :

| शब्द - जोडे | अर्थभेदक स्वर |
|---|---|
| दिस (क्रि) - दीस; दिन - दीन | इ - ई |
| अनाम - इनाम; अतर - इतर; गळो - गिळो | अ - इ |
| अपकार - उपकार; अतर - उतर | अ - उ |
| आल्लें - इल्लें; दान - दिन; बाळ - बिळ | आ - इ |
| आजो - उजो; काल - कुल; ताका - तुका | आ - उ |
| भात - भूत; मात - मूत; सात - सूत | आ - ऊ |
| मीठ - मूठ; कीडो - कूडो; खीळो - खूळो | ई - ऊ |
| कुल - कूल; उब (क्रि) - ऊब | उ - ऊ |
| दान - दोन; मार - मोर; चार - चोर | आ - ओ |
| मेट - मोट; पेर - पोर; तेल - तोल | ए - ओ |
| देव - दैव | ए - ऐ |
| जड - जोड; कण - कोण; मर - मोर | अ - ओ |
| चार - चोर; जार - जोर; घास - घोस | आ - ओ |
| पैस - पौस | ऐ - औ |
| गोरी - गौरी; पोस - पौस | ओ - औ |

हांगा स्वरांचो परस्पर अर्थभेदक व्यतिरेक स्पष्ट जाता. 'ऋ' काराचो उच्चार 'रि' जाता. जाल्यारीय संस्कृताचे जायते तत्सम शब्द बरोंचाक हें अक्षर आनी ताजी मात्रा जाय देखून स्वरावळींतु हें अक्षर उरचें बरें. ॠ (दीर्घ) आनी लृ कोंकणींत ना. देखून तीं अक्षरां सांडयेत.

अं - हो स्वर न्हय. हाका अनुस्वार चिह्न म्हूण नांव. स्वराचे उपरान्त ताका लागून येंवचो एक नाद - अशी ताजो अर्थ. वास्तव सांगल्यार शिरोरेखे उंचार घालचो एक बिन्दु अथवा तिळो हाजे चिह्न आसा.

स्वराक हें चिह्न लागल्यार ताजे उच्चारणाक अनुनासिक म्हणतात. कोंकणीचे सगट स्वरांक असलो उच्चार येंवयेत. तावेळ अं आं इं ईं उं ऊं एं ऐं ओं औं अशी जातलें. हे स्वर साधारण स्वरांवरि न्हय. आ-आं हे दोनीय स्वर लागि लागि म्हूण आयकात. आ म्हणताना श्वास तोंडांतल्यान अबाध गतीन भायर वता. जाल्यार आं म्हणचे वेळार श्वास तोंडांतल्यानय नांकांतल्यानय वता. बोटांनि नांक धांपून परीक्षण करनु चोवयेत. आं म्हणताना बोटांचेर श्वास येवनु मारता कळतलें. आ म्हणताना अशी जायना. अ आ इ ई उ ऊ ए ऐ ओ औ हे साधारण स्वरांक निरनुनासिक स्वर म्हणूय अं आं इं ईं उं ऊं एं ऐं ओं औं ह्या नांकांतल्यान श्वास वच्चा स्वरांक अनुनासिक स्वर म्हणूय भाषाशास्त्रांत नांव दिल्यां.

अनुनासिक स्वरा निर्मितिं कोंकणींतु अर्थभेद जाता. देखीक : देव-देंव, वाटो-वांटो, नाव-नांव, मास-मांस, ताक-तांक, वेग-वेंग. ह्यातु साधारण स्वरा बदल अनुनासिक स्वर आयल्यार अर्थभेद जाता कि ना? देखून अनुनासिक स्वर अर्थभेदक आसात. ताका-तांकां, येता-येतां, आयलो-आयलों, गेले-गेलें, आयली-आयलीं ह्या उदाहरणांतु अनुनासिकान व्याकरणिक अर्थभेदुय दिकूक येता. देखून अनुनासिक म्हळेलें कोंकणींतु अर्थभेदक वर्णतत्व म्हूण स्वीकारचें आसा. हाजो प्रतिनिधी जावनु लिपिमालेंतु अनुस्वार जाय म्हळेल्यांत कांय संशय ना.

अः- हो स्वर न्हय. हाज्यान अर्थभेदुय जायना. हाका विसर्ग म्हूण संस्कृतांत नांव. ':' हाजें चिह्न. दुःख, अधःपतन, अंतःकरण असले संस्कृत तत्सम शब्द

बरौंचाक हें चिह्न जाय. ह्याजो उच्चार करचे वेळार छट जावनु श्वास भायर उसळून ह कारावरीचो मन्द शब्द जाता. ऊंच सांगीले शब्द दुक्ख, अधष्पतन, अंतक्करण अशीय बरौयेत. आमगेले पुरातन परंपरेक मानु दिंवचे खातिर हें विसर्ग लिपिमालेंत दवरयेत. अशी कोंकणीचे स्वरमालेंत खाल सांगचीं तेरा अक्षरां जाय :-

अ आ इ ई उ ऊ ऋ ए ऐ ओ औ अं अः (13)

आतां कोंकणीचे थोडे विशिष्ट स्वरां पसावत विचार करूयां. कोंकणींतुलो अकार मलयाळम वा कन्नडांतल्या अकारा वरी न्हय. मलयाळमांतु अकार विस्कळ आसा; कोंकणींतुलो धांपल्लो. मलयाळमांतुलो अकार म्हणताना कोंकणींतुलो म्हणचा पशी तोंड चड विस्कळ जाता. देखून मलयाळमांतु अकार चड विवृत आनी कोंकणींत संवृत अशी सांगयेत. Akbar ह्यांतुलो प्रथमलो अकार मलयाळमांतुल्या वरि आनी बकाराक लागल्लो कोंकणींतुल्या वरि आसा. घर, चड, वच, मर, अधिक - ह्या शब्दांतु कोंकणीचो निज अकार आयकयेत. ह्या अ काराक उच्चार भेद आसात. वच, चड, स - ह्यांतु आशिल्लो अ कार घर, अधिक, असले शब्दांतुले अ कारांत थाकून स्वल्प वेगळो. हो भेद अशी दाखयतात -

व॑च, च॑ड, स॑, सम॑ज, भि॑तर

ऊंच ( ׀ ) चिह्न जोडलेल्या अक्षरांतुल्या अ काराक दिगाय स्वल्प चड आसा. आनी अ काराकच स्वल्प ओ काराचो उच्चार करची रीतीय आसा. हो ओ कार पूरा ओ कार न्हय. हो म्हणचे वेळार ओंट स्वल्प वाडकूळे जातात. ह्याजे उच्चारा खातिर रोमींतु 'o' बरयतात. डॉ. मनोहर सरदेसांयाल्या 'जायो - जुयो' ह्यांतुल्यो दोन फांतियो पळेयात :-

सोंपलो दीस तरीय कशी
जमीन अशी हून आसा?

somplo dis tori-i koxi
zomin oxi hun asa?

हांतु तरीय, कशी, जर्मीन, अशी - ह्या शब्दांतु ओं कार आयला. हो ओं कार पूर्ण ओ कार न्हय. हो अ काराचो एक भेद. सोंपल्लो ह्या शब्दांतु पूर्ण ओ कार आसा. वस्तुतः थोडे शब्दांतु असल्लो अ काराचो उच्चारभेद आयल्यारीय अर्थ भेद जायना.

उदा : 'स' हो संख्याशब्द पळेयात. स, सं, सों - अशी तीन प्रकारांनि उच्चार करयेत. तशीच

| | | |
|---|---|---|
| चड | चंड | चोड |
| पणस | पंणस | पोणोस |
| तण | तंण | तोण |

अशी तीन वेगवेगळे अक्षरान उच्चार केल्यारीय उच्चारण भेदान अर्थभेद जायना. आधुनिक भाषाशास्त्राचे आशयाक अनुसरून ह्या तीन प्रकारांचे अकार वेगवेगळे म्हूण लेकचे न्हय. हांकां एकच अ कारवर्णाचे उपवर्ण (Allophones) म्हणूयेत. अर्थभेदाक अनुसरून वर्णभेद; आनी वर्णभेदाक अनुसरून अक्षरभेद - हें एक शास्त्रीय सिद्धांत. देखून साधारण अकार, स्वल्प दीर्घ अकार, आनी वाडकूळो अकार हांकां भिन्न भिन्न स्वर जावनु लेकचें नाका. हीं वरौंचाक एकच अक्षर पूरो.

अशीच 'ए' काराचे दोन उपवर्ण आसा - ए कार - दोन भेद - एक ह्रस्व आनी एक दीर्घ. ह्रस्व ए कार ह्या शब्दांत आयकतात - गेल्लो, केण्यो. जाल्यार एक, केळें, पेड, वेळेर, देड, अडेच - ह्या उदाहरणांतु 'ए' दीर्घ. पैले ए कारा बदल दुसरो अथवा दुसऱ्या बदल पैलो ए कार उच्चार केल्यारीय अर्थभेद जावना. देखून हे दोनीय स्वर एकच ए कार वर्णाचे उपवर्ण म्हूण लेकयेत. हीं बरौंचाक वेगवेगळीं अक्षरं नाकात.

कोंकणींतु ए कारा वरीच ओ काराकय दोन उपवर्ण आसात; एक ह्रस्व आनी एक दीर्घ. हांचीं उदाहरणां :

| ह्रस्व | दीर्घ |
|---|---|
| ओखद | आयलो |
| पोकळ | मोर |
| पोरसू | घोडो |
| कोंकण | कोयरु |

ह्यांतु ह्रस्व स्थानार दीर्घ अथवा दीर्घ स्थानार ह्रस्व उच्चार केल्यारीय अर्थभेद जायना. देखून ह्या दोनीय उच्चारांक एकच ओ काराचे उपवर्ण म्हूण लेकूका. दोनीकय मेळनु एकच अक्षर पुरो.

ऊंच स्वरां पासून अर्थपूर्ण न्यूनतम शब्द-जोडे विश्लेषण केल्यावरीच व्यंजनांपासूनूय करनु तांचे अर्थभेदकत्व स्पष्ट करयेत. त्या विषयांतु विस्तृत चिंतन ह्यांगा करना. पुण थोडे विशेष व्यंजना पसावत चर्चा करुं.

**अनुनासिक व्यंजन**

ङ, ञ, ण न, म - ह्या व्यंजनांक अनुनासिक व्यंजन म्हणतात. हे वर्ण उच्चार करचे वेळार नांकांतुल्यान श्वास भायर वता. अनुनासिक स्वरां वरीच अनुनासिक व्यंजन. ह्या व्यंजना बदल अनुस्वार बरौंची रीति आसा. उदा :- सङगीत = संगीत, अङग = अंग. कोंकणी भासेंतु 'ङ' वर्णाचें वितरण भौ सीमित आसा. तो वर्ण केवल क ख ग घ वर्णांचे पूर्वस्थानार मात्र येता. देखून 'ङ' कारा बदल फुडेचे अक्षरा ऊंच अनुस्वार बरयतात. कोंकणींतु 'ङ' कार बरौंची रीतीच ना. सगट कडे अनुस्वार येता. उदा : अंक, शंख, भंग, संघ.

ञ कराची स्थितीय अशीच. हो वर्ण केवल च छ ज झ वर्णांचे पूर्वस्थानारीच येता. दुसरे खंचे स्थानार ना. देखून ह्याजे बदल पूर्वाक्षरारि अनुस्वार बरौंची रीति प्रचारार आयल्या.

उदा : सञ्चय = संचय. पंछी, संजय, झंझट इत्यादि. ह्यांतुल्यान स्पष्ट जाता कि ङ, ञ हीं अक्षरां अक्षरमालेंत आसा जाल्यारीय तांचो प्रयोग करनात. तांचे बदल अनुस्वार बरयतात.

ण कार शब्दांचे आदि, मध्य, अंत्य स्थानार येता.

उदा : णव, प्रणय, प्राण.

ट ठ ड ढ ह्या वर्णांचे पूर्वस्थानार ण कार येताना ताजे बदल अनुस्वार बरौयेत.

उदा : पण्डित = पंडित. अशीच कांटो, कुंठित, कुंडो, पंडरपूर.

न कार शब्दाचे आदि मध्य अंत्य स्थानार येता.

उदा : नमन, मनन.

त थ द ध हांचे पूर्व स्थानारीय येता. जाल्यार तेन्ना न कारा बदल अनुस्वार बरयतात.

उदा : अंत, पंथ, चंद्र, गंध. अन्त, पन्थ, चन्द्र, गन्ध अशीय बरोयेत.

प फ ब भ हांचे पूर्वस्थानार येवचे म कारा बदलय अनुस्वार बरयतात.

उदा : पंप, चांफो, तुंबो, कुंभ. ण न म हे वर्ण शब्दाचे सगट स्थानार व्यापक रूपान प्रयोग करतात. देखून ङ, ञ बरि तांकां सोडूंक जायना.

**ल-ळ भेद**

कोंकणींतु ल-ळ हांचान अर्थभेद जाता म्हूण फुडेचे निबंधांत सांगलें आसा. हांचान अर्थभेद जाता देखून तांकां वेगवेगळे वर्ण जावनु लेकचें. अक्षरमालेंत ल कारा उपरांते ळ कार बरोंचें. देखून कोंकणींतु अंतस्थ वर्णांचीं पांच अक्षरां आसतलीं - य र ल ळ व अशी. ळ कार ह काराचे उपरांते बरौंची रीति खरी न्हय.

**ऊष्म वर्ण**

श ष स ह - ह्या वर्णाक ऊष्म म्हूण नांव. हांतु स-ह हे अर्थभेदक आसात.

उदा : सात-हात, सार-हार, सस्त-हस्त. जाल्यार श, ष, स हांचे अर्थभेदकत्व भौ ऊणे. भाषा, भाशा, भास अशी जावयेत. Shirt शर्ट, षर्ट, सर्ट जावयेत. कषाय, कशाय, कसाय जाता. असलीं जायतीं उदाहरणां आसात. कोंकणींतु श-ष हांचे मद्दें श काराक प्रामुख्य आयलां. ष कार केवल संस्कृताचे तत्सम शब्द बरौंचे खातिर आसा.

उदा : कृषि, सृष्टि, राष्ट्र, राष्ट्रीय, पुष्प.

### नवे वर्ण

कोंकणींतु थोडे नवे वर्ण उबजल्ले आसात. न म ल व ह्या चार वर्णांचे महाप्राण वर्ण नवे जाल्यात. हे बरौंचाक न्ह म्ह ल्ह व्ह अशी संयुक्ताक्षर प्रयोग करतात. उच्चारणा नदरेन सांगल्यार हे संयुक्त न्हय. क च ट त प आनी ख छ ठ थ फ हांचे मद्दें कसलो फरक आसा की तसलोच फरक न म ल य आनी न्ह म्ह ल्ह व्ह हांचे मद्दें आसा. ख छ ठ थ फ हांकां महाप्राण वर्ण म्हणतात. कित्या म्हळ्यार, ते उच्चारण करताना चड श्वास वा प्राण भायर वता. अशीच न्ह म्ह ल्ह व्ह उच्चारण करचे वेळारीय चड श्वास भायर वता. न-न्ह, म- म्ह, व-व्ह, हांचे मद्दें उच्चारभेद आसाच; अर्थभेदूय आसा.

| उदा :- | ना | माव | मेळ | मोवु | वर | वोडु | वांव |
|---|---|---|---|---|---|---|---|
| | न्हा | म्हाव | म्हेळ | म्होवु | व्हर | व्होडु | व्हांव |

लवु- ल्हवु हांचें मद्दें अर्थभेद देखूं पडना. म्हाका, म्हजो, म्हजान असले उच्चार आयकयेत जाल्यारीय माका, माजो, माज्यान म्हळ्यारीय जाता. 'महा' म्हळेलें 'म्हा' रूपानय खयिंय आयकूं येता. महाजन म्हाजन जाता आनी महात्मा म्हात्मा जाता. हाजान उच्चारण भेद जाता शिवाय अर्थभेद जायना मू. आसूं.

### क्ष आनी त्र

फुडले निबंधांत सांगल्यावरि क्ष = क + ष आसा जानी त्र = त + र आसा. हीं अक्षरां साधारण संयुक्ताक्षरां रूपानय बरौयेत.

### ज्ञ

ज्ञान, विज्ञान, ज्ञानी असले शब्दांत येंवचो ज्ञ कार घटनानुसार ज + ञ जाल्यारीय ताजें उच्चारण विचित्र जाता. 'ज्ञान' खयिं गिन्यान जाता; आनी खयिं गियान जाता. हो वर्ण आनी ताज्यान जांवचे शब्द सगटय संस्कृत तत्सम आसात. हजारांनि वर्सां, कोटानुकोटि जनांनि म्हूण आयलेल्यान हाजो उच्चार अशी विचित्र जालेल्यांत कांय अजाप ना. लिपिमालेंतु 'ज्ञ' क स्थान मेळूकय कारण उच्चाराचें हें वैचित्र्य जावयेत.

हे चर्चे थाकून सकल सांगचे निर्णय मेळतात :-

नागरी स्वरावळींत आशिल्या 15 अक्षरांत कोंकणीक -

1) धा वर्णाक्षरां आनी एक अनुस्वार अशीं इकरा अक्षरां जायच.

2) ॠ दीर्घ आनी ॡ नाका.

3) ऌ ह्रस्व अः - हीं परंपरे खातिर दवरयेत

नागरी व्यंजनावळींत आशिल्या 36 अक्षरांत कोंकणीक -

4) ङ ञ - हांचो उपयोग ना.

5) य, र, ल, व लागीं ळ जोडोंवचाक जाय.

6) ष, ज्ञ परंपरे खातिर दवरयेत.

7) क्ष, त्र - हीं संयुक्ताक्षरां देखून संयुक्त रूपान बरोयेत.

अध्याय - 11

# रोमी लिपि भारतांतु

**इतिहास**

क्रिस्त आदी शतकांत धरनु रोमी लिपि भारतांत परिचित आशिल्ली. रोमा सम्राटाले नांवाचीं नाण्यां भारतांत जायते कडे थाकून पुरातत्व वैज्ञानिकांक मेळ्ळेलीं आसात.

सोळावे शतमानांतु फिरंग्यांनी गोंय जिकून घेतल्ले उपरांते रोमीचो परिचय आनी प्रयोग व्यापक जावूंक लागलो. फिरंग्यां माक्शीं डच, फ्रेंच आनी इंग्लीश व्यापारियांनि, सैनिकांनि, पाद्रींनि आनी शासकांनि रोमी लिपीक भारतांत प्रचार दिल्लो. ह्या सर्वांलेय भासेंची लिपि रोमीच. ब्रिटिश शासकांनि पाश्चात्य शिक्षण रीति हाडली आनी शासनाची विद्येची एकमात्र भास जावनु इंग्लीशाक प्रचार दिल्लो. अशी आज भारतांत खयिं चोयल्यारीय रोमी दिकूक पडता. शिकिल्ले वाचिल्ले सर्व जन रोमीन हस्ताक्षर करतात. सर्वत्र सरकारी आफीसांचीं आफीसरांचीं नांवां रोमीनच बरयल्यांत. सर्व व्यापारसंस्थेंतुय रोमी आसा. टाइपराइटर नातिल्लें खंचेंय आफीस वा व्यापार संस्था चलची ना. तांची लिपि रोमीच. हडको, सिडको, फेडो, साडु असलीं नवीं नवीं संस्थे-नांवांय रोमी आधारार जाता आसात. अशी भारतांतु देशी लिपि पशि चड प्रचार रोमीक मेळ्ळा. आज आमी रोमीचो धिमधीमांत बसल्यात.

**दोष**

रोमी एकीच; जाल्यार तिजीं सवंगां अनेक. आमगेलो नायक आसा मू; तो Naik, Nayak, Naick, Naique अशी तरातरा वेष घालनु नांचता. रोमीन बरयलेलें कितें म्हूण बरयलेल्याकच कळत आनी वाचितल्लो कशी वाचतलो म्हूण ताकाच कळत. Quepem म्हूण बरय, आनी केपें म्हूण वाच. पणजी म्हूण

बरय; आनी पाणाजी म्हूण वाच. केरळांतलें रोकेट केन्द्र तुंबा आसा कि थुंबा? तुरवूर गांव थुरवूर जाता. कृत्रंवु रोमींतुल्यान कुनह्यानवू जाता. आमगेलो उम्मन चांडी ऊमन चंदि जाला. पाठक रोमींतुल्यान पातक, पथक, पत्ताक अशीं कितें कितें जायत, देव जाण. आमगेलो डॉ सी.वी.रमण रोमीचें कृपेन 'रामन' जाला. तो प्रो. पिरेरा आसा मू. तागेलें नांव जोस कि जुजे कि जुसे कि जोसे? देवाक कळता! बंगाळ देशाची राजधानी ढाका कि धाका? गोहटी, गौहटी, गौहत्ती म्हूण सगटय सांगचे गांवाक गुवाहटी म्हूण व्हयवे समच नांव? अशी उणे पीडा वे ही लिपी आमकां भोगयता?

सत्रावे शतकांत कोचीचें डच गवर्णदोरान केरळांतुलें ओषध सम्यां विशीं एक ग्रंथ बरयलोलो. त्या गवर्णदोराचें नांव 'ऑड्रिकि फांड्र' म्हूण आमगेले वैद्यांनि नागरीन बरयलां. जाल्यार रोमी स्पेलिंगा आधारार ताजें नांव 'हेनरिक वान रीड' म्हणतात. यथार्थ कोण जाण? अशी जावचाक कारण कितें?

रोमी लिपिमालेंतु सवीस अक्षरां आसात. आनी इंग्लीश भासेंतु पंचताळीस पन्नास वर्ण आसात. सवीस अक्षरांनि इतले चड वर्ण कशी बरवप? भारतीय भासेंतु धा स्वरवर्ण आसात. अनी रोमींतु a, e, i, o u अशी पांचच स्वराक्षरां आसात. तावेळ आदर्शलिपीचो एक वर्णाक एकच अक्षर म्हळोलो गुण कशी उरतलो? आमगेले भासेंतुले ह्रस्व दीर्घ स्वर वेगवेगळे बरेंचाक रोमींतु अक्षरां नात. नागरींतुले त वर्गाकय ट वर्गाकय वेगळे करूक रोमीक कशी जातलें? तकाराक 't' दिल्यार ट काराक अक्षर ना. इंग्लीशान एक अक्षराक कितले उच्चार आसात म्हणु पळेयात - gentle, enough, sign, ghee ह्यांतु 'g' चो उच्चार कितलो वेगवेगळो? woman, women ह्या शब्दांतु 'O' ह्या एकच अक्षराक क्रमशः ऊ आनी ई चे उच्चार येतात. ई कारा बदल कसकसलीं अक्षरां येतात :- meet, receive, leave, relieve अशी एक वर्णाक जायतीं अक्षरां आनी एक अक्षराक जायते वर्ण - असली अव्यवस्था रोमींतु जाता. आनी जायतीं अक्षरां मौन आसात. know, psyche, late, guest, through ह्यांतु क्रमान k, p, e, u, gh मौन आसात.

इंग्लीश स्पेलिंगाची असली अव्यवस्था देखून जार्ज बर्नाड शा उबगलो. ताणे एक पावटी म्हळें : अशी मुखार गेल्यार आमी Ghoti म्हूण बरौनु Fish म्हूण वाचतले; enough हांतु gh f; women हांतु o i; आनी position हांतु ti - sh अशी Ghoti - Fish म्हूण बर्नाड शाली युक्ति. ही एक अत्युक्ति जाल्यारीय इंग्रेजी स्पेलिंगाची अव्यवस्था हांतु झळकता. बर्नाड शान तागेले संपत्तीचो अर्द वांटो इंग्लीश स्पेलिंग सुधारचे खातिर एक ट्रस्टाक दिला. तितलो उत्साह आशिल्लो ताका त्या विषयांतु.

युरोपांतुल्यो बाकी भासो बरौंची व्यवस्था इंग्लीशा पशि पाष्ट, फ्रेंचांत Rendezvous म्हूण बरौन 'रानडिवू' म्हूण वाचतात. Bourgeois बरौन बूर्श्वा म्हूण वाचतात. डच, जर्मन, ह्या भासेंचे स्पेलिंग हाजाकय क्लिष्ट म्हूण आयकलां. बेलजियम देशाचे भासेंतु John Leschert म्हूण बरयल्यार 'शान लेचे' म्हूण वाचुका खैं. यूरोपांतल्या लैटिन परंपरेचे भासेंकय सांबाळूक जायनाशी रोमी लिपि आतां हांगा येवनु आमचेर अधिकार चलयता. आतां हे मांयिचो कालु! नन्तना कितें सांगप ?

**गुण**

ऊंच सांगल्ले तराचे दोष रोमी लिपीक आसात जाल्यारीय दोन विशिष्ट गुणांनि ती अपुरबायेची जाता. तिजीं अक्षरां बरौवप भारी सरळ. किल्या म्हळ्यार अक्षरांतु रेखो जायत्यो नात आनी वळणां सादीं आसात. a, b, c, d खंचेय अक्षर चोयात : तीं नागरी अक्षरां पशि सरळ आसात हो एक मुख्य गुण. आनी दुसरो गुण हो कि शब्द बरयताना बरौन बरौन मुखार वचयेत. व्यंजना लागी स्वरमात्र मेळौंचे खातिर खाल ऊंच माक्शीं वच्चें ना. आनी व्यंजनां जोडयताना नागरी वरीची समस्याय ना. ह्या दोन गुणांनि ती सगट दोष विसरायता. समजूक, बरौंचाक सरळ देकून सगटांक तिचेर माया दिसता. बसांचीं नांवां चोयतां चोयतां भुरगीं तीं अक्षरां शिकून काडतात आनी सटसटी बरौंचाक शिकतात.

## एक बरी प्रद्धति

रोमी लिपि भारतीय भासेंक लायक करचे खातिर जायते प्रयत्न जाल्ले आसात. आपावे शतमानाचे आखेरेक कलकत्तांतु रोयल एश्याटिक सोसैटी जल्म घेत धरनु संस्कृत आनी बाकी भारतीय भासेंचे साहित्याचेर अनेक नदरेन विचार विमर्श आरंभलो. ही चर्चा इंग्लीश भासेन चलतानी रोमी लिपीन सुक्ष्म रूपान संस्कृत, पाली, हिन्दी, मराठी आदी भासो बरोंचाक युरोपियन चिंतक वावुरताले. तांणी रोमी अक्षरांचे खाल - ऊंच चिह्नां घालनु बरोंचे जायते प्रकार प्रयोग केल्लेले. हे सगट प्रयत्नाक एकरूप करचे खातिर 1912 वर्सा एतन्स (Athens) नगरांतु 'इन्टरनॅशनल कांग्रेस ऑफ ओरियंटलिस्ट्स' प्रारंभ केलें. तांणी अंगीकृत केल्लेले प्रकारी देवनागरी रोमींतु अंतरण करची पद्धति सकल दिल्या. चोयात :-

| स्वर - | अ | आ | इ | ई | उ | ऊ | ए | ऐ | ओ | औ |
|---|---|---|---|---|---|---|---|---|---|---|
| | a | ā | i | ī | u | ū | e | ai | o | au |

| अनुस्वार - | अं | विसर्ग - | अः |
|---|---|---|---|
| | ṁ | | ḥ |

| व्यंजन - | | | | |
|---|---|---|---|---|
| क् | ख् | ग् | घ् | ङ |
| k | kh | g | gh | ṅ |
| च् | छ् | ज् | झ् | ञ् |
| c | ch | j | jh | ñ |
| ट् | ठ् | ड् | ढ् | ण् |
| ṭ | ṭh | ḍ | ḍh | ṇ |
| त् | थ् | द् | ध् | न् |
| t | th | d | dh | n |
| प् | फ् | ब् | भ् | म् |
| p | ph | b | bh | m |

| अंतस्थ | य् | र् | ल् | व् |
|---|---|---|---|---|
| | y | r | l | v |
| ऊष्म | श् | ष् | स् | ह् |
| | ś | ṣ | s | h |

हांतु रोमींतुली f, q, w, x, z - हीं पांच अक्षरां वापरनात. शेष प्रति अक्षरांक नागरींतुले एक स्थिर वर्ण मूल्य दिलां. त्या खातिर डयाक्रिटिकल चिह्नां प्रयोग केल्यांत. हे पद्धतींत ळ '!' अशी बरौयेत. हे रीतीन बरयलोलो एक संस्कृत श्लोक चोयात :

Kutastvā Kaśmalamidam
Viṣame samupasthitam
Anāryajuṣṭam asvargyam
Akīrtikaram arjuna

कुतस्त्वा कश्मलमिदं
विषमे समुपस्थितम्
अनार्यजुष्टं अस्वर्ग्यं
अकीर्तिकरं अर्जुन

ही रीति सूक्ष्म रूपान भारतीय भासेंचीं उदाहरणां दिवंचाक बेसबरी आसतली; पुण साधारण जनांले सामान्य उपयोगाक लायक जावुंची न्हय. डयाक्रिटिकल चिह्नां साधारण जनांक किरकिर जातलीं.

अध्याय - 12

# कोंकणी खातिर रोमी

## इतिहास

क्रिस्त 1510 वर्सा अलबुकेर्कान गोंय जिखून घेतलें. सैन्यांत सैनिक मात्र न्हय, पाद्रीय आशिल्ले. पाद्रींनि तांगेलें काम सुरू करूंक वेळ काय व्यर्थ केल्नो ना. उदेंतेचे लोकांक सोर्गारि व्हरूंक तांकां व्हड तान आशिल्ली. सोरगार्ची चावी तांचे कुरटाकच आसल्ली मू. हांगाचो धर्म, संस्कृति, देवळां आनी साहित्य त्या खातिर आड येतात म्हूण त्या सभाग्यांक कळ्ळें. देखून तांणी देवळां मोडून उडयलीं; साहित्य लागून गोबोर उबेलो; धार्मिक सामूहिक कार्यां मनाय केलीं. देवाले म्हळ्यार गयाले भासेनच ते लोकांक क्रिस्तालो उपदेश दिताले.

एदे काळ उपरांते तांकां बुद्द दिसली कि सोर्गारि वच्ची वाट दाकौंचाक जनाक समजूची भास जाय. ते जनांली भास शिकूंक लागले. ते भासेक 'लिंग्वा केनरिना' म्हणताले. मागीर तांणी तिजे नांव 'लिंग्वा ब्राह्मणिका' म्हूण दवरलें. देवाली काणी सांगूक ब्राह्मणांली भास पुणे आसो म्हूण तांकां दिसलें जावयेत. तो वेळ भितर तांणी हांगा आशिल्ले साहित्य लागून उडयलेलें.

त्या कालाचे तरुण कवि भासेक व्याकरण नाशिल्यान बेजार जाताले खें. व्याकरण ना तरि कवीत कशी करप? पादरी थोमस स्टीफन्साक तांचेर काकुळट दिसली. ताणे व्याकरण बरौन दवरलें. व्याकरण ना म्हूण कोणय कवीत करनाशि रावचें नाका. मागीर तें व्याकरण चोवनु चोवनु सगटांनीय सरत साहित्य करूंक आरंभीलें. आशिल्लें साहित्य लासून, उपरांत हांगाची भास शिकून, तिजे व्याकरण बरौन, मागीर तांतु साहित्य तैयार केलोलो कालु कोंकणीचो सुवर्णकाल (Golden age of Konkani Literature) म्हणचे कोंकणीचे

तिहासकार आसात. कोंकणीचें भाग्य! हें साहित्य खयिं आसा? लिसबणांत, ंडनांत, न्युयार्कांत आसा. नपुरो तुमकां?

**ुर्विल्ली रीत**

त्या कालाक रोमीन बरयलेले साहित्याचो एक नमुनो पळेयात :-

Tauolli ty tanche laguy ulou lagoly:- majo bapu quarvuuo; hāuo tachi conea; poile mojé ñauo Mochegondo; yecu gao bori moje onguichy oorttonni zoissy massollieco hivssanni yeta toissy yetaly.

[Quoted from 'The Makers of Konkani Literature' by Fr. Antonio Pereira, S.J. and quoted by him from 'Gramatica Concani' by Pe.Graciano Moraes]

ह्याजें देवनागरी रूपांतर अशें आसतलें :-

'तावळी ती तांचे लागी उलौ लागली :- मजो बापु खारवो; हांव ताची कन्या; पैलें मजें नांव मचगन्द, एकु गांव भरी मजें आंगाची पोरटाणी जशी मासळेचो हिंवसाणि येता तशी येताली'.

हीं दोनींय रूपां तारतम्य करनु चोयल्यार समजतलें कि ह्या पाद्रींनि आपण्याली मातृभास रोमीन बरौंचे रीतीनच हें बरयलां. लागी, कन्या, खारवो, एकु, आंगाची ह्या शब्दाचे स्पेलिंग चोयात. देवनागरी शिकून रोमीन रूपांतर करची शास्त्रीय पद्धति तांणी काळ्ळी ना आशिल्ली म्हळेलें स्पष्ट दिसता.

आनी गोंयकाराले, कोंकणीचे भाग्यान हे बरोवपी रोयल एशियाटिक सोसइटीचे चिंतकां वरि न्हय आशिल्ले. कलकत्ताचे यूरोपियन चिंतकांक ह्यांगाचे धर्मार, संस्कृतीर, भासेचेर आदर आशिल्लो. ते ह्यांगाचें साहित्य शिकून बरयताले. जाल्यार गोंयांतु सुरवेक रोमीन कोंकणी बरयलेल्यांक तो अवगुण ना आशिल्लो. ह्यांगाचे मूर्तिपूजक, अन्धविश्वासी, काळे लोकांले साहित्या पासून आदर कित्याक?

## आतांची रीत

रोमीन कोंकणी बरोंची ही ऊंच सांगिल्ली पद्धत 1957 वर्सा मेरेन चल्ली खें. ह्या वर्सा एक नवी पद्धत गोंयकारांनि काळ्ळी, जी आज गोंयांन चलता. ताजो नमूनो डॉ. मनोहर सरदेसाय हांगेल्ले 'जायो-जुयो' कविता संग्रहांत पळोयेत. ह्या पुस्तकांत एकेक कविता नागरीनय रोमीनय दिल्या देखून तारतम्य करनु रोमीची व्यवस्था समजयेत. पूर्विल्ले पद्धतिंत डयाक्रिटिकल चिह्नां आशिल्लीं; आतां तीं नात - हो एक व्हड फरक देखूं पडता. हे पद्धतीचें स्वरूप चोयात :-

| | | | | | | | | | | |
|---|---|---|---|---|---|---|---|---|---|---|
| स्वर - | अ | आ | इ ई | | उ ऊ | | ए | ऐ | ओ | औ | अं |
| | o | a | i | | u | | e | ai | o | au | m |

| | | | | | |
|---|---|---|---|---|---|
| व्यंजन - | क | ख | ग | घ | ङ |
| | k | kh | g | gh | n |
| | च | छ | ज | झ | ञ |
| | c | | j(z) | jh | n |
| | ट | ठ | ढ | ड | ण |
| | tt | tth | dd | ddh | nn |
| | त | थ | द | ध | न |
| | t | th | d | dh | n |
| | प | फ | ब | भ | म |
| | p | f | b | bh | m |
| अंतस्थ | य | र | ल | ळ | व |
| | i | r | l | ll | v |
| ऊष्म | श | ष | स | ह | |
| | x | | s | h | |

'जायो जुयो' पुस्तकाक महाकवि बोरकारान बरयलेलें अवतारिकेंतु एक संस्कृत श्लोक आयला. तोवय हे पद्धतीनच रोमीन बरयला. हे पद्धतीचे थोंडे

ुण चिंतनीय आसात :-

. ह्रस्व अ कारा खातिर सर्वकडे 'o' बरैतात. ह्राजान शुद्ध ओ कारूय ह्रो वल्प वाडकुळो आकारूय जावनु घुसपयेत. उदा :-

| | | |
|---|---|---|
| घर / घोर } Ghor | जड / जोड } Zodd | दर / दोर } dor |
| कण / कोण } konn | खरें / खोरें } khorem | रड / रोड } rodd |

अशी वेगवेगळे शब्दांक एकच स्पेलिंग येतलें.

2. i-कार आनी u-कार ह्रांकां ह्रस्व दीर्घ अंतर ना.

3. ङ, ञ, न = n; ण nn; म, अनुस्वार = m

4. च = ch; छ काराक उदाहरण दिकूंक ना.

5. ज काराक दोन अक्षरां येतात. थेट कोंकणी शब्दां खातिर z; संस्कृत तत्समांक आनी कोंकणी व्याकरणिक शब्दांक j.

उदा :- जालें = zalem म्हजें - mhojem तुजें - tujem
जायो = zaio जिवीत = jivit

6. ट वर्ग आनी त वर्ग वेगवेगळे करचे खातिर ट वर्गाक tt, dd दिलां आनी त वर्गाक t, d दिलां. ळ काराक अशीच ll दिलां तरि ल काराक l दिलां. आनी

| | | | |
|---|---|---|---|
| ट्ट = tt't | त्त = t't | ड्ड = dd'd | द्द = d'd |
| ण्ण = nn'n | न्न = n'n | ळ्ळ = ll'l | ल्ल = l'l |

अशी व्यवस्था केलां.

7. फ = f : सर्वकडे फ काराक f वरवप बरें म्हूण दिसना. प वर्गांतुलो फ कार उच्चार करचे वेळार दोनीय ओंट मेळतले. जाल्यार युरोपांतुलो f कार उच्चार करताना सकलचो ओंटु उंचावले दांतां माळेक लागतलो. देखून भारतीय शब्दांक ph आनी युरोपियन, अरबी, फारसी शब्दाक f बरवप बरें आसतलें.

उदा :- फूल = phul, फरक = forok

असलो फरक आतां केल्लो ना. ph, f खंचेय बरयल्यार अर्थभेद जायना की.

8. य कारा खातिर y ना कित्या? अजाप दिसना. हाजे बदल i येना आनी फुडे-मागीर येंवचे स्वरा अनुसरून ie, ia, ai, io असले वेगवेगळे स्वरसंयोग दिकू येतात.

उदा : याद - iad; येता - ieta; जायो-जुयो - zaio-zuio

9. श = x उदा : अशें - oxem; इश्ट - ixtt. हें भौ उचित जालें. ना जाल्यार x पाड उरचें.

10. ष काराक उदाहरण ना.

11. रोमींतुलीं q, w, y हीं अक्षरां हे पद्धतींत वापरनात

कोंकणीची रोमी लिपी व्यवस्था आनीकय सुधारूक प्रो. पिरेरा सांगतात. तांगेले मतान च-काराक ch नपुरो; ts जाय. उदा : चोरु - tsoru; अशीच तांबडें - tambddem अशें बरोंचें खरें न्हय. tambrhem म्हूण बरोंका. हांतु rh उच्चार येता खें. अशी चिंतन करूक गेल्यार प्रत्येक शब्दाक वेगवेगळी व्यवस्था जाय जातली. सामान्य व्यवस्था मेळची ना. dd जावो rh जावो अर्थभेद ना मू.

ऊंच सरदेसायांल्या कवितेंत छ कार ना म्हूण देखलें. कोंकणींतु छ काराची कथा विचित्र आसा. सोळावे सत्रावे शेंकड्यांतुले पादरी भारतीय भासेंची लिखित व्यवस्था कांय पुणे चोयनातिल्लें फकत आयकून जांवचे प्रभावाक अनुसरून आपण्याले भासे व्यवस्थे प्रमाणे रोमीन बरयताले. तांणी

'इच्छा' itsa म्हूण बरयलें. मागीर तें नागरींत वापस आयलें 'इत्सा' जावनु. स्व. बाकि बोरकार 'इच्छा' बदल 'इत्सा' बरयताले. अशी नागरीचो छ कार रोमींत ts जालो आनी मागीर नागरींतु 'त्स' रूपान वापास आयलो; आतां सोयरी 'त्स' कारान घरकार 'छ' काराकच भायर घाल्ला. पाप!

छ काराची ही कथा यजुर्वेदा पासून एक गजालि उडगास करयता. यजुर्वेदाचे दोन भाग आसात. कृष्ण यजुर्वेद आनी शुक्ल यजुर्वेद. Black Yajurveda आनी White Yajurveda म्हूण कोणे की इंग्लीशान हांचो अनुवाद केल्लो. मागीर ते दोनीय भारतीय भासेंतु वापास आयले - काळो यजुर्वेद आनी धवो यजुर्वेद जावनु. कृष्ण-शुक्ल भायर; काळो-धवो भीतर. अशीच छ काराचीय गति.

फाटीचे अध्यायांतु 'इन्टरनॅशनल कांग्रेस ऑफ ओरियन्टलिस्ट्स' हांगेले पद्धती विशीं सांगल्लें आसा मू. तांतु चकाराक c आनी छकाराक ch अशी निश्चय केलां. पुण कोंकणींतु ककारा खातिर c बरौंची रीति प्रबल आसा. Cochin, Cranganore, Calicut असले स्थल नामांतुल्यान क = C केरळांतु सरि पावल्यां. हे परिस्थितींतु च – C मानप भौ कठिन आसतलें. कोंकणी concani बरौंचे तावेळ कितें करतले ? तांगेली भास चोंचणी जातली. Chair, Chin, Choice असले शब्दांतु चकारा खातिर ch प्रचारार आसा म्हूण हांगा सांगले इंग्लीश शब्दांतु ch चो उच्चार च न्हय; छ चे भौ लागी आसा. देखून छकारा खातिर ch दवरप तितूलें कठिन न्हय म्हूण दिसता.

अनुबन्ध - 1

# व्याकरण कितें ?

व्याकरणाक भारतांतु एक सुदीर्घ परंपरा आसा. चाळीस शतमान पिरथम वेदकालाकय व्याकरण चिंतन भारतांतु आशिल्लें. मुण्डकोपनिषदांतु विद्या दोन प्रकारांची आसा म्हूण सांगल्यां - परा आनी अपरा. सागीर अपरा विद्या म्हळ्यार कितें म्हूण वर्णन केल्यां. चार वेद (ऋक्, यजुर, साम, अथर्व) आनी स वेदांग (शिक्षा, कल्प, व्याकरण, निरुक्त, छन्द, ज्योतिष) - हीं इतलीं विषयां एक्कडे जावनु अपरा विद्या म्हूण नांव. ह्या स वेदांगांतु चार विषयां भाषेचीं आसात - शिक्षा, व्याकरण, निरुक्त आनी छन्द. शिक्षा म्हळ्यार उच्चारण शास्त्र (Science of Pronunciation). शब्दांचो अर्थ कितें आनी तो कशी घडता ह्या चिंतनाक निरुक्त म्हूण नांव. आतां ह्या विषयाक Semantics – अर्थ विचार म्हणटात. छन्द म्हळ्यार कवितेचे वृत्ताचे पासून आसचें शास्त्र. हांतु थाकून दोन गजाल्यो समजूयेत. एक हें कि व्याकरण भी पूर्विल्लो विषय. आनी दुसरें हें कि उच्चारण शास्त्र अर्थ चिंतन आनी वृत्तशास्त्र हीं विषयां व्याकरणाचे भाग न्हय. ह्या विषयांक भाशेलागिं संबन्ध आसा; पुण तीं व्याकरणा भीतर येनात. तावेळ भाशे विशीं आसचे सगट चिंतन व्याकरण न्हय. भारतीय पारंपर्यांतु व्याकरणाक एक विशिष्ट अर्थ आसा.

व्याकरण - ह्या शब्दाचो अर्थ कसल्लो पळोयां. 'वि' 'आ' हे उपसर्ग सेत 'कर' धातूक 'न' प्रत्यय लागून 'व्याकरण' जाता.

वि + आ + √ कर + न = व्याकरण.

हाका भाषेचें विश्लेषण वा Analysis म्हूण विशेष अर्थ आयला. जशी फुलाचे पासून शिकच्याक आसी फूल dissect करतात, तशीच शब्द आनी वाक्य dissect करून शिकपाक व्याकरण म्हूण नांव. ज्या विषयाक भारतांतु

याकरण म्हणतात ताका यूरोपांतु Grammar अशें नांव. Gram म्हळ्यार बरप, बरपावळि म्हूण अर्थ. बरपावळीचे नियमांक अस्तंतेचे लोक Grammar म्हणतात. तावेळ Analysis of Language अर्थ आसचें व्याकरण Rules of Writing म्हूण अर्थ आसच्या Grammar हांतुसून भौ विंगड आसतलें म्हळेलें स्पष्ट जाता मू.

अशी शब्दार्थानच व्याकरण आनी ग्रामर विंगड-विंगड आसात. मात्र न्हय विषयाचे व्याप्तीनय हीं दोनय भिन्न भिन्न आसात. व्याकरणांतु उच्चारण शास्त्र, छन्द शास्त्र आनी अर्थचिंतन येना म्हूण फुडे सांगलें नवें. यूरोपांतु जाल्यार अलंकार शास्त्र वा Rhetoric आनी छन्द वा Metre ग्रामराचे भाग आसतात. देखूनूच यूरोपी भाषेंचे व्याकरणांतु Figures of Speech आनी Metre हीं विषयां जोडल्यां देखूक पडतात. जाल्यार भारतांतु छन्दशास्त्र जावो अलंकार शास्त्र जावो व्याकरणा भितर येना. भारतांतु व्याकरणाक शब्दानुशासन म्हूण नांव आसा. शब्दांचें अनुशासन वा Word discipline म्हूण हाचो अर्थ. दोन हजार वर्सां पिरथम आशिल्या पतञ्जलीन व्याकरणाक शब्दानुशासन म्हळ्यां. आनी शब्द म्हळ्यार कितें? पतञ्जलि सांगता – "श्रोत्रोपलब्धः बुद्धिनिर्ग्राह्यः प्रयोगेण अभिज्वलितः आकाशदेशः शब्दः" – "कानांनि आमकां मेळचो, बुद्धीन आमी ग्रहण करचो, प्रयोगान उज्वल जांवचो शब्दु, तो खयिं राबता? आकाशांतु राबता." अशी हाजो अर्थु.

हांतुल्यान आमकां समजूयेत कि शब्द म्हळ्यार कानांनि आयकूक येंवचो Spoken word. देखून भारतांतु केवल बरौंचे भाषेचें मात्र न्हय, उलौंचे भाषेचेंय विश्लेषण व्याकरणांतु येता. उच्चारण शास्त्र व्याकरण न्हय; जाल्यारीय उच्चारण करचे शब्दाचे पासून आसचें चिंतन-मनन व्याकरणांतु आसा. यूरोपांतु ग्रामर केवल Written language हाका प्रामुख्य दितालें. Spoken language हाजेर चिंतन करना आशिल्लें. इंगळैडांतु डैनियल जोन्स नांवाच्या भाषा चिंतकान येवमेरान यूरोपांतुली स्थिति हीच आशिल्ली.

यूरोपांतु उलौंचे भाषेक आधार करनु आसचें व्याकरण चिंतन विसावे शतमानांत जन्मलें. जाल्यार भारतांतु उलौंची भास बरयल्यार ताजेरीय

व्याकरण चिंतन चलतालें. देखून आमगेलें देशांतु संस्कृत व्याकरणाचें लागींच प्राकृताचें आनी अपभ्रंशाचें व्याकरणय चर्चा करतालें. बारावे शतमानांतु गुजरात देशांतु आशिल्ल्या हेमचन्द्र नांवाच्या वैयाकरणान (Grammarian) आपण्यालें शब्दानुशासनांतु संस्कृत, प्राकृत आनी अपभ्रंश ह्या तिनय प्रकाराचें भाषेंचेर मनन केल्यां. ही परंपरा सत्रावे शतमानांतु मेरेन चलताली. युरोपांतु लिखित लातिन भाषेर मात्र भाषा शास्त्रज्ञ चर्चा करताले. लोकांनी उलौंचे प्रादेशिक भाषेक Vulgar language म्हूण लानिन वैयाकरण तिरस्कार करताले. एकूणीसावे शतमानांतु ही स्थिति बदल्ली. पिरथमच जर्मनींतु हें परिवर्तन आयलें. जर्मन चिंतकांनि तांगेलें प्रादेशिक भाषे पासूनूय चिंतन करूंक आरंभिलें हें संस्कृत व्याकरण युरोपांतु पावलेल्या उपरांत जालेलें एक परिवर्तन. आमगेलें देशान युरोपाक दिलेली एक व्हड देणिगा ही, आसूं.

ऊंच पतञ्जलीन शब्दाचें निर्वचन दिलेलें आमी देखलें. तांतु उलौंचे भाषेक प्रामुख्य आयलां. शब्द कानांतूल्यान मेळना अशी म्हळ्यां. हो कानार पडचो शब्द आमी बुद्धीन ग्रहण करचो. बुद्धी म्हळ्यार बोध Consciousness, Intellect. बुद्धी ग्रहण करना तरी तो भाशेचो शब्द न्हय. हें स्पष्ट रूपान समजूक एक उदाहरण पळैयात :

फोणाचें बेल मारता, आमी फोण काडून कानां लागि धरतात. उलैतल्या कोणालो की शब्द कानार पडता. तो आमकां समजना तरी आमी जाप दितात. समजना म्हूण आसो, तावेळ आमी म्हणतात - आरे! कसलें किरकिर हे? सबाब गोन्दोळ ! हांतूल्यान स्पष्ट जाता कि जो शब्द आमी समजतात तो भाषे शब्द; आनी जो समजनात, तो थेट गोन्दोळ, Noice. देखून कानार पडलेले शब्द मनान बुद्धीन ग्रहण करप म्हळेलें शब्दांचो एक मुख्य गुण आसा. Word आनी Noice हांचो फरक हो कि आयकतल्याक समजल्यार Word; समजना जाल्यार Noice.

पतञ्जलीन म्हळेल्याक अनुसरून भाशेचे शब्दाक एक तिसरो गुण आसा कि तो प्रयोग करतां करतां उज्वल जाता. हांजें एक उदाहरण चोवया :

इंग्लीश भाशेंतु Table हो एक साधारण शब्द. हें एक घरचे उपकरणाचें - फरणिचराचें - नांव. समाजान तें उपकरण उपयोग करतां करतां आनी त्या त्या संदर्भार प्रयोग करतां करतां ह्या Table शब्दाचो अर्थ कशी उज्वल जाला म्हूण चोयात.

| | | |
|---|---|---|
| Table | = | मेज |
| Keep on the table | = | मेजार दवर |
| Sit at table | = | खाणाक जेवणांक वेसप |
| Wait at table | = | खाणाक जेवणाक बेसल्यांक जाय जालेलें दिवनु तांची सेवा करप |
| Meet at table | = | कसलेंय एक विषय चर्चा करचे खातिर खाणा जेवणा वेळार मेळप |
| Table talk | = | खाणा - जेवणाक एक्कडे जाताना जांवचे उलोवप |
| Go under the table | = | सोरो पीवनु बोध नातिल्लें खाल पडप |
| Table a resolution | = | एक सम्मेळनाचे मुखार एक प्रधान विषय प्रस्तावा रूपान दवरप |

ह्या उदाहरणांतुल्यान 'प्रयोगेण अभिज्वलितः' म्हूण पतञ्जलीन सांगल्याचें आशय समजूयेत. अशी शब्द प्रयोगाची (Usage of words) चर्चाय व्याकरणाचें एक मुख्य विषय आसा.

पतञ्जलीन सांगचो शब्दाचो एक चौतो गुण हो कि शब्द आकाशांत राबता. हो गुण केवल भाषे शब्दाचो न्हय. शब्द कसलोय जावो भाषे जावो, गोन्दोळ जावो, ना जनावरांचो, किडींचो साद जावो - तो आकाशांतु तरंगा रूपान आसता आनी व्याप्त जाता म्हळेलें आज भौतिक शास्त्रान अंगीकार दिंवचे एक आशय मू.

अशी पतञ्जलीन सांगचे प्रमाणे भाषे-शब्दाचे तीन गुण आमी देखीले. ह्या गुणांचे विशीं चिंतन केल्यार एक गजाल स्पष्ट जाता. शब्दाचेर प्रभाव

घालचीं चार घटक (Factors) आसात - उलोवप, आयकप, समजप, प्रयोग करनु व्यापक करप. हीं चारीय कार्यां एक समजातूंच चलूंक लायक आसनात. समाजा शिवाय हीं कार्यां चलचीं नात. देखून व्याकरण शब्दाचें पासून जें अन्वेषण करता तें समाजांतु जावूंक जाय. समाजाक सोडून भाषेक अस्तित्वच ना. व्याकरण समाजाचे परिस्थितींतु भाषे शब्दांचे स्वरूपा पासून चिंतन करता आनी ताका व्यवस्थित करता. हेंच व्याकरणाचें कार्य.

अशी समाजांतु चलच्या शब्दां पासून सोडून तांकां व्यवस्थित करतना वैयाकरण आपण्याले इष्टाक वा पक्षपाताक अनुसरून कसलीय व्यवस्था करीत न्हय? ह्या प्रश्नाक आसगेले पूर्विकांनी उत्तर दिल्यां अशी - 'प्रयोगकरणाः वैयाकरणाः' व्याकरण रचितल्याक प्रयोगूच शरण. प्रयोगाक सोडून योग्य न्हय जालेली कसलीय व्यवस्था तांणी दिल्यारि, ती चलची ना.

आतां पेऱ्यान सांगल्यातुल्यान व्याकरणाचे स्वरूपा पासून संक्षेपान अशी म्हणुयेत :

1. व्याकरण म्हळेलें भाषेचें विश्लेषणात्मक सिकवण.

2. तें फकत बरपावळीचे नियम न्हय.

3. भाषेचें अस्तित्व समाजांतु देखून समाजांतूचि व्याकरणाचें अन्वेषण करका.

4. व्याकरण शब्दांक व्यवस्थित करता.

5. ह्या व्यवस्थापनाक आधार प्रयोगूच. प्रयोग सोडून व्याकरण ना.

खंयचेय भाषेचें व्याकरण खरें कि न्हय, सूक्ष्म कि न्हय, पूर्ण कि न्हय, समग्र कि न्हय - हें सगट निश्चय करूंक व्याकरणा विशीं आशिल्लीं हीं आशयां उपयोगा पडतात.

अनुबन्ध - 2

# कोंकणीचेर मलयाळमाचो प्रभाव - उतरावळीची जिरवण

## उतरावळ आनी शब्दावलि

Vocabulary चे अर्थान गोंयांतु 'उतरावळ' प्रचारार आसा. गोवा कोंकणी अकादेमीन तीन-चार वर्सां फुडे उजवाडायल्लो English Konkani Hindi Vocabulary आसा मू. ताका उतरावळ म्हूण नांव दिल्यां देखू येता. उतरा उतर जावप, व्हारडीकेक उतर उलोवप, हातार हात मारनु उतर दीवप, उतर फुटना, उतरा उतर दुडवा दुड्डु - असले जायते वाक्प्रकार कोंकणींत आसात. तांतु सगटय उतराक word म्हूण अर्थ जाता.

तरीय भारतांतु अति पुरातन कालाक धरनु चलून येंवचे भाषा-चिंतनाचे परंपरेंतु पाणिनी, पतंजली, भर्तृहरीवरीचे व्होड व्होड चिंतकांले ग्रंथांतु होच अर्थ प्रकट करूंक 'शब्द' प्रयोग आसा. 'शब्द' म्हळ्यार सुद्दां साद न्हय. शब्द म्हळ्यार word. शब्दावलि, शब्दशुद्धी, शब्दरचना, शब्दानुशासन असले उदाहरणांत शब्दाक word म्हणूच अर्थ जाता. केन्द्र सरकारान प्रकाशन केलेल्या Linguistics Glossary हांतुय वर्डाक समानार्थक 'शब्द' म्हूण दिल्यां. 'उतर' आनी 'शब्द' हांचो अर्थ समान आसा, word म्हूण. देखून आयचे आमगेले चिंतनांतुय हे दोन शब्द समानार्थक उरतले. उतरावळ म्हळ्यार शब्दावलि. आसूं.

## शब्दां पासून पतंजलि

आमगेले देशाचे विद्वांसांनि शब्दांविशीं कितें सांगिल्यां, चोवयां. पतंजलि मुनि आपण्याले महाभाष्यांत शब्दाचें Definition अशें दिता -

"श्रोत्रोपलब्धः बुद्धिनिर्ग्राह्यः
प्रयोगेण अभिज्वलितः आकाशदेशः शब्दः"

शब्द वा उतर आमकां कशी मेळना? - श्रोतोपलब्धः - कानांनि आयकून मेळता. कानांनि जें आयकतात तें शब्द. म्हणून कानार पडचे सर्व तरांचे शब्द भासेचे चिंतनांत येनात. कानांत पावलें म्हण जायना; मनांतु बुद्धींतु जो शब्द पावता तोच word जाता. ज्याका मनांतु प्रवेश मेळना तो word न्हंय - फक्त गोन्दोळ, बोवाळ, Noise. आयकूनूय जें आमी समजनात ताका word म्हणीनात तसले शब्दाक Noise म्हण नांव. भासेंतुलो शब्द मनांत येना आनी बुद्धी बरे तरेन चिंतन करनु समजून घेता. देखून पतंजलीन 'बुद्धि निर्ग्राह्यः' म्हळ्यां. कानार पडून, मनांतुल्यान भितर सरनु बुद्धीन विचार करनु स्वीकार करचो, तो 'शब्द'.

आनी शब्दाचो तिसरो एक गुण आसा - 'प्रयोगेण अभिज्वलितः' - प्रयोग करता करता शब्द परजळेता, उज्वल जाता. ताजो उजवाड चौ वर्शी पसरता. एक शब्दाचो प्रभाव बाकी शब्दांचेरीय पातळेवनु वाक्य आनी प्रसंग उज्वल जाता. शब्दाचे अर्थाची व्याप्ति, सौंदर्य, भाव सौभाग्य, अनुभूति वैभव - अशी शब्दाचे सगळे पक्ष प्रकाशकान्त जावप - ताका औज्ज्वल्य म्हण्टात. एक उदाहरण पळौयां :

'खा' एक सादा उतर.

"यो, खा, हो आम्वो आमगेले रुकार जालोलो."

"अरे! तूं शीत खाता कीं?"

"देवाक खावुंचो भट्टु."

"तो तुमकां खातोलो न्हय, समा गिळतोलो."

"नांकूट खावनु अवलक्षण."

"नांकटान खेल्यार पोट भरत वे?"

"मीट खेलोलो उदाक पितोलो."

"हो एकलो दुड्डुखावगी दंदकार."

"प्राणु खावनाका रे पुता."

- असले वाक्यांतु 'खा' धातूचो अर्थ कशी कशी उज्वल जाता, चोया. असलो शब्द खयिं आसा? पतंजली सांगता - आकाशांतु आसा.

## वेषय

पतंजलीन उतरांविशीं सांगिल्या आशयांचे बुनियादीरि राबून आमकां चिंतन करचें आसा. चार-चवड शताब्दीं फुडे केरळांत पाविल्या कोंकणी जनांनि आनी तांगेले मागीरचे पीळिगेनि हांगाचे भासेंतुलीं कसकसलीं उतरां कशीं कशीं आयकलीं, मनां हाडलीं, बुद्धीन स्वीकारलीं आनी प्रयोग करतां करतां उज्वल करून घेतलीं हें मेगेलें विषय.

आमी मलयाळम भासेचीं हजारांनि उतरां घेतल्यांत; घेता आसात. तांतुलीं येदीं येदीं आमी घळौनु जिरौनु काड्ल्यांत; तरी जायतीं जिरनाशिल्लें तशीच उरल्यांत. पुर्विल्ले कालाक जिरवण चड आशिल्ली. आजि अजीर्ण चड; जिरप ऊणे. हाजे पासून मनन करताना भासेची कसली संपत्ति घेवनु आमगेले पूर्विक हांगा पाविल्ले, तें पळौयां.

## कोंकणीचें भूगोळ

कोंकणी तीनि साहित्य संपन्न भासेंचें मजगदीं राबिल्या - हें कोंकण देशाची भूगोळिक स्थिति चोयल्यार कळतलें. एक तांतु गुजराती; दुसरे तांतु मराठी; आनी तिसरे तांतु कन्नड. देखून ह्या तिनियि भासेंचो प्रभाव कोंकणीचेर पडलो तरि कांय पुणे अजाप ना. गुजराती, कोंकणी आनी मराठी ह्या तिनियि भासेंची दायज एकच आसा. तिनीचीय मुळावी उतरावळ संस्कृताची. तिनियि भासो एकच कालाक फुलूंक लागल्यो. तिनीचींय पूर्वरूपां अपभ्रंशांत पळौयेत आनी भास म्हळ्यार जनांनी नित्य निरंतर जीवितांतु उपयोग करचें एक उपकरण. तें कांय Air tight compartment वरि न्हय. तांतु दिवें-घेवें आसतलेंच. तशी आसतना खंचोय शब्दु गुजरातींतलो कोंकणींत देखीलो, अथवा कोंकणींतलो मराठींत आयलो, अथवा मराठी शब्द कोंकणींत पावलो तरि एक भास दुसरे पशि खाल वा ऊंच, जूनि वा तरणी आसा म्हूण सांगून अभिमान करप अथवा झगडें किरलावप चांग न्हय. तिनीय भासेंचें मूल एकच आसतना खंचो शब्द निजच खंचे भासेचो म्हूण ठरावप सहज न्हय.

**संस्कृत परंपरा**

आतां आमी नित्य उलौंचीं भासेचीं उतरां पळोंयां. देखीक - मातें, निडळ, भोंरी, नाक, कान, ओंट, दांत, जीब असलीं अवयवांचीं नांवां; गाय, म्हशी, हस्ती, वागु असलीं जनावरांचीं नांवां; भूंय, मातो, फातोर असलीं वस्तूंचीं नांवां; सूर्य, चन्द्रमु, नखेत्रां असलीं आकाशगोळांचीं नांवां; आयतार, सोमार असले वारांची नांवां; चैत्र, वैशाख असलीं मासांचीं नांवां; आंबो, पणसु, चींच असले रुकांचीं फलांचीं नांवां; कमळ, पद्माक्ष, चांपें, जाई असलीं फुलांचीं नांवां; हांव, तूं, आमी, तुमी, तो, ते, ती, तीं, तें इत्यादी सर्वनाम; यो, वच, उटा, बेस, निदे असले क्रिया शब्द; ना, न्हय, क्वय, आनी, वा असले अव्यय - अशीं जायतीं मुळावीं उतरां प्राचीन भारतीय आर्य भास म्हणचे संस्कृतां थाकून कोंकणीक मेळ्ळीं. हें आमगेले भासे पासून मनन करचे कोणाकय कळचें. देखून कोंकणीक आधुनिक भारतीय आर्य भासे मदें लेकतात. संस्कृत परंपरेचीं उतरां आनी जैनांनि 'आर्ष' म्हणचे अर्धमागधी प्राकृताचीं उतरां आसूयेत. बौद्ध आनी जैन मतांक कोंकणांतु खूब प्रचार आशिल्लो.

कोंकणीचीं हजारांनि उतरां संस्कृतांसून आयिल्लीं; जाल्यारीय सगळी उतरावळ संस्कृताची न्हय. कोंकणी पूर्णरूपेण संस्कृत परंपरेची भास आनी द्राविड भासेंचो कांयच प्रभाव कोंकणीचेर ना म्हूण केरळांतुले प्रशस्त व्याकरण शास्त्री शेषगिरि प्रभूनि सांगिल्ले आसा. प्रभु महारायानि ह्या विषयांतु गहन चिंतन केल्लें ना आशिल्लें म्हूण सांगूका जाता. कित्या म्हळ्यारि संस्कृतालागि कसलोय तराचो संबन्ध नाशिल्लीं जायतीं उतरां आमगेले साधारण भासेंतूच आयकूंक येतात. देखीक - आवसु, आवय, माड्डी, माड्डो, पिड्डो, मड्ड्ळ, क्वीरु, केण्णो, काणसो, दोळो, थोंटो, मुट्टु, कुरट्टु, चेरडु, दादुलो, मळब, मोड, वोंट, मुल्लो, मोलो, काक्कूस, परम, अडकळी, मदिल, पेरें, फाल्लें, फाल्ले, खड्डू, खोल्लो, खोल्ली - असले जायते शब्द आसात. असलीं उतरां कांय संस्कृतांसून उपजल्लीं न्हय. जाल्यारीय तीं सर्वय संस्कृतां थाकून निष्पन्न करनूच जायत म्हूण कास मारनु भायर सरचेंय आसूंयेत. हालींच उजवाडायल्या Konkani Grammar नांवांचे पुस्तकांतु असलो यत्न देखूंक येता.

संस्कृत नाटकांतु प्राकृताचें मद्दें खयिं खयिं आसचीं एकाद्य उतरां संस्कृतां थाकून घेवूंक जावुंचीं न्हय. तसले उतरांची व्याख्या करतना 'देशी' म्हूण नांव दीवनु तांचें संस्कृतासमानार्थक उतर दिवुंची संवय संस्कृत नाटकांचे व्याख्याकारांक आसा. 'देशी' म्हळ्यार प्रादेशिक वा गांवचे भासे उतरां. संस्कृत नाटकांतु सरि तसलीं उतरां आसतना सगट शब्दांक संस्कृतां थाकून निष्पादन देखून धरप कशें आसत? जाल्यारीय संस्कृताची शक्ति कितली? आनी ती खंयि पेऱ्यान मुखार व्हरूक जायत? - हें कळूंक असले प्रयत्न उपकारतले म्हळेल्यांतु कांयच दुबाव ना.

कोंकणीचे जायते उतरांक संस्कृतालागी संबन्ध ना तरि तीं खंयिसून आयिल्लीं आसतलीं? तांचो उद्भव खयिं आसतलो? मनन करूयां.

**द्राविड परंपरा**

कर्नाटक देशाचे उत्तर पश्चिम आनी पश्चिम कोणशारि कोंकण देश आसा. तावळ कोंकणी आनी कन्नड ह्यो शेजारी भासो. आनी क्रिस्त णवावी - धावी शताब्दी धरनु कोंकणारि कन्नड देशाचे कदंब रायांलो अधिकार चलतालो. तशी आसतना कन्नड भासेचीं जायतीं उतरां कोंकणींत भरसून गेलीं जावयेत मूं. उपरांते विजयनगर साम्राज्या कालाक जायते कोंकणे साम्राज्याचे सेवक - अधिकारि आशिल्ले. मात्र न्हय त्या कालाक कोंकणे ब्यारि सगळे साम्राज्यांत पातळ्ळेले.

फरंग्याले कालाक तांगेले धर्मकोल्ली नीतीक लागून सास कणकणीं कोंकणे गोंयां थाकून जीव घेवनु पळून गेल्ले. जायते लोकान कन्नड देशांत आश्रय घेतलो. तशी अनेक शतमानांतल्यान कोंकणीचो प्रसार कन्नड देशांत जालेल्यान करतना कोंकणीचेर कन्नडाचो खूबसो प्रभाव पडलोलो आसूंक जाय. भाषाशास्त्राचे नदरेन पळैल्यार कोंकणीचे आनी कन्नडाचे मद्दें एक भेद आसा. कोंकणी आर्यगोत्राची भास; आनी कन्नड द्राविड गोत्राची. गोत्रभेद आसा जाल्यारीय हजारान वर्सांनि लागीं लागीं जियेलेल्या दोनीय भासेचे जनां मद्दे दिवें-घेवें जाल्लेलें आसतलेंच.

देखून कोंकणींत कन्नड उतरां आनी कन्नडांत कोंकणी उतरां मेळसून गेल्लेलीं आसतलीं. चट दिसचीं येदीं उदाहरणां चोया - कोब्बू, हिट्टू, हिटळी, बरण्, बरें (धातु), तडो, बागिल, गुर्तु, गोत्तू, मुल्लो, कोयती, कोयतो.

कोंकणदेशां थाकून भायर गेल्लेलीं जनां केरळांत पांवचे फुडेच तुळु भासेचे प्रदेशांत पाविल्ले. आतंचे दक्षिण कन्नड जिल्याचो दक्षिण भाग आनी उत्तर केरळाचे उत्तर भाग मेळून आसचे प्रदेशाक एक कालाक 'तुळुनाड' म्हण्टाले. कन्नड आनी मलयाळमा बरीच तुळु एक द्राविड गोत्राची भास. क्रिस्त तेरावे - चौदावे शतमानांत विसकळूक लागील्ले हे भासेक ऐतिहासिक कारणांनि फुडार मेळ्ळो ना. जाल्यारीय ते भासेचोय प्रभाव कोंकणीचेर पडलो आसूंयेत; ह्या विषयांत गहन मनन कोणें केल्लेलें आसा कि ना कळना.

कन्नड आनी तुळु प्रदेशांतल्यान कोंकणे सल्ल सल्ल केरळांत पावल्ले. आमी केरळाचे भासेक 'मलबारी' म्हण्टात. ही भासय द्राविड गोत्राची. देखून कन्नड, तुळु आनी मलयाळम त्या तिन्नीय भासेंक एकूण चिंतन करयेत. हाका एक उदाहरण सांगतां :

माड्चार माडियेर चड्ंक पायांक 'खड्डू' घाल्लतात. यो खड्डू खंयथून आयलो? 'कट्टू' म्हळ्ळेले द्राविड उतरांथाकून 'खड्डू' सीदा निष्पादन करयेत. कट्टू खड्डू जावन कोंकणींत केदाणा रिगलो? कोण जाण! तो द्राविडीचे खंचे खांयांतल्यान कोंकणींत सरलो? साहित्याचे अविरळ निरंतर प्रवाहांत बुड्डून पळयल्यार कळत. आनी ह्या कार्याक उपकारचें कोंकणी साहित्य खयं आसा? असले जायते विषयांत आमी काळखांत पडल्यात. संक्षेपान सांगचें इतलेंच. आमी मलयाळमाचे आकाशांत पांवचे फुडेच कन्नडाचे तुळुचे मुखांतरिं द्राविड परंपरेंत मेळसले आनी शताब्दांतल्यान सुकार वतां वतां द्राविड उतरां घळौन जिरौन आयल्यात. आनी उतरावळ मात्र न्हय; द्राविडां थाकून आमी व्याकरणय घेतलेलें आसा. तें एक वेगळेंच विषय देखून आतां काडका नाका.

तरीय एक सांगचें आसा. सांस्कृताचे परंपरेंत द्राविडी परंपरा मेळसून आयची कोंकणी जाल्या. कोंकणी ह्या नांवांतुलो 'कों' ह्रस्व 'ओं' कार सरि

द्राविडीचो प्रभाव दाकयता. आमी आर्य भासेचे धर्तरेर द्राविडीचि कृषी केल्या म्हळ्यार अतिताय ना.

कोंकणी विशीं संस्कृत हिमगिरि गळिता
द्राविड कावेरी मिळिता

म्हूण कोण एक कवि गायत तरि खरें आसतलें.

**अरबी परंपरा**

कोंकणी उतरावळ समृद्ध केल्लेली तिसरी एक परंपरा आसा - अरबी भासेची. अरबी लोक जायते शेंकड्यां फुडे - इस्लां मत जल्म घेवुंचे फुडे - धरनूचि कोंकणांत येताले. कोंकण आनी अरबिया मद्दें व्यवधान आसा एक दरियाचें. तरी अरबियाचे धीरसाहसिक तारवारी पावसाळ्याची आनी समुद्राचे झोडा-वाऱ्याची परवा करनाशिल्लेंच घोडे विकूक आमगेले सुवर्णभूमीरि येताले आनी सुरै ओखदांचें भांगार लुयताले. तांगेले भासेचीं उतरां कोंकणीत घोळनु गेल्यांत. व्हारडीके होरणांतु होरेता मुकार धरची 'कल्पंजी' आनी होरेता पाय धुवुंची नाळ्क्या 'गिण्डी' आसा मूं. कल्पंजी, गिण्डी ह्या उतरां माक्शीं अरबी भासेचीं 'हिलालपंज' आनी 'किण्डी' हे शब्द आसात खैं.

इस्लाम मताक लागूनूय अरबी शब्द भारतांत पावले. इस्लाम मतावलंबी तुर्की, मंगोल, अफगन वर्गांचे लोक हांगाची संपत्ति लूट मारूक आयले. वेंगवेगेळे वर्गांच्या त्या लोकांक तांगतांगेल्यो मांयभासो आशिल्यो; तरीय मता भासे रूपान अरबीक आनी सामान्य सांस्कृतिक भासे रूपान फारसीक ते आदर दिताले. अरबीचो प्रभाव फारसीचेरीय पडलोलो. मुगल पातशाही कालाक फारसी शासनांभासे रूपान पुराय भारतांत पातळेली. तावळ फारसी उतरां समस्त भारतीय भासेंक मेळ्ळीं. तशी अरबी-फारसी उतरां कोंकणींतूय मेळसल्यांत. सोळावे शतमानांतल्या कोंकणी महाभारतांतु सरि जायते अरबी-फारसी शब्द मेळतात.

देखीक : आखेर, कुप्पी, काबीज, कागत, खबर, गुजरी, तमासो, ख्यास्त, निसाण, पंज, फजोति, फलाणो, फौज, तोप, मुस्तैत, रजा, लोबान, वगत, दुस्मान, हिलाल, हुर्मत.

अशी आमगेले पूर्विक केरळांत पावूंचे कालाक तीन परंपरेचीं उतरां तांगेले भासेंत आशिल्लीं :

(i) मूल परंपरा - संस्कृत, पाली, अर्धमागधीची

(ii) द्राविडी परंपरा - कन्नड, तुळूची

(iii) अरबी - फारसीची

**मलबारी**

केरळ देशाचे मलयाळम भासेक आमी कोंकणे 'मलबारी' म्हण्टात. मलबारी उतरां हजारांनी आमी घेतल्यांत, घोळेल्यांत, जिरेल्यांत म्हूण फुडेंच सांगलें. एक खूबशें गिरेस्त दायज घेवन मू आमगेले पूर्विक केरळांत आयिल्ले. तांकां मलबारींत थाकून उतरां घेवपाची गरज कशी आयली? ह्या प्रश्नाक एकीच जाप. नवे परिस्थितींतु नवे अनुभव जाले, आनी त्या अनुभवां खातिर नवीं उतरां जाय जालीं.

एक उदाहरण पळोंयां : केरळांत 'मुण्ड' नांवाची सानी-ल्हानि धोति प्रचारार आसा. केवल चार हाति दिगाय आसा ताका. कास काडून न्हेसची धोति तरि आट-णव हाति आसतली. हें 'मुण्ड' देखून तांकां कौतुक दिसलें आसूंक जाय. कित्या? तें भौ सस्ता; न्हेसूंक भी सोपें; सरळ देखून तें फेशन तांनि घेतलें आनी तें उतरय घेतलें. तशी वस्त्र, धोति त्या उतरा लागीं 'मुण्ड' भासेंत आयलें. नवे वस्तु खातिर नवे उतर. लोकांत आसचे सर्व भासेंचीय रीति हीच आसा. आनी कालान क्रमान ती वस्तु नाका जाली म्हूण आसूं; तावळ तें उतरय नाका जातलें. भासेचे हे सामान्य रीतीक लागून सास कणकणी शब्द आयले; आनी मागीर गेलेय बी.

आमगेले पूर्वज चड करून व्यापारी आशिल्ले; आनी व्यापाराक हांगा आयिल्ले देखून नवे परिस्थितींतु व्यारां संबन्धीं जायतीं उतरां तांणी घेतलीं. मेजप, तोलप, दिवें-घेवें, लेक इत्यादि सगट शब्द - कोचींत त्या कालाक प्रचार आसचे सगळे शब्द - तांणी काडले.

देखीक : പറ (para) परा
ഇടങ്ങഴി (idangazi) इडङ्ङषी
പടി (padi) पडी
असलीं मेजपा यूनिटां नांवां;
മന്ന് (manna) मन्न्
കഴഞ്ച് (kazanja) कषञ्जु
കണ്ടി (kandi) कण्डी
असलीं तोलाचीं यूनिटां नांवां;
നാൾവഴി (nalvazi) नाळ्वषी
പേരേട് (pered) पेरेड
കൈച്ചീട്ട് (kaichitt) कैचीट
असलीं हिशोबाचीं उतरां.

अशी जायतीं उतरां त्या कालाक आमगेले भासेंत आयलीं; आतांचे नवे व्यवस्थेंत तीं पडून गेलीं. ब्याराचें एक उतर मात्र स्थायी जावनु राबिल्यां - तूकि = to weigh. ही क्रियाधातु आसा. त्या अर्थान 'तोल' आशिल्लें; जाल्यारीय ताका भायर घालनु 'तूक' थांगा जमलें. तूक = weight. तूकि, तुकीता, तुकीलें, तुकूंक, तुकून ह्या सगळे रूपांनि हें उतर प्रयोगांत आयलें. आनी दाम-तूक = weight of a दाम, रूपैतूक, भात-तूक असले समासय जाले. हे आतांय प्रचारार आसात. 'तोल' धातूचीं रूपां आतां प्रचार नात. अशी फुडेचें उतर पडून गेल्लें; आनी नवें उतर जमलें.

आतां केरळांतु चलचे दिशावाचक शब्द (Direction words) हे प्रक्रियेचीं उदाहरणां आसात. कोंकणी दायजांतुलीं पूर्व, पश्चिम, उत्तर, दक्षिण ह्या उतरांचो आज प्रचार ना. त्या उतरां जाग्यारि किषक्क (kizhakku), पडिंञरु (padinna:ru), वडक्क (vadakku), तेक्क (tekku) ह्या उतरांचीं तद्भव रुपां केळक, पळंजीर, बडक, तेक हीं प्रचारार आयल्यांत. अशी निज दायज होगडावनु सरि आमी मलबारी उतरां उशीणे घेवनु तांकां स्थिरप्रतिष्ठा दिल्या.

आमी उदकांत आसचे मासळेवरि; उदक खूब पिना आसात; आनी प्राणवायु घेवनु तें भायर सोडता आसात; केरळाचे समाजांत आमगेली स्थिति असलीच.

देवळा संबन्धीं चडय उतरां आमी मलबारीं थाकून काडल्यांत. पाल्की, सोंकु, पुजा, भोट्टु, अवपेकु, आर्ति, अगरसाळ, नाटकसाळ, इत्यादि फुडे आशिल्लीं उतरांच. जाल्यारीय नोंडो, नोंडतोरोप, नालम्बल, शीवेली पेरें, मुखपेरें, कोळपेरें, गोपुर, तेणो, आनप्पन्दल, शान्ति, मेशान्ति, कीशान्ति, मणियम्, कलवरें, मणियकार, कलवरेकार, आराट, कोडि, मृगबेटा, पळ्ळीवेट्टा, तेरु, तालपोली, उत्सोवु, चेंडे, कोंबु, कुत्तिवेळक्क, तोट्टी, बट्टळ, कोरि अशी असंख्य शब्द मलबारीचे.

आमगेले घरां संबन्धी आसचीं येदीं उतरां पूर्विल्लीं - आंगण, बसारो, कूडि, देवारो, मैदर, फिदर, बानसाळ, रान्दणी, रान्दणीकूड, रोगोंडो, आड्डळी इत्यादि. तरीय परम, मदिल, पेरें, पडिपेरें (अथवा पर्पोडे), अडक्ळी, चरवी, उरवळी, चोरकुल, चट्टी, पाळ्ळें हें कांय ना जाल्यार आमकां 'पोरदि' ना. हीं मलबारी उतरां आमगेले भासेंतु मेळगून गेल्यांत. आतां खाणा-जेवणा उतरां चोवुंया. अग्गोते पान, पाना शीर, शीत, रसदयि, तोय, घश्शी, सासम - हें सगट आमगेली निज संपत्ति. जाल्यार एळचक्करि, पुळचक्करि, अवियल, कूट्टुकरि, वलवल केरळाचें फेशन. आजि अग्गोते बदलाक सुवेपान जाय. खीरि फैशन न्हय; पायस जाय. प्रथमन आतांय आयलें ना. गोड्डी ह्यांगा ना; गोड्डा पायस आसा. सोइ भाजील्ली घश्शी, धवी घश्शी आमगेल्यो स्वंत रसदयो. ह्यांगा मद्या वेगळी, सम्भादण वेगळी. आमकां घरकडे पेज, निशें, पेजेकूयां, तांबळि, आम्बले लोणचें, आम्ब्या हुमण आसा तरि खुशाल जालें. कित्या? ती आमगेली निज संपत्ति.

कृपियेचीं आमगेलीं निज उतरां आमी ह्योगडायलीं. आमकां आतां खणप, वोवप, लुवणी, मोडणी कांय ना; धड, पोल वीं कांय कळना. सारें घालीनात; 'वळं चेर्त' करतले. भौ पुर्विल्ले काला थाकूनूचि द्राविडी शब्द कृपिये दन्दांतु भरसूक लागल्ले आसूं जाय. 'कोय' धातूंसून जालेलीं कोयतो,

कोयती हीं उतरां भौ पोरणीं. आतां 'कोयती' आसा जाल्यारीय ती लुवणीक आशिल्ली न्हय. लुवणीक 'अरिवाळ' जाय; कोयती नाका मू. आतां किळा, वित्त्, विता, कळा, कोय्त्, मेति असले उतरांची अतिताय जाल्या. तशी आमगेली निज उतरावळ आमी विसरनु गेल्यात. विसरनु गेल्लेली ही निज संपत्ति उडगासु करनु काडप तितलें सरळ न्हय. जाल्यारीय तें केलें ना तरि आमगेले भासेचें चैतन्य नष्ट जावनु वतलें.

आमकां निज उतरांचो विसर पडूंक तीन कारणां आसात. हांतु पैलें कारण मलयाळमाचें अतिमर्द (Super pressure) म्हणुयेत. जीविताचे सगट प्रसंगांतु सदा सर्वदा प्रादेशिक भास आसा. घरा भायर सगळे कडे मलबारी. आतां घरांतूय ती पांवता. कोंकणी उलौंचो विशाल समाज आसचे कडे हाचो प्रभाव स्वल्प ऊणे. बाकी कडे स्थिती ही न्हय. दुसरें कारण : आमकां भायरचे कोंकणी समाजालागि संपर्क ऊणे. आतां आतां तो संपर्क चड जावनु येता. ह्या दोनीय कारणांपशि जड एक कारण आसा. कोंकणींतु जाय तितूलें साहित्य ना म्हळेलेंच. साहित्यान भासेची उतरां, प्रयोग, म्हणियो हांकां सगट राखण मेळता. साहित्य जीविताचे समस्त मळार पांवतना जनां मनाक विकास मेळता आनी भासेक स्थिरताय मेळता.

केरळांत कोंकणी भासेक आजीय ही सुवात ना. मुकारि स्थिति बदलतली. ते खातिर आमगेलो प्रयत्न जाय; आसूं.

**राखण; जिरवण**

आमी निज संपत्ति राखून दवरची; मात्र न्हय मलबारींथून घेंवचीं उतरां घळौन जिरौन घेंवचीं आसात. तें कशी ? मलबारीचें उतर कोंकणीचें निज उतर कशी जायत? पिरथमची कोंकणी उच्चाराचो सोबावगुण ताका मेळूक जाय.

(i) **उच्चार**

उदा : मलबारीचो 'नडा' (nada) हो शब्द 'नोडो' जावनु कोंकणींत भरसला. अकार वाटकुळो जावनु ओकार जावप कोंकणीचो विशिप्ट गुण. अशी परवूर (Paravur) पोरूर जाता.

आनी उदाहरणां :

अमरावती (amara:vati) - ओंब्रातें
नडतुरप्प् (nadaturapp) - नोंडतोरोप
पडी (padi) - पोडी
वस्तु (vastu) (meaning landed property) - वोस्तु
मला (mala) - मोलो (दोंगर)
कषंजु (kazhanj) - कोळोंजु

(ii) **व -> ब.** वकार बकार जावप कोंकणीचो विशिष्ट सोभाव.

वैकम (vaikom) - बैक्कत्
वैपु (vaipa) - बैपं
वडक्कु (vadakka) - बडक
वला (vala) - बोलें (net)

कोंकणीन जिरोन घेतल्ले समस्त उतरांत अकार ओकर जावुंची आनी वकार बकार जावुंची ही प्रक्रिया पळोयात.

मलबारी शब्दाक कोंकणीचो स्वभाव मेळ्ळो तरि तो शब्द कोंकणीचो जालो. कोंकणीचो गुण मेळप हे प्रक्रियेचो एक पक्ष. आनी एक पक्ष आसा : मलबारी भासेचो स्वभाव सोडप. ही प्रक्रिया येवुंची उदाहरणां पळोयां.

मलबारींतु ററ (tt) Alveolar (वार्स्य) उच्चाराचो एक वर्ण आसा. हो कोंकणींत ना. देखून कोंकणींत हो निसरतलो आनी त्या जाग्यारि 'त्त' वर्ण येतलो.

പൊററ पोट्टा (potta) - पोत्तें
ചിററാൾ चिट्टाळ (chitta:l) - चित्ताळ्
ചുററ् चुट्ट् (cutt) - सुत्तू

ह्या परिवर्तनान अर्थभेद जावुंचे कडे अशी जावुंचे ना वी.

'ഴ' मलबारीचो एक विशेष उच्चार. हो द्राविडीचो विशिष्ट वर्णु आज मलयाळमांतु मात्र उरला. कोंकणींत हो वर्ण 'ळ' कार जाता.

കിഴക്ക് (kizhakka) = East - केळक्क्

വരാപ്പുഴ (Vara:puzha) - बारांपळे

നേന്ത്രവാഴ (ne:ndrava:zha) = Banana - नन्दरबाळें

ഇടങ്ങഴി (idannazhi) = A measure equal to 1 $^1/_3$ litres
- दंगाळि

വഴക്ക് (vazhakka) = quarrel - बळक्क्

मलबारींतु ह्रस्व ए कार आनी ह्रस्व ओकार आसात. हे दोनीय स्वर कोंकणींत दीग जातात.

उदा : तेक (South), पेरें (Shed), ओप (Signature), कोडि (flag).

कोंकणींत प कार अकस्मात फ कार जाता. उदा : गोपाल-गोफालु

ही प्रक्रिया मलबारींथून उशीणें घेवुंचे उतरांतूय आयकूयेत.

परा (measure equal to 13 $^1/_3$ litre) - फारो
पलका (wood plank) - फळें
पडुता (curtain) - फोडदो

(iii) **अक्षर संरचना (syllabic structure)**

उच्चाराचोय आनी एक गुण आसा. तो वर्णोच्चारा पशि सूक्ष्म. मलबारींत थाकून उशीणें घेवुंचे उतरांचीं अक्षरां ऊणे करनु सगळें उतर सान करप. कोंकणींतु 'नरसिंह' 'नरशीं' जाता; 'नारायण' नाराण जाता; आनी 'दामोदर' दमदोरु जाता कि ना? तशीच

आलप्पुषा (a:lapuzha) - आलपळे
तृपूणित्तुरा (tripunitura) - तिनपन्तरे
मट्टांचेरि (mattancheri) - मडचेरे
पुरक्काड् (puraka:d) - परकाट
कुळप्पुरा (kulapura) - कोळपेरें
कायंकुळम् (ka:yamkulam) - कांयगोळ

उतरां सान करनु घेवंची ही रीति संस्कृतांथून आयिल्या उतरांतूय दॆक् पडता.

भाषाशास्त्रा नदरेन पळेल्यार ह्या उदाहरणांतु सगट cv cv cv इत्यादी आसची अक्षर संरचना (syllabic structure) cvc रूपान परिवर्तन जाता म्हूण सांगूयेत. अशी उर्शाणें घेवुंचे उतराचो उच्चार कोंकणीचे स्वभावाक अनुकूल केलो तरि तें भासेंतु जिरतलें. ना तरि तसली उतरां भासेंतु घोळचीं नात.

**(iv) व्याकरण-पदरचना**

उच्चार अनुकूल करनु घेवुंचे वरीच मलबारी शब्दांक कोंकणीचे व्याकरणाक अनुकूल करचें आसा. उर्शाणें घेवुंचे नामशब्दांक कोंकणीचे लिंग-वचन-विभक्ति-प्रत्यय लावनु अनुकूल करप हांतु मुख्य.

उतराचे आखेरेक 'ओ' प्रत्यय लागून पुल्लिंग एकवचन जाता.
उदा : नोंडो, फारो, मोट्टो, मोलो, मुल्लो, खोट्टो.

'ओ' प्रत्ययाचे बदलाक 'ए' प्रत्यय लायल्यार पुल्लिंग बहुवचन जातलीं.
उदा : फारे, मोट्टे, मोले, मुल्ले, खोट्टे.

इ कारन्त शब्द स्त्रीलिंग एकवचन म्हूण लेकतात.
उदा : पोडि, दंगाळि, कोडि, शीवेलि, चट्टि.

अशीचि 'इ' कार लावनु स्त्रीलिंग एकवचन करयेत.
उदा : अडकळि, मीशि, चरवि, तट्टी.

इ, ई न सोंपचें उतरांक 'यो' लावनु स्त्रीलिंग बहुवचन करतात.
उदा : मीशियो, तवियो, चरवियो, तट्टीयो, कोडियो, चट्टीयो.

'एं' लागून नपुंसक एकवचन जाता.
उदा : पेरें, चेंडें, ताट्टें, पाट्टें, अरें.

'ए' चे बदलाक 'ईं' लागल्यार नपुंसक बहुवचन जाता.
उदा : पेरीं, चेंडीं, ताट्टीं, पाट्टीं, अरीं.

आखरेक 'उ' कार लागचे शब्द पुल्लिंग म्हणु लेकतात.

उदा : तेरु, तीरू, मोणु, कोंबु, बाणु, आधारु, मुट्टु.

हो उ कार काडून उडयल्यार बहुवचन जातलीं.

उदा : तेर, तीर, कोंब, मोण, बाण, आधार, मुट्ट.

अ कारान सोंपचीं नपुंसक उतरां 'आं' जोडून बहुवचन जातलीं.

उदा : मुंड-मुंडां; ताट-ताटां; मदिल-मदिलां; काक्कूस-काक्कूसां; जनेर्ल-जनेर्लां; चोरकुल-चोरकुलां; चीट-चीट्टां; पडक-पडकां; ताराव-तारावां.

अशी लिंग-वचन-प्रत्यय लागूचीं सगळीं उतरां विभक्ति प्रत्यय घेवनु वाक्यरचनेंत भाग घेतलीं : नोड्यारि, पोऱ्यांतु, मिशियांक, आराटाचो, अऱ्यांतुलें, दंगाळेन, पोडीक इत्यादि उदाहरणां.

मलबारी उतरां समासांतूय भाग घेतात. उदा : मुंड - आंगूटि. हांतु मुंड मलयाळम, आंगूटि संस्कृत तद्भव. अशी दंगाळि-भरि, पोडि-भरि, दाम-तूक, भात-तूक, मुख-पेरें, पडि-पेरें (अथवा वर्णविपर्ययान परपिडें), घर-परम, वाडि-मोदल, ताली-माळा, तेरा-पुजा - असले अनेक समास जाल्लेले आसात.

**(v) व्याकरण-वाक्य रचना**

मलबारी उतरांक लिंग-वचन-विभक्ति लावनु घोळौंची पद्धति आमी देकीली. आतां उतरां वाक्यांतु प्रयोग करची रीति चोवयां. कोंकणी वाक्यांतु पदां मद्दें एक खास तराचो संबन्ध आसा. ताका अन्विति तत्व (concord) म्हण्टात. कर्ता-क्रियेची अन्विति (subject-verb concord) कर्म-क्रियेची अन्विति (object-verb concord) विशेषण-विशेष्याची अन्विति (Adjective-noun concord) संबन्ध-विभक्तिची अन्विति (genetive case concord) ह्या तत्वा विशीं कोंकणीचो स्वभाव मलबरींथाकून पूर्णतः भिन्न आसा. मलबारीचे प्रभावान कोंकणी वाक्यांतु हे गुण जायसर रीतीन येनात देखूनूच उशीणे घेवुंचीं उतरां कोंकणींतु घोळनाशिल्लीं. विरनाशिल्लें रमदयेंतु पडलेल्या सुरणा फोडी कदि बळ जबरेन जड उरतात. नैसर्गिक रूपान वाक्यांतु घोळनु वच्चे

म्हणकि मादुरकायेन प्रयोग केल्यार जायत. कोंकणीचे अन्विति तत्वाक अनुसरून मलबारी उतरां कशी येतलीं पळोंयां.

उदा : आराटाक कोडि चडली; हर्स्तीकारान हर्स्तीक न्हाणयली; नेंत्तिण्पाट्टो घाल्लो. आनण्पन्दलांतु नोङ्यारि हाडली; चेंङ्यारि बड्डी पडली; मेळांतु स चेंडीं आशिल्लीं; दोन कोंब आशिल्ले; कुरुंकुळल एकच आशिल्लें; चेंडे वाजता; चेंडेकार चेंडीं वाजीताय; हर्स्ती पायार बड्डी दवरनु हर्स्तीकारि ह्यानु उण्णें करनु निदेता. दारवे दन्दाक वाति लायली; उजो लायलो. आमी पडक फुटयलें; बाणु सोडळो; फुलां कुत्ति जळयली. ती अर्दी जळनु सोन्नु जाली. पुरती जळ्ळी ना. तेद्दे भितरि दारवे दन्देल्यान मत्ताप दाकयलें.

(vi) **क्रियाशब्द**

आतां मेरेन चर्चा केल्लेलीं उतरां चडय वस्तुनामां (name of things) आसात. एकि क्रिया 'तूकि' आमी देखीली. उणेंच क्रिया शब्द आनीकय आसूंयेत.

उदा : (1) तुरुंब = rust. तुरुंबे = to rust

लोकंड तुरुंबेना. खीळो तुरुंबेलो.

कोयती तुरुंबेली. खोरें तुरुंबेतलें - इत्यादि

(2) मुरड = withered plant

मुरुंडे = to get spoilt by pest

रोंपी मुरुंडेता, मुरुंडेली, मुरुंडेतली

**नवनिर्माण**

कोंकण्यांनि आपण्याले प्रतिभेन नवनिर्माण करनु रूपान अर्थान उज्वल करनु घेतलेल्या येद्दे उतरां विशीं सांगून हें निबंद समाप्त करतां.

1. बल्लाव = bad. चांग x बल्लाव

हें उतर ह्याच रूपान मलबारींतु ना. जाल्यारि വല്ലാതെ (vallade), വല്ലാണ്ട് (vallandu), വല്ലായ്ക (vallayka) ह्या उतरां थाकून 'बल्ला' हो अंश काडून आमगेले पूर्विकांनि 'बल्लाव' हें उतर नवेंच निर्माण केल्लें. 'चांग' हाचे विपरीता अर्थान प्रयोग करनु तें आज प्रचारांत आयलां. नाम आनी विशेषण दोनीय रूपान हें उतर चलता.

उदा :तुगेलो पूतु बल्लावु जातलो.
ताणे मेगेले सायकिळ बल्लाव केल्लें.
जीब बल्लावि जाल्यार कितें करप?
एक चांगाक एक बल्लाव आसतलें.
बल्लावाक बळ चड.
बल्लावि बायल (लाक्षणिक) = विधवा
शीत खावंचे जिबेन बल्लाव उलौनाका.

'प्रयोगेण अभिज्वलितः' म्हूण पतंजलीन सांगिल्याक एक निदर्शन हें.

2. बगा (स्त्री) हाचें मूळ വക वगा (vaga). बगेन, बगेक ह्या कारक रूपानीय हाचो प्रयोग आसा.

उदा : ताणे पुताले बगेक जायतो दुडु वेचु केल्लो.
(for the benefit of the son)

फायची सम्प्रादणा कोणाले बगेक?
(at whose cost?)

जावंय जायती बगा आशिल्लो मनिस
(very rich)

अन्नाक बगा ना
(no money even for food)

तो आतां बाप्पा सरि बगा दवरना
(doesn't care even for his father)

चेली कामतीली बगा
(Belongs to the family of Kamats)

तुगेले बगेक हांव उलैन
(on your behalf)

हांव जाण; आजि तूं इतेंय बगा करतोलो
(Do something serious, costly)

आम्माले बगेन मेळ्ळें; बप्पाले बगेन मेळ्क आगा
(on mother's side; on father's side)

हें उतर कशी कशी परजळेना पळे, अजाप दिसत.

3. पाणा = नज ह्या अर्थान. പാടില്ല पाडिल्ला (pa:dilla) हें उतर मलबारींतु आगा. ഇല്ല इल्ला (Illa) चे बदल 'ना'. तावळ पाड + ना हांतुगून आतंचे 'पाणा' आयल्यां. हें व्याकरणाचे नियमाक अनुसरूनूच. पूर्वसवर्णनान 'न' 'ण' जालें. मागीर परसवर्णनान 'ड' आशिल्लें 'ण' जालें. मागीर 'णा' चें द्वित्व. आखेरेक द्वित्व निगरलें.

तशी पाड ना -> पाडणा -> पाण्णा -> पाणा. बप्पा मम बेगू पाणा. तशी सांगू पाणा. कोरु पाणा.

4. मूल अर्था थाकून निगरनु नवे अर्थान शब्द कशी कशी पसरेतान. परजळेतात म्हूण कळ्क आनी एक उदाहरण :

खीरि आनी पायसु - खीरि 'क्षीरं' थाकून निष्पन्न आनी पायसु 'पयस्' शब्दांगून. क्षीर, पयस् दोनीय दुद्दाचे पर्याय. म्हूण खीरि आनी पायसु पर्याय बी न्हय. पोरणे कालाक खीरीक दूद जाय आशिल्लें.

'नवल दुद्द सम्मिलिआ
उल्ललइ तंदुला खीरि' - म्हूण अद्दहमाण कवीन संदेसरासकांतु गायन केल्यां! तरीय आजि खीरीक दूद नाका. खीरीय तरा तराची - ओरवा खीरि,

गोंवा खीरि; नांचण्या खीरि फुडे आशिल्ली. आतां नांचणो खंय? आनी पोळ्यां खीरि, फोड्यां खीरि. रडी खीरि-ती वेगळीच. खीरीक पैंदार (साखर) कोणे घालप ना. चड-ऊणे गोड घालि. सोई वाट्टून घालि; ना तशीच घालि. रडी खीरीक सोईय नाका.

आतां पायसाकय दूद जाय म्हणु ना. दुद्दा पायसाक जायीच मू. दुद्दा पायसाक पैंदारच जाय. बाकी पायसांक गोड पुरो. पायसु सुक्को जावयेत; पातळु जावयेत. कूट-पायसु सुक्कोच.

कांयगेळ - कोल्लांव आंब्या पायसु आसा खैं. तें आम्ब्यां गोड आम्बटच. पिक्कले पोणसाचें आम्बट म्हूण नन्तना पोणसा पायसु म्हणीनात.

आमकां आतांय मलयाळीलें 'प्रथमन' आयलें ना. हे प्रथमन तरा तरा आसा खैं.

आमी खीरीचे पायसाचे पशि पंचकदायेक मान दिवंचे. गोकळाष्टमीक पंचकदाय जाय. खीरि, पायसु जाय तरि करि, आसो. पंचकदायेक गोड खंचे? आलडाडन् गोड खीरीक पायसाक काडूं. पंचकदायेक कोट्टागच्चे गोड हाडि. सबाव गोड म्हळ्यार नपुरो. सुवादु आनी रंगु तो कोट्टागच्चे गोड्डाकच. पंचकदायेक तें नातिल्लें जावुंना. आनी पंचकदाय नातिल्लें ओवसूंचि ना. धूव-जावंयि आयिल्लें वर्स. पंचकदाय ना तरि? आनी एक गुपित सांगतां. मेगेली आम्मा पोसो भरि ओरवाशे वाटून मीट घालनु खीरि करताली. लेवनु लेवनु बोटां चाबून खावुंका. कित्या? ती आम्मान अपुरबायेन पुता गुणी केल्लेली.

आम्मालि खीरि; ताजी रुचि वेगळीच.<br>
आम्मालि भास? तिवय तसलीच मू<br>
उडगास आसो !

अनुबन्ध - 3

# देवनागरी लिपींत कोंकणीची अक्षर मांडावळ

**(1) तत्सम आनी तद्‌भव :**

कोंकणी एक आधुनिक भारतीय भास. तिचीं पाळां पुर्विल्ले भारतीय संस्कृत भाशेंत रोंवल्यांत. संस्कृत शब्द सगळ्या भारतीय भासांचें दायज. कोंकणींत पोर्णे आनी नवे संस्कृत शब्द घोळतात म्हणपाचो कोंकणीक अभिमान. गरज पडटाना कोंकणीन संस्कृतां थावन शब्द घेवयेत आनी शतकां थावन वापरांत आसल्ल्या स्पश्ट नेमां प्रमाणे नवीं उतरां घडयेत.

संस्कृत शब्द आधुनिक भारतीय भासांनी दोन रूपांनी घोळतात : (a) मूळ रूप (b) उच्चाराक लागून बदल्लेलें रूप. दाखल्याक :

दंत, दांत = teeth; जंघा, जांग = thigh;
हस्त, हात = hands; पाद, पांय = feet etc.

पयलेचे मूळ संस्कृत शब्द आनी उपरांतलीं उच्चाराक लागून मातशीं बदल्ललीं रुपां. असलीं बदलपां (नामांनी मात्र न्हय बगर हेर वाक्य पदांनी) हजार हजार शब्दांनी घडल्यांत. व्याकरणांत, मूळ संस्कृत रुपार आशिल्ल्या शब्दांक तत्सम आनी रूप बदल्ल्या शब्दांक तद्‌भव म्हणतात.

संस्कृतां थावन प्राकृत आनी अपभ्रंश मुखांतर कोंकणी भाशेक आयिल्लीं उतरां उच्चार बदलपान कशीं घडोवन आयल्यात म्हूण डॉ. एस.एम. खत्रे हांच्या Formation of Konkani म्हळेल्या नांवाडीक पुस्तकांत मेळटा.

संस्कृतांतले तत्सम शब्द संस्कृतांत बरयिल्ले वरीच कोंकणींतय बरोंक जाय. हें तत्व सगळ्या भासांनिय मानून घेतलां. संस्कृत भास भारताच्या

सगळ्या लोकांक एकवटांवचें एक माध्यम. देखून संस्कृत भाषेंतल्या शब्दांचीं अक्षरां, सर्व भासांनी तशेंच कोंकणींतय संस्कृतांत बरयिल्ले वरीच बरौंक जाय. कोंकणीन आपली स्वंत अक्षर मांडावळ घेतल्यार ती राष्ट्रीय संप्रदाया थावन पयस सरतली. राष्ट्रीय दृष्टीन हें खंडित बरें न्हय. अशें केल्यार संस्कृतांत विकासलली बरौपा पद्धत विभाडुन पाटीं गेल्लेवरी जाता. संस्कृत हिंदी इत्यादि शिकतल्या कोंकणी लोकाक ती भास शिकूक कष्ट जातले. लीला आशिल्लें लिला, सूर्य आशिल्लें सुर्य, अंकुश आशिल्लें अंकूश, लिंग आशिल्लें लींग, पुरुश आशिल्लें पुरूश, सिंह आशिल्लें सींह, अखिल आशिल्लें अखील, नैतिक आशिल्लें नैतीक, मुद्रित आशिल्लें मुद्रीत, दक्षिण आशिल्लें दक्षीण, जीवित आशिल्लें जिवीत, मंदिर आशिल्लें मंदीर इत्यादि.

अशें बरयल्यार कोंकणीचीं संस्कृत पाळां तुटतलीं. कोंकणी भास चड आनी चड कष्ट भोगतली आनी कोंकणी लोकाक हेर भारती भासो शिकूक कष्ट मारतले. आमी थारावंक आनी सांबाळुंक सोदतात तो एकवट नाश जातलो. देखून हरयेक तत्सम शब्द संस्कृतांत बरयतात तसोच बरौंक जाय म्हणचें. स्पष्ट ओळखून घेतल्लो हो नेम पाळिनास्ताना राबुंक कारण ना.

हेर भासांवरीच कोंकणींतय तद्भव मुळां थावन हेर रूपां उबजतात. दाखल्याक : शिक मुळां थावन शिकप, शिकवण, शिकपी, शिकौपी, शिकचे, शिकिल्ले. अशें उबजल्लीं हीं रूपां तद्भव म्हणचींवे? ना. कोंकणीच्या सूत्रां प्रमाणे घोळोन आयिल्लीं हीं रूपां, खरीं कोंकणी रूपांच. तीं सगळीं तद्भव रूपां न्हय. राखण, राखणो, राखपी इत्यादि शब्द "राख" मुळां थावन उबजल्ले अपुट कोंकणी शब्द - हे तद्भव न्हय. पुरो, पूरा, पुर्णाय, पुराय - हे कोंकणी शब्द - तद्भव न्हय. उजू म्हळ्ळें ऋजु शब्दाचें तद्भव रूप. पुण उजूपण अपुट कोंकणी शब्द - हो ऋजु म्हळ्या संस्कृत मुळां थावन उबजल्ल्या ऋजुता वा आर्जव रूपांचो तद्भव न्हय. कोंकणीच्या नेमा प्रमाणे घडौन आयिल्ल्या ह्या शब्दांक तद्भव म्हणचें चूक. अशें फिदर, मैदर, वसारो, देवारो, दारवटो, रान्दप, रान्दपी - हे शब्द कोंकणीचे आनी संस्कृतां थावन आयिल्ले तद्भव न्हय.

**(2) कोंकणींत स्वरांची लांबाय:**

(ह्रस्व आनी दीर्घ स्वर)

हेर सगळ्या भारतीय भासां वरी कोंकणीकय ह्रस्व आनी दीर्घ स्वर आसात. अ-इ-उ मटवें (ह्रस्व) आनी आ-ई-ऊ लांब (दीर्घ). स्वरांचे लांबायेक लागोन जायत्या उतरांक वेगळो वेगळो अर्थ जाता. अ आनी आ वेगवेगळो अर्थ ह्या दाखल्यांनी दितात. जर-जार, तळ-ताळ, भर-भार, मर-मार, मल--माल, हत-हात. तशेंच दिन-दीन, चिर-चीर, कुल-कूल इत्यादी दाखले दीर्घ स्वरांवरवीं उबजल्ल्या अर्थाचो फरक दाखयतात. देखून दीर्घ-ह्रस्व स्वरांचो फरक बरोवपाची पद्धत कोंकणींत सांबाळूंक जाय. रोमी लिपींत ह्रस्व आनी दीर्घ स्वरांक वेगळीं वेगळीं अक्षरां नात आनी ते लिपींत कोंकणी बरोवपाची पद्धत चलोन आयिल्ले वरवीं, आतां कोंकणींत ह्रस्व आनी दीर्घ स्वर ओळखून घेंवचांत जायती घुस्पड आसा. ह्या विषयाचेर शास्त्रीय अध्ययन गरजेचें.

संस्कृतांत ए आनी ओ दीर्घ स्वर म्हूण लेखतात. पूण कोंकणींत ह्रस्व ए आनी ओ स्वरयी घोळूंक लागल्यात म्हूण ह्या दाखल्यांनी कळता : केदाणा, मेलो, चेंबू, लेंबो, केंपू - उतरांनी ए मटवें. केलें, चेडू, जेवण, वेन, देवळ, खेळ - उतरांनी ए लांब. मोसो, कोंको, मोर्तू, मोन्नू, सोट्टू - उतरांनी ओ मटवो. गोंड, मोर, चोर, कोंड, फोड, घोडो - उतरांनी ओ लांब. असले दाखले शेंभरांनी मेळतात देखून हे ह्रस्व आनी दीर्घ स्वर दाखोंक वेगळ्यो कुरुवो वापरचे पडतात.

पुण ए आनी ओ स्वरांचे लांबायेवरवीं वेगळो वेगळो अर्थ जायना.

परिवर्धित देवनागरी लिपींत हे स्वर ह्रस्व आनी दीर्घ बरोवपाची पद्धत कशी रावता म्हूण पळोंवचें बरें.

**(3) कोंकणी उतरांचेर भर पडता तो दाखोवपाची पद्धत :**

हेर सगळ्या भारतीय भासां वरी, कोंकणींतय उलयताना स्वराचेर भर घालची पद्धत आसा. एकाक्षरी उतरांनी स्वराचेर भर पडता. दोन अक्षरांच्या

उतरांनी दुसऱ्या अक्षराचेर भर पडता. तीन अक्षरांच्या उतरांनी तिसऱ्या अक्षराचेर भर पडता.

दाखलो 1 - एकाक्षरी उतरां : आं, लिंग, कान, स, जीब, पोट, हींग, मोर, तेल, लोल - ह्या उतरांनी बरौपांत अक्षरां दोन दिसतात तरी, सोंपत्याचे अक्षर मोनें (म्हळ्यार उच्चारिनांत) देखून असलीं उतरां एकाक्षरी म्हूण लेखचें.

दाखलो 2 - दोन अक्षरांचीं उतरां : ह्या उतरांनी भर दुसऱ्या अक्षराचेर पडता. चलो, चली, कुर्डो, फुडार, तयार, देवुळ, चेडूं, अंकुश, राधा.

दाखलो 3 - तीन अक्षरांचीं उतरां : ह्या उतरांनी भर तिसऱ्या अक्षराचेर पडता. देवकी, दुरपदी, दुरपदान, देकिल्लो, दारवटो, पंजाबाक.

3 - वयर सांगिल्ल्या उतरांनी रूप बदलप जांवचें आसा. एकाक्षरी उतराक प्रत्यय लागताना, दुसऱ्या अक्षराचेर भर पडता. दाखल्याक : घर-घराक. घर - ह्या उतरांत 'घ' अक्षराचेर भर पडता. पुण 'घराक' - हांतु 'रा' अक्षराचेर भर पडता. त्याच प्रकार :-

| | | |
|---|---|---|
| मोर-मोराक | वच-वच्याक | चड-चडात |
| राम-रामान | व्हर-व्हरात | तीळ-तीळाक |
| देव-देवाक | दळ-दळूक | मीन-मीनाक |
| भीम-भीमाक | चोर-चोरालो | सून-सुनेन |
| कंस-कंसान | सांग-सांगलें | चींच-चींचेक |

सकयल्या दोन अक्षरांच्या उतरांनी भर आसलो थंयच आसता. दाखल्याक:

| | |
|---|---|
| कवि-कवीक | गुरु-गुरूक |
| चलो-चल्याक | दोळो-दोळ्याक |
| बावलो-बावल्यान | रुचि-रुचीन |

प्रत्यय लागल्या उपरांतयी, तें उतर दोन अक्षरच रावता.

सकयल दिल्ल्या दोन अक्षरांच्या उतरांक प्रत्यय लागताना, तिसऱ्या अक्षराचेर भर पडता. दाखल्याक :

तांदूळ-तांदूळाक    बजार-बजारांत

नदी-नदीयेंत    चेडूं-चेडुवाक

हांगासर, अक्षराचेर पडता तो भर आनी स्वराची लांबाय, वेगवेगळे विचार म्हूण उडगास दवरची गरज. स्वराची लांबाय म्हळ्यार ताच्या उच्चाराची लांबाय. अक्षराचेर भर म्हळ्यार, अक्षरांतल्या स्वराचो उच्चार जाताना ताचेर पडता तें बळ वा भर. तरीपुण, कोंकणींत अक्षराचेर भर म्हळ्यार स्वराची लांबाय म्हूण लेखून चुकून पडतात. अशें अक्षरावयलो भर स्वराची लांबाय म्हूण चूक समजतात. देखून, भर पडना त्या अक्षरांतलो स्वर ह्रस्व, आनी भर पडता त्या अक्षरांतलो स्वर दीर्घ बरयतात. दाखल्याक : 'जीव' - हांतल्या 'जी' चेर भर पडता. 'जीवित' - हांतल्या 'वि' चेर बसता. जायते जण हें उतर 'जिवीत' म्हूण बरयतात. हाका फावो तें कारण ना. 'जीवित' हाका प्रत्यय लागताना, म्हळ्यार 'जीविताक' म्हणताना, भर 'ता' चेर बसता; 'जी' आनी 'वि' चेर भर पडना. देखून जायतो लोक हें उतर 'जिविताक' - अशें बरयतात. हाकाय फावो तें कारण ना. खरेपणी, हीं उतरां अशें बरोंक जाय - जीव, जीवित, जीविताक. पुण, जिवीत, जिवाक, जिविताक - अशें बरोंची चूक.

अक्षरावयलो भर उतराचो अर्थ बदलता तसल्या भासांनी सयत तो बरपांत दाखयनांत. दाखल्याक : इंग्लीशांत - conduct (क्रियापद) आनी conduct (नामपद) - ह्या उतरांचेर भर एकसारको पडना, तरी तो बरपांत दाखयनांत.

भारतीय भासांनी, कोंकणींत लेगून उतराचेर पडता तो भर, उतराच्या अर्थाक संबन्ध आटापिना. चड म्हळ्यार, तो भर, उलयतल्याचो मनोभाव कळित करता. देखून तो भर बरपान दाखोंची गरज ना. देखून भर पडनातले स्वर ह्रस्व, आनी भर पडल्ले स्वर दीर्घ करून बरोंची पद्धत गरजेक मिकवल्ली आनी ती सांडूक जाय. अशें :

भीम + आ —> भीमा (भिमा न्हय)

भीष्म + आ —> भीष्मा (भिष्मा न्हय)

दूद + आक —> दूदाक (दुदाक न्हय)

मूळ + आत —> मूळांत (मुळांत न्हय)

तीळ + आक —> तीळाक (तिळाक न्हय)

पयले विभक्तींत 'कवि' आशिल्लें 'कवी', गुरु आशिल्लें 'गुरू' 'मति' आशिल्लें 'मती', 'बहु' आशिल्लें 'बहू', 'लिपि' आशिल्लें 'लिपी', 'बलि' आशिल्लें 'बली' - अशें बरौंचें खंडित चूक. चूक बरयिल्ले वरवीं, त्या उतरांत जाता तें बदलप समजूक कष्ट जाता.

**4. कोंकणींत नाक्यो उच्चार : (Nasalisation in Konkani)**

कोंकणींत सगळ्या स्वरांक नाक्यो उच्चार दिवयेत. अशें दोन वर्गांचे स्वर आसात (1) नाक्यो उच्चार नासलेले (सादे), (2) नाक्यो उच्चार आसलेले. नागरी लिपींत अनुस्वार नाक्यो उच्चार सुचयता. अशें, दोन वर्गांचे स्वर हे.

(1) अ, आ, इ, ई, उ, ऊ, ए, ऐ, ओ, औ

अं, आं, इं, ईं, उं, ऊं, एं, ऐं, ओं, औं

सादे आनी नाक्यो स्वर जायते पावटी अर्थाचें वेगळेपण आटापतात. दाखल्याक : मास~मांस, ताक~तांक, वाट~वांट, नाव~नांव, देव~देंव, वेग~वेंग, इत्यादि.

अनुस्वाराचो प्रयोग व्याकरणी वर्ग सुचयता (वा अनुस्वार व्याकरणी वर्गाची बदलावण सुचयता)

(i) ह्या उतरांनी अनुस्वार अनेकवचन सुचयता - ताका~तांकां, भावाक~भावांक, चेलयेक~चेलयेंक

(ii) ले आनी लें - हांतलें ले पुल्लिंगी अनेकवचन सुचयता आनी लें नपुंसकलिंगी एकवचन सुचयता. दाखल्याक : गेले~गेलें, रडले~रडलें, मेले~मेलें.

(iii) तां - पयलो पुरुष एकवचन सुचयता. ता - दुसऱ्या आनी तिसऱ्या पुरुषाक सुचयता. दाखल्याक : येतां~येता, खातां~खाता.

(iv) ली - स्त्रीलिंगी एकवचन सुचयता. लीं - नपुंसकलिंगी अनेकवचन सुचयता. दाखल्याक : मासळी हाडली~केळीं हाडलीं, चवळी पिकली~पेरां पिकलीं.

(v) लों - प्रथम पुरुष एकवचन सुचयता. लो - दुसरो आनी तिसरो पुरुष एकवचन सुचयता. दाखल्याक : आयलों आयलो; बसलों बसलो.

वयल्या दाखल्यांनी, अनुस्वार अर्थ आटापता - उतराचो तशेंच व्याकरणी वर्गाचो. देखून अर्थ दाखयनासल्ल्या संदर्भांनी तो सोडचो. सकयल दिल्ल्या उतरांनी अनुस्वार गरज ना, देखून तो सोडयेत. भंय, पांय, केंस, हांस, भरवंसो. हीं उतरां अशींय बरोयेत : भय, पाय, केस, हास, भरवसो वा भरोसो.

कोंकणी व्याकरण पुस्तकांनी चडावत उंक वा ऊंक प्रत्यय धातुक लावन क्रियापदाचें सामान्यरूप घडतात. दाखल्याक : करूंक, चलूंक, जावूंक इत्यादि. हें सामान्यरूप चड करून उद्देश सूचक. ह्याच उतरांनी अनुस्वाराची गरज ना आनी तो सोडयेत. दाखल्याक : करूक, चलूक, जावूक इत्यादि बरयल्यार पावता.

वयर दिल्ल्या दाखल्यांनी अनुस्वार नाक्यो स्वर सुचयता. अनुस्वार नाक्यें व्यंजन सुचोवकर्यो उपयोग करयेत. दाखल्याक : ङ, ञ, ण, न आनी म. संक, पंखे, कोंगो, संघ, पांच, सांज, कांटो, कुंडो, पंढरपूर, संत, चंद, संधि, पंप, चांफें, चेंब्रू, कुंभ, संवसार इत्यादि.

अशें कोंकणींत अनुस्वार विविध उपयोगांक पावता. देखून गरज नातिल्लेकडे तो वापरनये. गरज आशिल्लेकडेन मात्र ताचो उपयोग करूंक जाय.

अनुबन्ध - 4

# कोंकणी शब्दावली विशीं

कोंकणी शब्दावलि मुळान आर्य आनी तिचें मूल स्रोत भारतीय आर्यभास, संस्कृत. जाल्यार कोंकणीचे मस्त शब्दांक संस्कृता लागी कांय संबंद ना. देखीक :

आवसु, आवय, फालें, फाय, गोमटो, कूर्दु, केप्पो, थोंटो, दोळो, माड्डो, बोंडो, अडसर, हांतूण इत्यादि.

कोंकणी शब्दावलीचें प्रकृत अशी जावुंच्यांत कांय अजाप ना. कित्या म्हळ्यार कोंकणीन तिचो मूळ स्वभाव सदा सांबाळून धरला तरीय शब्दावलींत हजारांनी उतरां वेगवेगळ्या स्रोतांतुल्यान घेतल्यांत. कोंकणीची शब्दावलि श्रीमंत केलेलीं वेगवेगळीं स्रोतां अशी : बौद्धांली पाली, जैनांली अर्धमागधी, इस्लामाची अरबी, भारतांतुल्या मोगळांली फारसी, क्रिस्तांवांली लतीन, येवरोपी जनांली पोर्तुगीस, त्रिहोत्रपुरा वाटेन कोंकणांत पावलेल्या गौडसारस्वतांली मैथिली, इत्यादि. जाल्यार ह्या सगल्यांचो प्रभाव कोंकणीचेर एकच वरी पडलो म्हूण जावो, तो चड कालांक वरलो म्हूण जावो सांगूक जायना. वेगवेगळीं ल्हारां आयलीं आनी मागीर देंवलीं. वतना हांगा थांगा उणें थोडें दवरून गेलीं आनी तेच वरी हांगा थांगाच्यान उणें थोडें घेवनूय गेलीं. त्या सगल्याचो परिणाम म्हळ्यार आतां आमचे मुकार आशिल्ली कोंकणी.

असल्या प्रभावां पशी व्हड प्रभाव कोंकणीचेर जाला तो शेजार भाशेंचो - उत्तर भागाचे गुजरातीचो, पूर्व भागाचे मराठीचो आनी दक्षिण भागाचे कन्नड भाशेचो. हांतू जायत्या कारणांक लागून कन्नड भाशेचो प्रभावूच व्हडांत व्हड.

द्राविड परंपरेची एक विकसित भास ही कन्नड. तिगेल्या विस्तृत प्रदेशाचे उत्तर-पश्चिम भागाचेर कितलींच शताब्दां जावनु कोंकणी आसा. भुगोळीक कारणान मात्र न्हय, इतिहासिक कारणानय कोंकणीवेलो कन्नड भाशेचो

प्रभाव परिणामकारी जालो. द्राविड परंपरेचे कदंब रायांनी कोंकणाचेर शताब्दांनी राज्य केल्यां. उपरांतच्या काळांत जायत्या सामाजिक, आर्थिक आनी धार्मिक कारणांक लागून कोंकणी भाशिकांनी दक्षिणी दिकान व्यापून कन्नड, तुळु आनी मलयाळम भाशिकां लागी भरसून जीवित मुकार व्हेलें. द्राविड परंपरेच्या ह्या तीन भाशांचो प्रभाव कोंकणीचेर इतलो घट आसा कि आतां तो सोडून आशिल्ले कोंकणी भाशे विशीं चिंतूक सरि जायना.

वास्तव म्हळ्यार कोंकणी भास जावन आसा कोंकण देशाचे आर्य मातयेंत केलेली द्राविड परंपरेची कृषी. किल्या म्हळ्यार कोंकणीक मेळ्ळेली संस्कृत आनी तिचे परंपरेची देणगी तागडीचे एक ताटांत दवरून आमी जरी दूसरे ताटांत द्राविड परंपरेची देणगी दवरली जाल्यार दोनीय ताटां समतोल रावतलीं. अशें आसतना कोंकणींतुले जायते क्रियाधातू कन्नड, तुळु आनी मलयाळम अश्या द्राविड भाशेंत थाकून आयले आसतलेच. कोंकणी भाशेचे व्याकरणार सेरेन ह्या द्राविड भाशांचो प्रभाव आसा अशी हांव आठयतां. खाला दिलेल्या कोंकणी क्रियाधातूंचीं मूळां द्राविड परंपरेंत आसात अशी म्हजें विनम्र मत, जशी 'वरे' धातूचें (from വര वरा) तशीच.

मुरंडे from മുരട് (मुरट्)　　　पिगुड from പിശിട് (पिशिट्)
वेळशे from വളിക്കുക (वळिक्कुक)　तूकि from തുക്കുക (तूक्कुक)
ताण्ड from താണ്ടുക (ताण्टुक)　　　तांक from താങ്ങുക (ताङ्ङुक)

अशीय जावयात कि शताब्दां लेकान जालेल्या नित्य निरंतर संसर्ग, दीवें घेवें, हांतूल्यान संस्कृतांतूच द्राविड परंपरेचे अंश रिगले आसूयात. आर्य आनी द्राविड म्हूण वेगळेपण आनी विरोध वाडोवनु दोनीय सदा खातीर वेगळावूंक आशिल्लो आतांचो श्रम सोडून दिवंक जाय. जाल्यारीच आमी भारतांत भाशा विकासाच्या मळावेले समस्यें विशीं सक्रिय रूपान चिंतन करूंक पावंतले. मुकार एक समग्र तुलनात्मक पठन केल्यार कोंकणींतुले जायते क्रियाधातूंचो संबंद द्राविड परंपरे लागी दिकूक पावंतले अशी म्हजो विश्वास आसा. देखिक :

‘आळाय’ हे धातूचें मूळ ‘आळ, आळो’ ह्या नामपदांत आसूयात. आनी ताचो संबंद द्रविड धातू ஆளுக (आळुक - हून उजो सयत जळप) हांतूं आसूयात.

परणे कालाक संस्कृत पंडितांनी संस्कृत परंपरेक लागूनातिल्ले पदांक ‘देशी’ म्हूण आपोवनु व्याख्या दिपव आशिल्लें. देखिक : ‘राजशेखर’ हागेल्या ‘कर्पूरमंजरी सट्टक’ ह्या संस्कृत नाटकांतुल्या 'उप्पाटिय घालिस्सं' अश्या एक वाचकांत ‘घाल’ ही धातू येता. पंडित व्याख्यातांनी ‘घाल’ ही धातू ‘देशी’ म्हूण सांगल्या आनी वाचकाची 'छाया' अशी दिल्या - ‘उत्पाट्य क्षेप्स्यामि’. हांतुल्यान समजुयात कि ‘घाल’ हे धातूचो संस्कृत समानार्थक धातू ‘क्षिप’ अशी आसा.

(मूळ इंग्लीशांतल्यान कोंकणी भाषांतर : शरतचंद्र शेणै)

## अनुबन्ध - 5

# 'क' प्रत्यय कोंकणींतु

कोंकणींतुलें विभक्ती - सूचक 'क' उपेगांवच्यो वेगवेगळ्यो रीती ह्या लेखनांत विवरिल्यात. सामान्य जावन 'क' दोन विभक्तींनी येता : (1) दुसरी विभक्ती (objective case) आनी (2) चौती विभक्ती (dative case). पूण उपयोगाच्या मट्टार सावार प्रत्येक लक्षणां आसात तीं हांगा विवरिल्यांत :

(1) कोंकणींतु नामांमरी 'क' प्रत्यय लागता. उदाः रामाक, सीतेक, घराक, मोलाक.

नामावरी आसचे क्रिया-नामांकय 'क' लागता. उदा : सांगपाक, येवपाक, खावच्याक, पीवच्याक.

सर्वनामांतु प्रश्नशब्दाकय 'क' लागता. उदा : कोणाक, कित्याक, कसल्याक.

पुरुषवाचक सर्वनामांतु एकवचनालार्गी जोडतना 'क' चे बदलाक 'का' येता. उदा : माका, तुका, ताका, तिका, हिका.

तरी बहुवचनाचे संदर्भातु 'कां' येता. उदा : आमकां, तुमकां, तांकां, हांकां.

अशी क, का, कां - तीन रूपां आसात. आधुनिक भाषाशास्त्रा भाषेन अशी सांगयेत : 'क' रूपिम (Morpheme) हाका (क, का, कां) अशीं तीन उपरूपां (Allomorphs) आसात, जीं व्यतिरेकी वितरणान कार्य करतात (Function in complimentary distribution).

(2) कर्मसूचक - 'क' प्रत्यय मुख्य जावनु क्रियेचे कर्माची सुचोवणी दिता. देखीक :

| कर्तो | कर्म + क | क्रिया |
|---|---|---|
| मास्टर | भुरग्यांक | शिकयता |
| चेडो | गोरवांक | चरयता |
| रामान | रावणाक | मारलो |
| तुवें | कोणाक | देखलो ? |
| बुकल्यान | विन्दुराक | खेल्लो |

(3) कर्म अचेतन तरी 'क' नाका. देखीक :

| कर्तो | कर्म + O | क्रिया |
|---|---|---|
| ताणें | बरप | बरैलें |
| तिणें | तें | धाडलें |
| हनुमंतान | पर्वत | उबारलो |
| आमी | पुस्तक | घेतले |
| तूं | दिवो | लाय |

हांगा कर्मा सरी 'क' येना - हें दाखौच्याक "कर्म + O" अशें बरयलां.

(4) कर्माक 'क' लागचीं आनी न-लागचीं उदाहरणां पळैयातः

गुण चोवनु सून हाडी. दूद चोवनु म्हशी घे. गुलेर दिवनु वैंगण घे. अमरु शिकल्यार पंडित जायना. आळश्या बिकण्डा भाजिया. हरवीं खेल्यार गोडां आसात. उंद्राक मारल्यार चंद्राक लागता. अंकुस आसा म्हूण हस्ती मोलायली. आंब्या रुकाक फातर मारचे न्हय. खाडाक उजो लागल्ले वेळार बिडी लावचें. गेरशेर मारनु विंद्राक धांवडायता.

(5) ज्या धातूक दोन कर्मां जाय, तांचे प्रसंगांतु चेतन कर्माक 'क' लागता आनी अचेतन कर्माक 'क' लागना. देखीक :

| कर्तो | कर्म+ क | कर्म + O | क्रिया |
|---|---|---|---|
| मास्टर | आमकां | कोंकणी | शिकयता |
| भुरगीं | कीराक | फल | खावयतात |
| पुलिसान | चोराक | प्रश्न | केल्लो |
| चेडो | गायक | धार | काडता |
| हांव | तुमकां | एक | मांगतां |

हांगा चेतन आनी अचेतन - असो नामाचो भेद केला. म्हूण सगट वेळार एक नाम चेतनच उरता वा अचेतनच उरता अशी ना. उदा : आमी गायक, बकडीक, म्हशीक धार काडतात तशी गाय, बकडी, म्हशी मोलाक दितात आनी घेतात. सामान्यतायेन आमी गोरवांक चेतन लेकतात. पूण व्यारा संदर्भांतु चेतनाकय अचेतन वस्तुवरी लेकतात जायत. चेतन-अचेतन हांचो फरक प्रसंगानुसार जाता म्हूण दिसता.

(6) ज्या सकर्मक क्रियेंक अर्थपूर्ती खातीर 'पूरक' जाय, तांचे प्रसंगांतु कर्माक 'क' लागता आनी पूरकाक 'क' लागना. देखीक :

| कर्तो | कर्म + क | पूरक + O | क्रिया |
|---|---|---|---|
| राज्यसभेन | राधाकृष्णाक | अध्यक्ष | चुनलो |
| आमी | येशूक | देवपूत | मानतात |
| कोण | आमकां | बरे | म्हणीना? |
| तूं | माका | माम | जाता |
| मेनेजरान | चेलेक | स्टोनो | केली |

(7) प्रयोजन, लक्ष्य, उद्देश वा प्राप्यस्थान सुचोंच्याक तांचे नामासारी 'क' येता.

| कर्तो | प्रयोजन इत्यादि + क | क्रिया |
|---|---|---|
| शेजारणी | दुदाक | आयली |
| राय | भोंवडेक | गेलो |
| मुनी | ध्यानाक | बेसला |
| चेडो | धारेक | येतलो |
| तो | मंगळूराक | वता |
| विमान | दिल्लीक | उबलें |
| पूत | परिक्षेक | गेला |

आळसायेक ओकद ना. पुजेक फुल जाय. बळाक हातांतु एक बड्डी आसूं. तानेक कितें आसा? भुकेक कितेंय दी - ह्या उदाहरणांतुय 'क' प्रयोजन - सूचक जाता.

(8) क्रियेन ज्याक प्रयोजन जाता ताका सरी 'क' लागता. देखीक : माड्याक सारें घाली. गोरवांक उदक दाखय. सुण्याक शीत घाली. भिकाऱ्याक पैशे दी. भट्टाक गाय दान दी. माका कितेंय दिल्यार जायत.

(9) भांगार-जायें घालचे अवयवां सरी 'क' लागता. देखीक : हातांक कांकणां. गळ्याक नेकलेस वा गळसरी, बोटांक मुद्दियो, कुरटाक नेवळ्या पडु, मात्याक किरीट, केसां आम्बाडयाक खोळी, पायांक गागरी - वाळे, नांकाक बुलाक, कानाक वेडी इत्यादि.

(10) विकार, अनुभूती वा मनोभाव प्रकट करतना हाच्यान विवश जावचे व्यक्तीं सरी 'क' लागता. देखीक :

| विषय (Subject) + क | अनुभूती | क्रिया |
|---|---|---|
| माका | भूक | लागली |
| तुका | तान | लागता? |
| बाबाक | नीद | आयली |

| | | |
|---|---|---|
| आवसूक | मणसूकी | ना |
| आमकां | खोस | भोगता |
| तुका | शेको | दिसता ? |
| माका | ठंड | दिसता |
| हिका | मातें | घुंवता |
| चेरडाक | कान | दुकता |
| गायक | ताळो | मुकला |

ह्या सगट उदाहरणांतु कर्तो (Subject) विवश लागलेल्यान ताचें कर्तृत्व ना जाता आनी अनुभूर्ताक कर्तृत्व मेळता. ही कोंकणीची एक खास विशेषताय. ह्या वाक्यांचो अंग्रजी अनुवाद पळयल्यार हें कळतलें. I feel hungry. Do you feel thirsty. The child feels sleepy, etc.

अशी कर्त्याची विवशताय प्रकट करचे हेर प्रसंगांतूय कर्त्यासरी 'क' येता. उदा : तुमकां टीवी घेवुका क्य ? रोगियाक विश्रम ना तरी कशी ? थांगा बसां नात; तुमकां टेक्सी करका जातली. आमकां खर्यी तरी निदेंवका मूं. तुका वाटेर पडचो योग.

अनुबन्ध - 6

# कोंकणी शिकून घेवया

**अनुस्वार कोंकणींत**

नागरी लिपींत अनुस्वार म्हूण नांव आसचें जें चिह्न आसा, तें खंय जाय, खंय नाका ? - हो मुद्दो श्री जिज्ञासून मुकार हाडला. तांणी दिलेल्या उदाहरणांतुच अनुस्वाराचें महत्व स्पश्ट जाता. पाचवो-पांचवो ह्या शब्द जोड्यांत पळेयात, अनुस्वार आसा तरी एक अर्थ; ना तरी एक दुसरो अर्थ, पांचवो म्हळ्यार पांच ह्या आंकड्याचें क्रमवाचक. पाचवो म्हळ्यार हरवो रंग. हाचो मूळ शब्द 'पाच्चा' कोंकणी लोकान द्राविड भासें थाकून उशीणे घेतल्लो. फकत अनुस्वारा निमित्यान हांगा अर्थ बदलता. असले शब्द-जोडे जायते आसात. जंय अनुस्वारानूच अर्थ बदलता, थंय अनुस्वार बरोवचे विशी सादुरकाय जाय, हांतू कांय संशय आसा? देखीक, वेग-वेंग, जाग-जांग, माव-मांव, वाच-वांच. वाज-वांज, वेच-वेंच, नाव-नांव, शीक-शींक, ताक-तांक असले शब्द-जोडे आमगेल्या दिसपट्टच्या उलोवपांत मेळतात. एका उतरा बदल दुसरें आयलें तरी अनर्थ जातलो.

**नाम आनी रूप**

नागरी लिपिमालेंत अनुस्वार खंय आसा तें आमी जाणा. स्वरावळींत 'अ' धरून 'औ' मेरेन आसच्या स्वरांचे उपरांते तो येता. देखून ताचें नांवूच अनुस्वार. अनु स्वरूच अनुस्वार जाल्लो. स्वरांक लागून आसचो एक उच्चार म्हूण ताचो अर्थ. टींब वा तिळो ताचें चिन्न. तें शिरोरेखेचे वयर येता आनी स्वराक लागून आसता, ह्यो दोनीय गजाल्यो दाखोवंचे खातीर लिपिमालेंत 'अं' ह्या रूपान बरयतात, आनी 'अम्' म्हूण उच्चारतात. पूण हाका जायते उच्चार आसांत, जे उदाहरणांनी पळोवयेत.

नागरी लिपींत एक अक्षराक एकूच उच्चार. हो ते लिपीचो खाशेलो गुण म्हूण मानतात. तरीय अनुस्वार मात तशें न्हय, देखून ताच्या उच्चारा विशीं शिकिल्ले बगर खंय जाय खंय नाका हें निच्छेव करप असाध्य जाता.

### अनुनासिक

उच्चारणशास्त्रांत (Phonology) अनुस्वाराच्या उच्चाराक अनुनासिक (Nasal) म्हणटात, कित्या? ताचो उच्चार करताना नाकांतल्यान उस्वास भायर वता. नागरी व्यंजनांतल्या ङ, ञ, ण, न, म ह्या वर्णांक हो सोवाव आसा. देखून हांकां अनुनासिक व्यंजनां अशें नांव पडल्यां.

आतां कोंकणी बरोवचे रितींत 'ङ' आनी 'ञ' वापरिनात. संस्कृतांत क, ख, ग, घ ह्या वर्णांक लागून येवंचो ङकार जोडगिऱ्यान बरयताले. आतां ङ चे बदल अनुस्वार बरयतात. उदा : पङ्क, शङ्क, गङ्गा, सङ्घ अशीं. आतां हीं उतरां पंक, शंक, गंगा, संघ अशीं येतात. पुर्विल्ले काळाक च, छ, ज, झ हांकां लागचे ञकार जोडगिऱ्या अक्षरांनी बरयताले. उदा : पञ्ज, पञ्छी, पञ्जाब, संञ्ज्ञा. आतां ञ चे बदल अनुस्वार घालून पंच, पंछी, पंजाब, संज्ञा अशीं जाता. तशी क वर्गांतलो ङकार आनी च वर्गांतलो ञकार लिपिमाळेंत आसूनूय तांचो उपेग ना जालो. अशीच मुकार वचून आतां ण, न, म ह्या अक्षरांबदलूय अनुस्वार येवच्याक लागलो. उदा : घण्टा-घंटा, कुण्ठित-कुंठित, पण्डित-पंडित, पण्ढरपुर-पंढरपुर. हांगा ण कारा बदल अनुस्वार येता. नकारा बदल अनुस्वार येवची उदाहरणां पळेयात -

मन्त-मंत, पन्थ-पंथ, चन्द-चंद, सन्ध्या-संध्या. मकारा बदलूय अनुस्वार येता. उदा : पम्प-पंप, गुम्फ-गुंफ, चुम्बन-चुंबन, कुम्भ-कुंभ.

ङ, ञ, ण, न, म ह्या पांच व्यंजनाचो प्रतिनिधी जावन अनुस्वार येता देखून ताका एकादीक उच्चार आसात म्हूण सांगचें पडता.

अनुनासिक व्यंजनाचे बदल अनुस्वार बरोवची शैली कोंकणींतूच न्हय तर नागरीलिपि प्रयोग करचे अन्य भासांतूय चलता. अजाप एक गजाल सांगन - मलयाळम लिपींतूय ही रीती पावल्या. तशी आतां अनुस्वाराचो

हुंवार आयल्या वरी जाला. तो हुंवार अशी-तशी थामचो म्हूण दिसना. अनेकांचो प्रतिनिधी जावन मुकार सरच्या ह्या टिंबाक जबरदस्ती भायर उडोवपाचें साहस कोण करीत?

## अनुनासिक स्वर

कोंकणींत दोन तरांचे स्वर आसात. नादशास्त्राचे (Phoneties) नदरेन स्वरोच्चाराचो खाशेलो गुण हो की उच्चारतना उस्वास कांयूच अडचण नाशिल्लें तोंडांतल्यान भायर सरता. तोंडाचे सामकी फुडे बोटां धरल्यार ह्याचो अनभव जातलो. अ-आ आदी स्वर उच्चारतना नांकाचो उपेग ना. नांक धांकून आसल्यारूय स्वरांचो उच्चार करयेत.

दुसरे एक तराचे स्वर आसात, जे उच्चारतना उस्वास तोंडांतल्यानूच न्हय, नांकांतल्यानूय भायर वता. असले स्वरांक भाषाशास्त्रांत अनुनासिक स्वर (Nasal Vowels) म्हूण नांव. नागरींत ह्या अनुनासिक स्वरां खातीरूय अनुस्वार जाय.

अशी : हाहा-हांहां, आहा-आंहां, आ-आं, ए-एं - वाचून आयकात.

दुसऱ्या स्तंभांत आसच्या अनुनासिक स्वरांचो खास गूण समजूं येत. अनुनासिक स्वर उच्चार करतना तोंडय नांकय विस्कळ आसूंक जाय, नांक धांकल्यार साधारण स्वर आयकूंक येतले. तोंड धांकलें तरी मकार आयकूं येत, जो स्वर न्हय, व्यंजन मू.

कोंकणींत सगल्या स्वरांक अनुनासिक उच्चार आसात. स्वरांक टींब लावन अनुनासिक स्वरावली अशी बरोवयेत.

अं आं इं ईं उं ऊं एं ओं ऐं औं

हांगा स्वरांक अनुनासिकीकरण (Nasalisation) जाता म्हणुंयेत. अनुनासिकीकरणाचें सूचक (Marker) जावन अनुस्वार आसा म्हणूय सांगुयेत.

## इतिहासांत

अनुस्वार म्हळेलें टींबा वरी भौ ल्हान-सान दिसता; जाल्यारूय नागरी लिपिव्यवस्थेंत ताचें साम्राज्य कितलें व्यापून आसा म्हूण पळेयात. ताचें मूळ खंय पडल्यां तें समजूंक जाय तरी भासेच्या इतिहासांत खाल देंवन सोदूंक जाय.

जशी गुजराती वा मराठी आसा, तशीच कोंकणी एक आधुनीक भारतीय आर्य भास (A Modern Indo-Aryan Language). ह्या वर्गाच्या सगळ्या भासांक संस्कृत, प्राकृत, अपभ्रंश अश्या नांवांचे तीन पुर्विल्ले पांवडे आसात. आधुनिक भासेक लागून समा पुर्विल्या रूपाक अपभ्रंश म्हण्टात. भारतीय आर्य भासेंच्या इतिहासांत सोदल्यार अनुनासिक व्यंजनाचो अनुनासिक स्वरांचे रूपान परिणाम जाला, तें व्यक्त जातलें. ह्या परिणामाची गुचोवणी कोंकणींतूय दिश्टी पडता.

देखीक : आम-आंबो, अंग-आंग,
ग्राम-गांव, संक्रम-सांकव,
ताम्र-तांबें, दन्त-दांत, धूम्र-धुंवर,
समय (Practice)-संवय,
नाम-नांव, शाल्मली-सावुळ
असलीं शंबर-शंबर उदाहरणां मेळतात.

ही प्रक्रिया संस्कृत शब्दांचे विकासांतूच न्हय, द्राविड भासेंत सावन कोंकणी लोकांनी उशीणें घेतल्या शब्दांतूय पळोवयेत.

उदा : चन्ता (market) - सांत, चुङ्कम (duty, Tax) - चुंगी,
चङ्ङाडम (Raft) - सांकोड, इङ्के (Here) - हांगा,
कय्याम (Hand cuffs) - कय्यांव.

अनुस्वार लागल्ल्या आनी एक तराच्या शब्दांचीं उदाहरणां चोयात. सकाळीं, पूर्वीं, आदीं, पायीं, हातीं असलीं क्रियाविशेषणां कोंकणींत आसात. हांचे आखरेक आसचे 'ई' प्रत्ययाचें मूळ संस्कृतांत 'इ' रूपान मेळता. अपभ्रंश कालाक 'इ' प्रत्यय अनुनासिक दीर्घ जालो 'ईं' रूपान आनी कोंकणीक 'ईं' मेळ्ळो. सोळाव्या शेंकड्यांतल्या महाभारतांत हाचीं जायतीं उदाहरणां मेळतात - घरीं, कुळीं, स्वर्गीं, पोटीं, फाटीं, मनीं, एकांतीं, आदीं, सकाळीं इत्यादी. 'देवाचे पायीं पडप' ह्या प्रयोगांत हो प्रत्यय आजून घोळटा.

आनी एक उदाहरण : खंय, थंय, जंय ह्या उतरांतलो अनुस्वार कहिं, तहिं, जहिं ह्या रूपांनी अपभ्रंशांत आसा.

**व्याकरणांत**

नागरी लिपिमालेंत अनुस्वारांचे स्थान, नाम, रूप, उच्चार, इतिहासिक परिणाम असल्या विशयांची चर्चा जाली. आनी आतां व्याकरणांत ताचें फंक्शन (function) कितें तें सोदूंया.

आं, ईं, उं, एं - हीं अनुस्वार सयत अक्षरां कोंकणी व्याकरणांत सार्थक जातात. देखीक : केळें-केळीं. हांगा एं नपुंसक एकवचनांचें सूचक; ईं नपुंसक बहुवचनाचें सूचक जाता. घर-घरां ह्या उदाहरणांत आं नपुंसक बहुवचनाचें सूचक जावन आसा. अश्या रुपांनी भासेचे व्यवस्थेंत जावचे अर्थाक व्याकरणिक अर्थ (grammatical meaning) म्हणटात.

कोंकणींत ए ह्या अक्षरान पुल्लिग बहुवचनाचो अर्थ मेळता; तरी एं ह्या अक्षरान नपुंसक एकवचनाचो अर्थ मेळता.

उदा : घोडे, वांटे, चले, दोळे आनी
भाडें, फळें, नुस्तें, सुणें

ए-एं चो हो अर्थभेद विशेषण शब्दांतूय क्रियेंतूय पावता.

देखीक : बरे-बरें, गेले-गेलें,
व्हडले-व्हडलें, आयले-आयलें,
वताले-वतालें, येतले-येतलें,
बरयल्ले-बरयल्लें अशी.

करुं, वचूं, देखूं, मेळूं - ह्या उतरांत क्रियेचे भावी संभाव्यतेचो अर्थ येता ऊं प्रत्ययान. करू, वचू, देखू, मेळू हीं उतरां अर्थशून्य जातात की ना? अशी Future possibility-चो अर्थ दिवचो ऊं नाका, ऊ पुरो म्हूण कोण सांगत?

अनुस्वारान जावच्या व्याकरणिक अर्थाचें आनी एक उदाहरण वर्तमानकालाच्या प्रत्ययांत आसा - ता, तां.

तो, ती, तूं उलयता, बरयता.
हांव उलयतां, बरयतां.

विभक्तिसयत शब्दांत प्रत्यया पिरथम अनुस्वार लागल्यार कसो अर्थ जाता? चोवया.

रायाक-रायांक,
कवीक-कवींक,
गुरूक-गुरूंक,
चल्याक-चल्यांक,
चल्येक-चल्येंक,
बायलेक-बायलांक,
बैलाक-बैलांक,
गायेक-गायेंक,
केळ्याक-केळ्यांक.

ही रूपां तारतम्य केल्यार विभक्ती विशीं एक व्यापक सामान्य तत्व मेळटलें. तिनियि लिंगांच्या बहुवचनांक विभक्तिप्रत्ययाचे पिरथम अनुस्वार जाय. तरी एकवचन शब्दांक नाका. हें तत्व नामांतूच न्हय, सर्वनामांतूय देखूंक येता.

अशी भासेच्या व्याकरणाचेर अनुस्वाराचो अधिकार भारी व्यापून आसा. व्याकरण खोलायेन शिकिल्याक खंय अनुस्वार जाय, खंय नाका, हें स्पश्ट दिसतलें.

जाल्यारूय खंय खंय संशयाचे काळे-भूरे धब्बे उरतले. कड कड विद्वानांनी चर्चा केल्यारूय सर्वसम्मत निर्णय मेळनात, असले कांय कांय बिंदू आसतले.

गोवा कोंकणी अकादेमीन उजवाडायल्या आनी आतां सार्वत्रिक जाल्ल्या शुध्द लेखनाचे नेमावळींतलो नेम 21 पळेयात. तो अशी आसा -

21 (आ) जाणें, हाणें, ताणें ही उतरां बरयतना 'णे'चेर अनुस्वार दिवचो. जाणे, हाणे, ताणे अशें बरोवचें न्हय.

21 (ब) जांणी, हांणी, तांणी ह्या उतरांनी अनुस्वार फकत पयल्या अक्षरार दिवचो, 'णी' चेर दिवचो न्हय.

जाणीं, हाणीं, ताणीं
वा
जांणीं, हांणीं, तांणीं
अशें बरोवचें न्हय.

प्रत्ययाचे पिरथम अनुस्वार लावचे विशीं वयर देखिल्या अनुमानाक अनुसरून एकवचनाक प्रत्यया पिरथम अनुस्वार नाका; बहुवचनाक जाय, हे नदरेन नेम 21 (अ) समा न्हय आनी (ब) नेम समा आसा म्हूण मनां येता. तो अनुमान नेम 31 हाकाय बेस बरो मेळता.

आतां नेम 21 (अ) विशीं मनन करूंया. सकल दिल्लेलीं एकवचन पदां चोयात -

हांव-हांवें, हो-हाणे, तूं-तुंवें, ही-हिणे, तो-ताणे, हें-हाणे, ती-तीणे, जो-जाणे, तें-ताणे, कोण-कोणे.

नेम 21 (अ) रचिल्ल्या मानेस्तांनी अशी एक युक्ती काडली आसूंयेत की जशी हांवें, तुंवें ह्या पदांक अनुस्वार आसा तशीच बाकी पदांकय जाय. ती युक्ती समा की न्हय हें समजूक ह्या रूपांचें मूळ आनी प्रत्यय विस्कळावन पळोवुंक जाय.

मूळ + प्रत्यय = पद.
हांव + एं = हांवें.
तूं + एं = तुंवें,
ता + णे = ताणे,
ती + णे = तिणे इत्यादी.

भासेंतल्या सगळ्या नामशब्दांक ह्या स्थानार 'न' प्रत्यय लागता. हांगा प्रत्यय, ए आनी णे आयल्यात. हें कशें जालें?

आतां प्रचार पाविल्ले कोंकणींत जंय 'न' प्रत्यय येता (उदा : बायलेन, दादल्यान) थंय स्व. देवराय बैंदूराले Konkani Self Taught ह्या पुस्तकांत 'ने'

येता. ताने, घोड्याने, गायिने, चाकूने, आवसूने अशी जायतीं उदाहरणां मेळतात. ह्या विशयांत माजो विचार कशी म्हळ्यार एका कालाक, आतांय वी, कोंकणीचे एक बोलींत हो प्रयोग आशिल्लो वा आसा. त्या 'ने' रूपान आतांचे सर्वनामांत 'णे' जावन अवतार घेतला वी जायत. 'ने' चेंय अवशिष्ट एं जावन आसा म्हणूय जायत. हांवें, तुंवें ह्या रूपांत अनुस्वार आसा; तशीच बाकी रूपांतूय जाय ही युक्ती मान्य आसतली दिसना. हांगा 'ने' प्रत्ययाचीं दोन सहरूपां (Allomorphs) आसात - एं आनी णे अशें मानून घेवयेत. एं तलो अनुस्वार अनुनासिक णे चेर कित्याक जाय? एका अनुनासिकाचेर आनी एक अनुनासिक लावची युक्ती कशी खरी आसतली? देखून नेम 21 (अ) युक्तपूर्ण दिसना. अनुस्वार सोडून ताणे, हाणे, जिणे अशें बरोवचें खरें म्हूण माजो अभिप्राय. जशें एकवचन नामाक प्रत्यय लागतना अनुस्वार नाका तशेंच हांगाय नाका. हांवें, तुंवें ह्या पदांत अनुस्वार प्रत्ययाचो अंश आसा, देखून सोडचो न्हय.

आतां नेम 30 पळोवया; हांगा नदीचें तद्‌भव 'न्हय'. आनी 'न्हय' चें उरफाटें 'न्हय' - हे दोन शब्द एकरूप जायनांत म्हूण हुसक्यान तद्‌भवाक अनुस्वार दी अशी नेम केला. ताची गरज ना. एक नाम; दुसरें अव्यय. हांचो प्रयोग संदर्भान नियमित आसतलो. गोंदोळ जावची स्थिती ना. देखून वेगळावूंक जाय म्हूण ना.

ह्या चिंतनांतल्यान कसो निच्छेव करयेत?

अनुस्वार निडळावयलो तिळो सो एक अलंकार न्हय. कोंकणींत तो अर्थवाहक (Carrier of meaning) जाता. देखून जंय ताका अर्थ-संबन्ध आसा थंय जायूच. जंय ताका अर्थ-संबन्ध ना थंय सोडचो बरो.

भंय, केंस, लेंस, पांय, व्हंकल, भरवंसो, म्हॉव, वंय, गुन्यांव, घांस, हांस-अश्या जायते उतरांत अनुस्वार ना म्हूण कांय अर्थभेद जांवचो ना. देखून तो अर्थवाहक न्हय. जें कांयूच उपेगाक पडना, तें कित्याक बरय?

अनुबन्ध - 7

# ‘श’ आनी ‘ष’

जागाच्या फेब्रुवारी 1999 अंकार श्री. दामोदर घाणेकारान शुद्धलेखनाच्या नेमां विशीं एक चर्चा सुरू केल्या. ताणी हर नेम आपल्या अनुभवाचे आदारार नियाळून अभिप्राय सांगला. नेम 4 हाचे विशीं ते अशें बरयतात -

‘ह्या नेमाचेर वाद आसूं नजो. पूण श्रेश्ठ, कनिश्ठ, ज्येश्ठ, विश्लेशण, घर्शण, पोशण, भूंयपृश्ठ, पृश्ठभाग, गुरुत्वाकर्शण, अनुश्ठान आनी मंगलाश्टकां हीं उतरां ‘श’ न बरोवचीं काय ‘ष’ न तें थरोवंक जाय. कोंकणींत ‘ष’ चो उच्चार घोळना अशें ह्या नेमांत म्हळां. बैश्णव, बहिश्कार, भ्रश्टाचार, प्रतिश्ठान, शिश्य, भाश्य, साश्टांग ह्या उतरांचेर खोलायेन विचार जावंचो.’

हें वाचानाफुडें अजाप दिसता. एका तरपेन ‘ष’ चो निषेध. दुसरे तरपेन चर्चा जाय खंय. दोनीय एकडेच कशें?

आतां नेम 4 कितें सांगता पळोवंया.

कोंकणींत ‘ष’ व्यंजन उच्चारांत घोळना. ‘श’ हेंच व्यंजन घोळटा. पूण विशेशनामां बरयतना ‘ष’ हें व्यंजन उपकारावपाचें.

हें विशेशनाम म्हळेलें NRI वा SC/ST वो कांय?

श्री. घाणेकारान दिलेल्या उतरांचे वळेरींतल्यान एक स्पष्ट दिसता की तांकां प्रश्न समजला. देखून समाधान जावंयेत. आतां मेरेन कोणाचे मुकार हो प्रश्न उप्रासल्लो दिसना.

असले प्रश्न मुकार येनाफुडें आमी अशें, तुमी तशें, ह्यांगा अशें, थांगा तशें अशें जपून वेळ होगडावन कांय उपेग ना. ह्या विषया पासून - ह्यांव विशय म्हणी ना - शास्त्रीय नदरेन चिंतन-मनन करूंक जाय. ते शिवाय नवो उजवाड मेळपाचो ना.

नदर मेळय - नदरे माज्या
नदर मेळय.
चान्नें फुलतलें - मनां
चान्नें फुलतलें.

अशें गावून गेल्यात स. र. वि. पंडित.

चिंतन सुरू करतना पयलेंच इतिहासार नदर धावडावंया. प्राचीन भारतीय आर्यभासेचे इतिहासांत पळयल्यार श आनी ष हे उच्चार वेगवेगळे आशिल्ले म्हूण समजूं येत. नागरी लिपींत उच्चारांचे आधारानूच अक्षरां ही वेवस्था आसा. ब्राह्मी लिपींतूय श, ष वेगवेगळे आशिल्ले अशें जाणकार सांगतात. आनी पाणिनी मुनीन निश्चेव केलेल्या प्रमाणीं श आनी ष वेगवेगळे आसात. जाल्यारूय एका बदल दुसरें आयलें म्हूण अर्थभेद जावचें उतर एक सरि ना आशिल्लें. उच्चारण भेद आसा, जाल्यारूय ताच्यान अर्थभेद जायना.

ही स्थिती अजून चलता. विषय बरय, विशय बरय, अर्थभेद ना. रमेश रमेष जाता. कोश कोष समान. भाशा म्हण, भाषा म्हण, कसो फरक? संस्कृत तत्समां विशीं ही स्थिती कोंकणींतूच न्हय तर अन्य भारतीय आर्य भासांतूय देखूंयेता.

पूण हांगा एक गजाल सांगची आसा. आतां आतां 'श' काराक चड प्रचार मेळ्ळा. ताचें महत्व आनी प्रभुत्व वाडत आसा. आनी 'ष' कार चिड्डून पडला. 'श' बहुसंख्य जाला, तरी 'ष' अल्पसंख्य. अल्पसंख्यकांलें सुवातेरूच बहुसंख्य पावला. घडये तेंच देखून जायत, षकाराचो पाखो घेवन श्री घाणेकार मुकार आयल्यात.

कोंकणींत 'ष' चो उच्चार घेळना, 'श' चोच घोळटा ही नेमकार मानेस्तांली प्रतिज्ञा खरी-शी दिसना. देखीक -

कोचीं वेंकटपती देवाचे मार्कशीं एक सान-ल्हान देवळ आसा. तांतूल्या देवाचें नांव 'षष्टो' म्हूण. षष्टो म्हळ्यार शास्ता. हांगा शकारान षकाराच्या

रूपान नवो अवतार घेतला. आमकां षष्ट पै आसा; षष्टभट्टय आसा. प्रमाण कोंकणींत 'अठरा' म्हणच्या आंकड्याक कोची 'आपा' म्हण्टात.

सांगचें कितें म्हळ्यार, लाखान लाख मनशांनी उलावंचे एके भाशेंत अमकेंच आसा, अमकें ना अशें प्रख्यापन करप कशें साजपाचें?

आतां भाशाविज्ञानाच्या आदारार चिंतन करूया.

उच्चारणशास्त्राचे नदरेन ट, ठ, ड, ढ, ण, ळ, ष हीं अक्षरां एकाच वर्गांत पडटात. हीं उच्चार करतना जिबेची स्थिती खंय कशी आसा म्हूण पळेयात. जीब चिके माक्शीं वळून जिबेचें तोंक ऊंच आफडटा म्हूण कळटलें. हें कोणाकय अनुभव करून घेवूंयेत. ह्या अक्षरांचो सोबावगूण अनुभवान समजूंयेत. अनभौ सांचा वेद.

जीब ऊंच वचून लागचे स्थानाक भाशाशास्त्रांत 'मूर्धा' म्हण्टात. आनी ट, ठ, ड, ढ, ण, ळ, ष ह्या अक्षर-वर्गाक 'मूर्धन्य' म्हण्टात.

आतां शकाराचो सोबाव पळोवंया. 'श' हें अक्षर च, छ, ज, झ, ञ हांच्या वर्गांत येता. हीं अक्षरां उच्चारतना जिबेची स्थिती खंय म्हूण अनुभव करून घेयात. हांगा जिबेचो मुकावयलो भाग ऊंच वचून लागून पसरून राबता. हांगा जिबेचें तोंक न्हय, जिबेचो अग्रभागूच उंचार लागता. ह्या स्थानाक 'तालु' म्हण्टात. आनी ह्या च, छ, ज, झ, ञ, य, श अक्षरांच्या वर्गाक 'तालव्य' म्हण्टात.

'श' आनी 'ष' वेगवेगळीं जातात कशीं हें हांगा मनांत येता मू. 'ष' उच्चारतना जीब वळून तोंक मूर्धाक लागता, तरी 'श' उच्चारतना जिबेचो अग्रभागूच उंचार लागता. दोनूय अक्षरां लागीं लागीं म्हणून अनुभव करून घेवूंयेत.

हे फाटभुंयेंचेर श्री घाणेकाराल्या प्रश्नाचें समाधान मेळटलें.

आतां श + ट = श्ट आनी ष + ट = ष्ट ह्या जोडगिरयांविशीं चिंतन करूया.

श्ट म्हण्टना जीब श चे स्थितिचेर सावन ट चे स्थितिचेर येवूंक जाय. पूण ष्ट म्हण्टता जिबेक हो आयास नाका. जीब एकेच स्थितिचेर रावता. देखून ष्ट जोडगिरें उच्चारप सरल आनी स्वाभाविक आसता. श्ट उच्चार जायत तरी अंग्रेजी भाशेंतल्या sht सारको आसतलो. भारतीय भाशेंतलो निसर्गिक उच्चार जावंचो ना. देखून 'श्ट' निसर्गविरूद्ध; देखूनूच अशुद्ध. कश्ट, नश्ट, पुश्टि, सृश्ट, साश्टांग, अश्टक, दिश्टी अशें बरोवप अशुद्ध. कष्ट, नष्ट, पुष्टि, सृष्ट, साष्टांग, अष्टक, दिष्टी अशें बरोवंक जाय.

वयर जें श्ट, ष्ट विशीं सांगलें तेंच श्ठ, ष्ठ विशींय खरें आसतलें. ष्ठ उच्चार सरल. कित्याक? तें उच्चारतना जिबेची स्थिती एकेच सुवातेर आसता. श्ठ उच्चार निसर्गिक न्हय. देखून श्रेश्ठ, कनिश्ठ, ज्येश्ठ, भुंयपृश्ठ, पृश्ठभाग, अनुश्ठान, प्रतिश्ठान ह्या उतरांतलें जोडगिरें अशुद्ध. तें ष्ठ रूपान बरयल्यार शुद्ध जातलें. देखून श्रेष्ठ, कनिष्ठ, ज्येष्ठ, भुंयपृष्ठ, पृष्ठभाग, अनुष्ठान, प्रतिष्ठान अशें बरोवंक जाय. कुष्ठ, निष्ठा हींवय साधारण येवंचीं उदाहरणां. हीं कुश्ठ, निश्ठा अशें बरोवप शुद्ध न्हय.

जी युक्ती ष्ट, ष्ठ विशीं सांगली, तीच ष्ण विशींय लागू जाता. ष्ण जोडगिरें स्वाभाविक जाल्यार श्ण स्वाभाविक न्हय. देखून विश्णू, वैश्णव, कृश्ण, किश्णू अशुद्ध आनी विष्णू, वैष्णव, कृष्ण, किष्णू शुद्ध.

आनीक एक मुद्दो - 'श्क' जाय की 'ष्क'?

'श' उच्चारतना जिबेचो मुकावयलो भाग वावरता तर 'क' उच्चारतना जिबेचो माक्शींचो भाग उंच वचून लागता. मूर्धा स्थितिचेर सावन माक्शीं वचप जिबेचे मुकावयले स्थितिचेर सावन माक्शीं वच्या परस सोंपें. देखून श्क परस ष्क सरल दिसता. देखूनूच बहिश्कार अशुद्ध, बहिष्कार शुद्ध. तशेंच आविश्कार अशुद्ध, आविष्कार शुद्ध, आयुश्काल अशुद्ध, आयुष्काल शुद्ध म्हणूंयेत.

आतां अन्येक प्रश्न - शण जाय की षण? धर्शण जाय की धर्षण?

'ण' षकाराचे वर्गांत पडटा. श त्या वर्गांत ना. देखून 'शण' हाचे परस 'षण' उच्चार करूंक सरल सुखकर आसतलें. घर्षण भाशेच्या सोबावाक

अनुकूल आसतलें, घर्शण न्हय. तशींच पोषण, गवेषण, अन्वेषण, विश्लेषण हीं रुपां शुब्ध आसतलीं.

कोणाकय शकार जाय्च म्हुण आसूं. तावळ 'ण'कारा बद्दल 'न'कार जायत. म्हळ्यार घर्शन, पोशन, गवेशन, अन्वेशन, आकर्शन, विश्लेशन हीं रूपां शुब्ध म्हूण मानूं येता. 'ण'काराक 'ष'कारालागीं जशी ओड आसा, तशीच 'न'काराक 'श'कारा लागीं आसा.

जाल्यार ह्या दोनीय रूपांचो कालवो अशुब्ध जातलो. देखीक - धर्शण वा घर्षन, अन्वेशण वा अन्वेषन हीं रूपां शुब्ध जावचीं नात. 'षण' शुब्ध, 'शन' शुब्ध तरी 'शण' अशुब्ध, 'षन' अशुब्ध अशें संक्षेपान सांगूंयात.

हर भासेंत उच्चारांची एक निसर्गिक रीति आसा. तशीच अक्षरांक एकामेकांलागीं एक खाशेली ओड आसा. ती वळखूक जाय. वळखिल्यारूच शुब्ध कितें आनी अशुब्ध कितें तें समजूंक जायत. एक उदाहरण सांगन.

गनपत, गनेश, गनित, गुनीत, गुनगन, वर्नन अशें म्हळ्यार आयकल्यार आमकां बरें दिसना. गणपत, गणेश, गणित, गुणीत, गुणगण, वर्णन अशें म्हळ्यार आयकल्यार बरें दिसता. हें बरें दिसप वा बरें ना दिसप, हाका आधार कितें? हीं उतरां नकारान म्हण, णकारान म्हण, अर्थभेद कांय जायना बी. आतां आतां इंग्लीश शिकवणेक लागून जायत, न-ण चो फरक उणो जावूंक लागला. प्राण प्रान जाता. कोंकणी कोंकनी जाता. गूण गून जाता. अशी जिबेची कानाची रूचीच बदलूंक लागल्या. आनी अशें बे-सुवाद उलेवप एक अपुरबायेचें फॅशन वरी वाड्डता.

आमगेले परंपरेंत 'न' आनी 'ण' वेगवेगळींच. 'श' आनी 'ष' वेगवेगळींच. 'न' 'श' च्या वर्गांत पडटा आनी 'ण' 'ष' च्या वर्गांत पडटा. देखून आमगेले जिबेक कानांक 'षण' बरें दिसतलें तशेंच 'शन'. जीब कान बेसुवाद जाल्यार मागीर कितें जायत, कशें सांगप?

श्री. घाणेकाराले वळेरींत आतां दोन शब्द बाकी उरल्यात. शिश्य आनी भाश्य. शिष्य जाय की शिश्य? भाष्य जाय की भाश्य, हो प्रश्न.

'य' काराचो एक खाशेल्लो गूण आसा. तो खंयचेय व्यंजनाक जुडतलो. क्य, ख्य, ग्य.... श्य, ष्य.... देखून श्य, ष्य दोनीय जोडगिरीं भाशेंत चलतलीं. संस्कृतांत शिष्य भाष्य अशें बरयतात खरें. पूण 'श्य' रूपां अशुद्ध दिसनात.

'श्य' येवंचें आनीक एक उदाहरण सांगन. 'वन्दे मातरम्' ह्या प्रसिद्ध राष्ट्रगीतांत 'सस्यश्यामलाम्' म्हुण आसा. तें 'शश्यश्यामलाम्' म्हूण बरयतात. तशी गायतात बी. तशी शश्य, शिश्य, भाश्य चलतात. चलूंक दी.

आतां मेरेन 'श' आनी 'ष' ह्या अक्षरांविशीं जें देखलां ताचो निष्कर्ष भाषाविज्ञानाची परिभाषिक उतरावळ उपेग करून अशें सांगूं येत -

कोंकणी भाशेंत श, ष एकूच स्वनिमाचीं (Phoneme) दोन संस्वन (Allophones) आसतात, जीं पूरक वितरण नेमान (Rule of Complementary Distribution) कार्य करतात. ट, ठ, ण, क, हांच्या जोडगिरयांत पयले सुवातेर ष येता, तरी बाकी सगले स्थितींत श येता.

लिपिमविज्ञानाचे (Graphemics) नदरेन अशें म्हणूं येत -

नागरी लिपींत श, ष एकूच लिपिमाच्यो (Grapheme) दोन संलिपि आसतात ज्यो पूरक वितरण नेमान (Rule of Complementary Distribution) कार्य करतात. ट, ठ, ण, क, हांच्या जोडगिरयांत पयले सुवातेर ष येता तरी बाकी सगले स्थितींत श येता.

आतां नेम 4 असो पुनरगठित करूं येत, अशी - कोंकणींत श आनी ष एकूच अक्षराचे दोन प्रकार आसतात. ट, ठ, ण, क, हांच्या जोडगिरयांत पयले सुवातेर 'ष' बरयतात तरी बाकी सगलेकडेन 'श' बरयतात.

उदाहरणां ह्या लेखांतूच आसात मू. ('मू' क अनुस्वार जाय म्हूण दिसना.)



पी.जी. कामत

पी.जी. कामत हे कोंकणी, पाली, प्राकृत, अपभ्रंश, संस्कृत, हिन्दी, इंग्लीश, अशा जायत्या भासांचे विद्वान आसले. अध्यापनाच्या मळार तांचो अणभव आनी योगदान भोव व्हड. वेगवेगळ्या भासांतले चौकेर वाचन आशिल्यान तांणी हेर भासांतले साहित्य अणकारीत केलां. केरळ कोंकणी अकादेमीचे अध्यक्ष म्हूण केरळांतल्या कोंकणी भाशिकांक एकठांय हाडून प्रेरित करपाचो मोलाचो वावर तांणी केलां. अकादेमीचे दिवटी हे नेमाळें तांणी संपादन केलां.

---

"श्री पी.जी. कामत हांणी भारताची प्राचीनतम लिपि ब्राह्मी आनी ताचो शास्त्रीय विकास हांचेर चिंतन केलां आनी पुस्तकाचे उत्तर भागांत 'देवनागरी लिपिमाला' हाजे सविस्तार वर्णन केलां. नागरी वर्णमाला हाजो विकास आनी शास्त्रीय रीतीन ही लिपी शिकपाक हें पुस्तक अत्यंत उपयोगी आसतलें - हांत कांय दुभाव ना. श्री कामत हांगेलो हो प्रयत्न सर्वप्रकारानीय संपन्न आनी सफल जाला."

**- प्रा. आर. के. राव**

"एके वटेन हें पुस्तक म्हणल्यार देवनागरी लिपी पुरस्काराचो उद्घोश जाल्यार दुसरे वटेन देवनागरीच्या पुनर्निर्माणाची, तिच्या आमुलाग्र बदलाची क्रांती. देवनागरीच्या पुनरुज्जीवनाच्या यत्नांत हें पुस्तक आपणालें महत्वपूर्ण योगदान दितलें हातूंत मातूय दुबाव ना."

**- प्रा. भूषण भावे**

P. G. Kamath Foundation

₹120

www.pgkamathfoundation.com